


# भक्तराज

मूळ इंग्लीश :
**जॉन बुनयान**

कोंकणी रुपकार :
**माणिकराव राम नायक गावणेकार**



गोवा कोंकणी अकादेमी
पणजी - गोंय

**भक्तराज**
(गद्य)

**प्रकाशन क्र.:** 149

**मूळ इंग्लीश :**
जॉन बुनयान

**कोंकणी रूपकार :**
माणिकराव गावणेकार

**पयली आवृत्ती :** 2011

**उजवाडावपी :**
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय.

**छापपी :**
कस्तुरी ग्राफिक्स,
ढवळी, फोंडें - गोंय.

**मुखचित्र :**
अमोघ प्रसाद बुडकुले

**मोल रू. :** 70/-

**BHAKTRAJ**
(Prose)

**Publication No.:** 149

**Original English :**
John Bunyan

**English Translation :**
Manikrao Gaunekar

**First Edition :** 2011

**Publisher :**
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony,
Panaji - Goa.

**Printer :**
Kasturi Graphics
Dhavali, Ponda - Goa.

**Cover :**
Amogh Prasad Budkule

**Price Rs. :** 70/-

(हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'अणकारीत पुस्तकां प्रकाशन' येवजणेखाला उजवाडायलां.)

# अकादेमीचे वतीन

विश्व साहित्त्यांतली उत्तम बरपावळ कोंकणी भाशेंत हाडपाची तकालस घेवप्यांचो एक आंतरीक सुवार्थ आसता. आपली मांयभास गिरेस्त जावची आनी संवसारांतल्या प्रतिशटीत भासांमदीं वचून ती तांचे मांडयेक मांडी तेकोवन बसची. 'भक्तराज' हें पुस्तक Piligrim Progress ह्या मूळ इंगलीश पुस्तकाचो कोंकणी रूपकार आसा. श्री. माणिकराव राम नायक गावणेकार हांणी हो रूपकार केला, तांकां ज्ञानपीठकार रवींद्रबाब केळेकार हांणी प्रस्तावना बरयल्या. हाचेवयल्यान ह्या रूपकाराची शक्त कितली ती आमकां होलमता.

गोवा कोंकणी अकादेमी कोंकणी भाशेच्या सर्वांगी उदरगतीचो ध्यास बाळगून गेल्लीं पंचवीस वर्सां, हो असले तरेचो पुस्तक ग्रंथ प्रकाशनाचो वावर करीत आसा. भक्तराज हें पुस्तक आनी त्या पुस्तकांतलो अध्यात्मीक सार आमकां भारतीयांक नवो न्हय. भारतांत अशे तरेचें कडक अध्यात्मीक जिणें जगिल्ले महापुरूश जांवन गेल्यात. तांचीच वाट एका परभुयेवयल्या श्रेयार्थ्यान मांडिल्ल्या अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. संवसारांत धर्मभाग कितलेंय आसूं, श्रेयार्थ्याक ते घेवन एकेचकडेन वतात, तांचो मुक्काम एकूच आसा, मागीर तो गौतम बुद्ध आसूं वो जॉन बुनियान आसूं. जॉन बुनियान हो सतराव्या शतमांनातलो एक इंग्लीज श्रेयार्थी म्हणजे भगवान गौतम बुद्धा उप्रांत कितल्याशाच वर्सा उप्रांतचो, पूण वर्सांसंकिनी ही जी अध्यात्मीक तत्वप्रणाली आनी ते प्रणालीक धरून हटयोग्याच्या हावेसान सगळें सोसून श्रेयाकडे वचप ही परंपरा आमचे मनीसजातीमदीं वेगळे वेगळेकडेन तरेतरेन प्रकट जाल्ली पळोवंक मेळटा.

हांगा आमचे कोंकणीत ती अशे तरेन रूपकाराच्या भेसांत येता आनी कोंकणींत हो रूपकार पुस्तक रूपान छापून हाडपाचो सुयोग गोवा कोंकणी अकादेमीक लाभता हें अकादेमीचें भाग्य अशें हांव मानतां. श्री. माणिकराव राम नायक गावणेकारांनी 'भक्तराज' हें खूब महत्त्वाचें पुस्तक कोंकणी भाशेंतल्यान उजवाडाक हाडपाची संद गोवा कोंकणी अकादेमीक दिली तेखातीर तांचे उपकार मानतां.

– एन्. शिवदास

अध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादेमी

# मनोगत

लागीं लागीं पन्नास वर्सां पयलीं हांव एम. ए. शिकता आसतना हांवें मुंबयच्या फुटपाथाचेर एक पुस्तक पळयलें. त्या पुस्तकाचें नाव Piligrim's Progress. तांचो लेखक Jon Bunyan. तें हांवे वाचलें आनी हांव सामको भारावन गेलो. म्हाका दिसलें ते कोंकणींत हाडचें. हांव तेन्ना मुंबय रावतालों. एम. ए. शिकता आसतनाच थंय जी 'मित्र मंडळी' म्हूण संस्था आशिल्ली तिचो हांव सचिव आशिल्लो. तेखातीर म्हजो खूब जाणाकडें संबंद आयलो. तांतुंतले कांय म्हजे इश्ट जाले. थोडे इश्ट म्हजेर खूबच मोग करूंक लागले. तातुंतलो एक इश्ट श्री. गीध. ताचें पुराय नांव आतां हांव विसरलो. तो खूबच म्हजेर माया करतालो आनी कसलोय पालव दिवपाक तयार आसतालो. तो रावतालो वर्सोवाक (अंधेरी) आनी हांव रावतालो मछलीमार. चलून येवपाक लागीं लागीं धा–बारा मिनटां लागतालीं. म्हाका स्वताक बरोवपाक खुबच कंटाळो येतालो. हांवें सांगचें आनी कोणेंय तें बरोवचें अशें म्हाका दिसतालें. म्हजी अडचण ताका कळ्ळी आनी ताणें म्हळें, "म्हाका कोंकणी कळना, मराठींत बरोवन घेतां."हांवें ताका सांगलें, "तुका सकाळीं बेगीन येवचें पडटलें. म्हाका 9 वाक कामांक वचूंक जाय." ताणें उतर दिलें, "हांव तुका जाय तेन्ना येतां. हांव सकाळी 6 वरांचेर येता, वरभर बरोवन घेतां आनी वतां". ते प्रमाण तो सुद्दां सकाळीं 6 वरांचेर येतालो. आपूणच च्या करतालो आनी म्हाकाय दितालो (त्यावेळार हांव ब्रम्हचारी आशिल्लो) आनी आमी बरोवंक बसताले. अशे रितीन तो सतत चार पांच म्हयने आयलो आनी अशें करून पुस्तकांचें रुपांतर मराठीत जालें. मागीर श्री. वायंगणकार म्हूण शेजारी आशिल्लो. तागेले चलयेन बऱ्या अक्षरान बरोवन दिलें. हें पुस्तक उजवाडा येवपाचें सगळें श्रेय म्हजो इश्ट श्री. गीधाक वता.

मागीर 1961 त हांव गोंयांत आयलो. ताचे नंतर हांवें ताचो कोंकणीत अणकार केलो. म्हजी धूव वृन्दा गावणेकार जिका मात्शी संपादकीय नदर आसा तिणें बऱ्या अक्षरान बरोवन दिलें. मागीर हांवें तें "जाग" मासिकाचे संपादक सर्गेस्त श्री. रविन्द्र केळेकार आनी कार्यकारी संपादक सर्गेस्त श्री. सुमंत केळेकार हांचेकडें दिलें. तांणी ताचेर संपादकीय नदर भोवंडावन 'जाग' मासिकांत खिस्ती खिस्तीनी छापून हाडलें.

हें पुस्तक रोखडेच उजवाडा हाडटलों म्हूण हांवें श्री. रविन्द्रबाबाक प्रस्तावना बरोवपाक गळ घाली आनी ताणें म्हाका 13-10-94 ह्या दिसा ती रोखडीच बरोवन दिली. त्या दिसा दसरो आशिल्लो. तरी लेगीत मदीं 14 वर्सा गेलीं. आतां हांव तें उजवाडांक हाडूंक सोदता. गोवा कोंकणी अकादेमीकडें उजवाडा हाडपाक दिलां.

तशेंच अक्षरजुळोवणी करपाखातीर म्हजो इश्ट श्री. गुरुनाथ केळेकार आणि सौ. रूपा छेत्री हांणी खूब पालव दिलो. तशेंच विनंतीबाय कासार हाणी मुद्रण प्रत तपासल्याखातीर तांचोय हांव उपकारी आसा. हें पुस्तक उजवाडा हाडपाक सगळ्यांनी म्हाका पालव दिल्ले खातीर हांव तांचो ऋणी आसा.

ह्या पुस्तकाचें मुखचित्र म्हजो नातू बाब अमोघ प्रसाद बुडकुले हाणें काडलां, देखून ह्या पुस्तकाचें म्हाका चड अप्रूप जालां.

हांव हें पुस्तक म्हजे इश्ट श्री. गीध हांका अर्पण करतां.

**माणिकराव गावणेकार**
श्री महालक्ष्मी देवळालागीं
बांदोडे, फोंडें - गोंय.

# श्रेयार्थ्याची साधना

बुद्धाच्या जिवितांत एक प्रसंग आयला. मार विजयाचो – बुद्ध अजून 'बुद्ध' जावंक ना. गौतमूच उरला. उरवेळांतले नेरंजरा न्हंयेचे तडीर एका पिंपळा मुळांत बसून तो तपश्चर्या करता. ताका निर्वाणपद जोडपाचें आसा. स वर्सां जालीं हें पद जोडपाचो तो एका सारको यत्न करीत रावला. तागेलो हो यत्न फळादीक जावपा वेळार ज्युस्त 'मार' ताचे मुखार येवन उबो रावता आनी ताका म्हणटा, ''गौतमा, कितें आडायलां तुवें हें? तुजी गत कितें जाल्या, पळेल्या तुवें? तुज्या आंगार मास उरूंक ना. कात हाडांक तेंकल्या. पोट फाट एक जाल्या. तुका कान्त मारताली ती ना जाल्या आनी तूं मरणा धडेक पावला. कित्याक रे पापया आपणाक असो दंडणावन घेता? सोड हें तप आनी बरे भाशेन जिये. जिवीत अशें कुडीक दंडावन होगडावपा खातीर तुका मेळूंक ना. जियेवपाखातीर मेळ्ळां. सुखान बरो जिये. चडूच जाल्यार बऱ्यो करण्यो करून पुण्य जोड. हें निर्वाण-बिर्वाण कितें घेवन बसला? ''

आनी गौतम ताका जाप दिता, 'म्हाका असल्या पुण्याची इत्सा केन्ना जाली ना, गरजूय दिसली ना. म्हज्यांत भावार्त आसा, उर्बा आसा, बुद्द आसा, श्रध्दा आसा, प्रज्ञा आसा. हांव निर्वाण जोडले बगर हांगासरलो उठपाचो ना. मरणाच्या भंयान हांव कसोच फाटीं सरपाचो ना...'

मार निर्शेना. तो अदीक नेटान यत्न करता. पयलीं गौतमाक तरेतरेची हांयसां दाखयता. मागीर तरांतरांचे भंय घालता. ताका निर्वाणापसून कडेक काडपाक तरा तरा करता. पूण गौतम बदना. उपरांत उपाय नासून मार ताचेर आपणालें पुराय सैन्य घेवन घुरी घालता.

गौतम शांत आसा. तो माराक म्हणटा, "मारा, तुज्या सैन्याच्यो सगळ्यो पळटणी हांवें बेस बऱ्यो पळयल्यात. मनशाच्या आंगांक (इंन्द्रियांक) सुखावपी विलास ही तुजी पयली पलटण. अरति (वाज, उबगण, कंटाळो) ही दुसरी. भूक आनी तान तिसरी. तरांतरांच्यो इत्सा, वान्सा, तानो (तृषाणा) ही चवथी. आळसाय पांचवी. भय सवी. दुबाव सातवी, गर्व आठवी, मान-भौमान णववी आनी मनशाक आपणालीच तुस्त अशी दुसऱ्याली निंदा करूंक शिकोवपी नामना धावी. संवसारांतले सगळे श्रमण ब्राह्मण तुगेल्या त्या सैन्याक भियेवं, हांव भियेना. हांव भिजूड न्हय. जे वाटेन हांव मुखार वतां तीं भित्र्यांची न्हय, शुरांची वाट. मातयेच्या बुडकुल्याचेर फातर मारतकूच तो फट्ट करून फुटचो तशें, पळे तुजें सैन्य हांव परतून लायतां.'

माराचें गौतमा आड कांयच चलना. निर्शेवन तो आपणालें सैन्य घेवन परतता. तेच रातचो गौतम 'बुद्ध' जाता.

गौतमान आपणाले हे वाटेक 'शुरांची वाट' म्हळ्या. शुरांचीच वाट ही. लेच्या-पेच्याची न्हय. हे वाटेन वचपी मनशाक सगळ्यांत पयलीं आपणालें मस्तक ओपचें पडटा. फकत घरदार, बायल-भुरगीं, सत्ता-संपत, मान-भौमान न्हय. मस्तकूच दिवच उडोवचें पडटा. प्राण ओंपचो पडटा. ही तयारी नासत जाल्यार हे वाटेन वचपाचें नांव लेगीत ताणें घेवचें न्हय. गुजराती संत कवी प्रीतमदास म्हणटा,

"हरिनो मारग छे शूरानो, नहीं कायरनुं काय जोने
परधम पहेलुं मस्तक मूकी, वळती लेवुं नाम जोने."

सादी मोतयां मेळयतलो जाल्यारूय तुका दर्यांत उडी घेवंची पडटा. जिवार उदार जावन दर्याच्या तळा मेरेन वचचें पडटा. घडये परत वयर येवंक पावचों ना, असें थारावनूच देंवचें पडटा. मागीय मोतयांपरसूय जें मोलादीक तें तुका वयर फुक्या सवाय कशें मेळटलें?

"सिंधु मध्ये मोती लेवा. मांही पडया मरजीवा जोने
तीरे उभा जुए तयासो, ते कोडी नव पाये जोने.
हे वाटेक उभा जुए तयासो, ते कोडी नव पाये जोने."

हे वाटेक प्रीतम फक्त शुरांची वाट म्हणून वोगी रावंक ना. तो हाका उज्यांत हुलपावन घेवपाचीय वाट म्हणटा. उज्यांत उडी घे, तुज्यो सगळ्यो वान्सा, सगळ्यो

तानो, सगळ्यो ओडी, सगळीं सुखां हुलपावन उडय. उपरांतूच तुका महासूख म्हणटात तें कितें तें समजतलें.

प्रेमपंथ पावकनी ज्वाळा, भाळी पाछा भागे जोने
मांही पड्या ते महासुख माणे, देखनारा दाझे जोने
कबीरूय म्हणटालो –

**आगे आगे दावा जले रे पीछे हरिया होय ।**
**हरिरस महेंगा सो पियो धडपे सीस न होय ।।**

संवसारांत धर्म–मार्ग कितलेय आसूं, श्रेयार्थ्यांक ते घेवन वतात एकेचकडेन, एकाच मुक्कामार. श्रेयार्थी खंयचेय वाटेन वचूं, ताका अडचणी सोंसच्यो पडटात, त्योय एकेच तरेच्यो, कश्ट काडचे पडटात तेवूय एकेच तरेचे, झुजचें पडटा तेंवूय त्याच 'पातकां'कडेन – तांच्यांतल्या त्याच त्याच दुबळ्या आंगाकडेन, निर्वाण–मार्गा पसून बुद्धाक कडेक काडूंक आयिल्ल्या 'मारा'च्या त्या पलटणींकडेन. ह्या पुस्तकांतलो भक्तराज तेच वाटेन गेला. जे वाटेन बुद्ध गेल्लो, सूफी संत अल्वार गेल्लो. जे वाटेन संवसारातंले सगळे परमार्थ मार्गी mystic गेल्यात, तांकांय त्योच अडचणी सोसच्यो पडल्यात, तेच कश्ट काडचे पडल्यात. 'मारा'च्या तेच पलटणींकडेन झुजचें पडलां आनी निमाणें ते त्याच मुक्कामार पावल्या, जंय संवसारांतले सगळे श्रेयार्थी पावल्यात. फरक इतलोच की ह्या मुक्कामाक हेरांनी आपापणालें परंपरेंत चलत आयिल्लीं नांवाय दिल्यांत, हाणे आपणाले ख्रिस्ती परंपरेंत चलत आयिल्लें Heavenly City हें नांव दिलां.

जॉन बुनियान हो सतराव्या शतमानांतलो एक इंग्रेज श्रेयार्थी. 1666 त ताणे Grace Abounding नांवाचें एक पुस्तक बरयल्लें. तातूंत ताणें आपणाले अध्यात्माच्या मळावयले विचार आनी अणभव विस्तारान बरयल्यात. बारा वर्सा उपरांत, 1678 त ताणें Pilgrim's Progress नांवांचें आनीक एक पुस्तक बरयलें. हे तरेची अध्यात्म विशयावयलीं दुसरीं कितलीं–शीं पुस्तकां उजवाडा आयिल्लीं. खासा बुनियानान लेगीत सुमार वीस पुस्तकां बरयल्लीं पूण The Pilgrim's Progress पुस्तक उजवाडा येनाफुडें लोकांनी उडयो मारून तें घेतलें. त्या वर्सा ह्या पुस्तकाची निवळावन वाडयल्ली दुसरी आवृत्ती भायर सरली. दुसऱ्या वर्सा तिसरी हे भाशेन एकार एक आवृत्यो भायर सरत रावल्यो. स वर्सां भितरूच ताची धावी आवृत्ती

उजवाडाक आयिल्ली. ते मुसतींत उजवाडा आयिल्ल्या अध्यात्म विशया वयल्या हेर सगळ्या पुस्तकांक लोक विसरले. खासा बुनियानाचींय बाकिचीं इतिहासजमा जालीं. पूण तागेलें The Pilgrim's Progress अजुनूय 'चलता'. अजुनूय लोक हें पुस्तक वाचतात. इंग्रजीं बरपावळींतली बऱ्यांतलीं बरीं वीस पुस्तकां वेंचून काडचीं थरलीं जाल्यार आयजूय लोक ह्या पुस्तकाचो तातूंत आसपाव करतात. हें पुस्तक इतलें लोकप्रिय कित्याक जावंक पावलें आनी इतलें तिगून कित्याक लागून उरलें? दोन कारणां सांगतात.

1 - एक रूपक म्हूण बुनियानान हे पुस्तक बरयल्लें आसलें तरूय तांतूंतले अणभव तागेले खाशेले आशिल्ले. भक्तराज खासा तोच आशिल्लो. ताचीच ही आत्मकथा म्हूण लोक ताचेकडेन पळेताले आनी

2 - पुस्तकाची भास साहित्यकारांची अलंकारीक भास नाशिल्ली, लोक उलयतात ती सोंपी, सादी घरगुती भास आशिल्ली.

बुनियान हेच भाशेंत लोकांकडेन उलयतालो आनी हेच भाशेंत आपणाले सेर्मांव सांगतालो.

The Pilgrim's Progress हें पुस्तक आयज फकत इंग्रजी साहित्यांतलें पुस्तक उरूंक ना. विश्वसाहित्यांतलें एक मोलादीक पुस्तक जावन बसलां.

मुदलांतल्या तिनशें पानांच्या ह्या म्हत्वाच्या पुस्तकाचो कोंकणींत आपरोस काडून माणिकबाब गावणेकारांनी आमच्या मुखार दवरला. माणिकबाब स्वताच एक श्रेयार्थी जाल्ल्यान तांकां तो बेस बरो सादला. बुनियानाच्या अणभवांकडेन ते एकरूप, एकजीव जाल्ल्याची जाणीव उतरा कणकणी वाचप्याक जाता.

ह्या पुस्तक रुपान कोंकणी बरपावळीची माणिकबाबांनी भौ मोलादीक सेवा केल्या.

माणिकबाबालें हें पुस्तक वाचून कोणाकूय ख्रिस्ती धर्म–साधना समजून घेवपाची इत्सा जाली आनी ती समजून सगळे धर्म–मार्ग खरे, सगळे बरे, सगळे आमकां एकाच मुक्कामार घेवन वचपी जाल्ल्यान सगळे 'आमचे' अशें दिसपाक पावलें जाल्यार माणिकबाबांले हे साहित्य–सेवेचें भांगर जाल्लेवरी जातलें आनी माणिकबाबाक जातली तिच्याकूय चड खोस म्हाका जातली.

भक्तराज

माणिकबाबाच्या ह्या पुस्तकाकडेन हांव फकत 'साहित्य' म्हूण पळेना अध्यात्माच्या मळावयलो एक 'गायड' एक 'सांगाती' म्हूण पळेतां आनी - असलो एक 'सांगाती' तांणी आमकां दिलो म्हूण तांचे मनापासून अभिनंदन करतां.

**रवीन्द्र केळेकार**
प्रियोळ
13-10-1994
(विजय दशमी)

# भक्तराज

एक गांव आशिल्लो. खूब व्हडलो. थंय एकलो मनीस रावतालो. ताचें नांव सत्यवान. तो आशिल्लो खूब गरीब. पूण देवाक भिवपी, धर्मान वागपी. देवाची पुजा केलेबगर जेवी नाशिल्लो. आयज ताचो जीव उबगल्लो. कित्याक काय? तो पळे! तो पळे! त्या झाडा सकयल तो उबो आसा. आंगार पिंजिल्ली मुस्तायकी, हातांत एक पुस्तक आनी ताचे फाटीर कितें आसा काय? कसले तरी वजें आसा व्हय? ताणें पुस्तक उगडलें. कितें तरी वाचलें. आवयस! तो रडूंक लागलो. अशें कितें आसा काय त्या पुस्तकांत? ताचें आंग पळे कशें शिरशिरता! तो मोटच्या मोटच्यान रडूंक लागलो. तो रडत म्हणूंक लागलो. 'हांव आतां कितें करूं?' तो तडक घरा गेलो. ताणें आपले बायलेक कांयच सांगलेंना, भुरग्यांक कांय सांगलेंना. वोगीच तांका ख्यास्त कित्याक? पूण तागेली ख्यास्त उणी जाली ना. ताच्यान सोसूं नज जातकूच ताणें बायलेक आपयलें आनी सांगलें, 'आगे! म्हज्यान आतां हें सोसूं नज. पळेलां! फाटीर केदें वजें आसा तें! कशें सोसूं हांव हें वजें? आतांच हांवें मळबांतल्यान देववाणी आयकल्या. हो गांव आतां जळून गोबोर जातलो. इंद्राचे लोक येतले आनी हुलपावन उडयतले. हो गांव सामको वायट. आनी... कशें सांगूं तुका? मागीर तूं, हांव, म्हजीं भुरगीं आमी सगळीं मरतलीं. हातुंतल्यान कितें तरी वाट काडूंक जाय. अशी वाट की आमी सगळीं सुखी जातलीं. आनी तो परत रडूंक लागलो. तागेलें रडप आयकून बायलेक कितें करचें तें कळ्ळेंना. 'तकलेत कितें घेतला हांणी कोण जाणा!' तिका दिसलें. भुरगीं य बापायक पळेत रावलीं. बापूय कितें म्हणटा तें

तांकां कळना जालें. फाटीर तर कसलेंच वजें तांका दिसनाशिल्लें. सावित्रीचो तर पयलीं विस्वासच बसलो ना. 'भुताची बी बादा ताका जावंक ना मू?' हालीं अशेच करतात ते. न्हिदय ना सारके. जागरणाक लागूनच अशें करता आसतले. आतां पयलीं तांकां सारके न्हिदयतां.' बेगी बेगीन ती उठली. सत्यवानाक भुरग्याभशेन हाताक धरून तिणें न्हिदयलो पूण ताका स्वस्तकायेन न्हिदच येना जाली. तो मदींच उठ्टालो, परतून न्हिदतालो. दिसापरस रात ताची वायट वताली. न्हिदेंत सुस्कारे सोडटालो. मदींच उठून एकदम रडूंक लागतालो.

सकाळ जाली. सत्यवान आतां बरो आसतलो काय? सावित्री बेगीनूच उठून तागेले कुडींत गेली. पूण कालचे परस आयज तो सामकोच निर्शेल्लो आशिल्लो. रातीं कितें कितें जालें हेंच तो तिका सांगूंक लागलो. सावित्रीक वायट दिसलें. सावित्रीन आनी तिच्या भुरग्यांनी ताचेकडेन उलोवपाचेंच सोडलें. ताचे तकलेंतले पिशेंपण वचचें देखून ताचेकडेन ती धड उलयना जालीं. करतां करतां ताचेबरोबर तुसडेपणान वागूंक लागलीं. केन्नाय रागान, केन्नाय तुसडेपणान, केन्नाय उलोवपाचें ना अशे रितीन ताचेकडेन वागूंक लागली. पूण ताचेर कांयच परिणाम जालो ना. उरफाटें तो कुडींतच बसून रावूंक लागलो. कोणाकडेन उलयना जालो. एका सारको देवाची प्रार्थना करूंक लागलो. बायलेची आनी भुरग्यांची ताकाच काकुळट दिसूंक लागली. हालीं तो एकलोच भोवूंक लागलो. केन्ना ह्या शेतांत जाल्यार केन्ना त्या मळार तर केन्ना ह्या रूखा सकयल बसून प्रार्थना करतालो. अशेच काय दीस गेले.

असोच एक दीस तो शेतांतल्यान वतालो. हातांत नवें पुस्तक आशिल्लें. ताच्या तोंडार रसणाय नाशिल्ली. मनांतल्यान सामको निरशेल्लो. तशेंच ताणें पुस्तक उगडलें आनी तें वाचनू तो हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागलो. ताणें म्हळें, 'हे देवा, हांव आतां कितें करूं?' ह्या अरिश्टांतल्यान म्हजी कशी सुटका करून घेवं? अशें म्हणून तो हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागलो. जशें कितें ताका खंय तरी वचूंक जाय आशिल्लें. पूण वाट खबर नाशिल्ली. ताच्या मनाचो सामको घुस्मटमार जाल्लो. आनी तसोच तो उबो आशिल्लो. तो पळे ताचेवटेन कोण तरी येता! ताका भांगराचीं पांखां आसात. भांगराचो मुकूट घालून कितलो बरो दिसतालो? कोण आसत काय तो? हय. देवदूतच तो! सत्यवाना सरीं येवन ताणें म्हळें, 'तूं कित्याक रडटा?' सत्यवानान म्हळें, 'सायबा, हांव हें पुस्तक वाचतां. तांतूत बरयलां की म्हजो अंत वायट रितीन जातलो आनी देव म्हाका व्हड ख्यास्त भोगयतालो. पूण... म्हाका हें जाल्लें नाका.' देवदुतान

म्हळें, ‘जीण ही अशीच तरेकतरेच्या दुख्खान भरल्या. तेपरस मरण बरें न्हय?’ सत्यवानान म्हळें, ‘पूण म्हजे फाटीर हांवें केल्ल्या पापांचे केदें व्हडलें वजें आसा जाणा? हे खातीर नरकांतूच वचचें पडटलें. हाकाच लागून म्हाका रडूंक येता.’ देवदुतान म्हळें ‘मागीर इतले दीस घरांत बसून कितें करतालो?’ सत्यवानान म्हळें, ‘हांव कितें करूं, खंय वचू, हेंच म्हाका कळनाशिल्लें.’ देवदुतान बोल्सांतल्यान एक कागद काडलो आनी तो सत्यवानाक दिलो.

‘येवपी अरिश्टांतल्यान सुटका जाय जाल्यार ह्या शारांत वच.’ अशें त्या कागदार बरयल्लें आशिल्लें. सत्यवानान तें वाचलें आनी ताणें देवदुताक म्हळें, ‘आगा, पूण हांव खंय आनी कसो वचूं?’ देवदुतान एका सड्यादिकेन बोट दाखयलें आनी म्हळें, ‘सत्यवान, तुका तो व्हड दरवटो दिसता?’ ‘ना.’ ‘अजापान सत्यावानान म्हळें. ‘तो उजवाडाचो झोत तुका दिसना...?’ तो तरी दिसता न्हय?’ देवदुतान विचारलें, ‘हय हय’ सत्यवानान म्हळें. मागीर तो उजवाड दोळ्यां सामकार दवर आनी नीट वच. म्हणटकच तो दरवटो दिसतलो. थंय पावतकच दरवटो खटखटाय. मागीर कितें करपाचें तें तुका आपशींच कळटलें.

अशें म्हणून देवदूत अदृश्य जालो. देवदुतान सांगिल्लें आयकून सत्यवान धांवत सुटलो. तो धांवता हें ताचे बायलेच्या लक्षांत येना फुडें ती व्हडल्यान आड्डली. ‘आगा, खंय धांवतात? रावात, रावात. पळेयात. आमकां एकटुकीं दवरून वचून नाका. कोणी तरी धांवात आनी तांका थांबयात. ताची भुरगीं ताचे फाटल्यान धांवूंक लागलीं. भुरग्यांनी म्हळें, “बाबा, बाबा आमकां सोडून वचूं नाकां.” पूण तो धांवत आशिल्लो. कांयच आयकूंक येवचें न्हय म्हूण ताणें कानांत बोटां घालीं आनी तो नेटान धावूंक लागलो. धांवतां धांवतां ताणे म्हळें ‘अमर जीण हांव जियेतलों.’ अशें म्हणटा आसतना तो फाटीं फुडें पळे नाशिल्लो. तो फक्त धांवतालो. धांवत धांवत तो सड्याचे मदीं पावलो.

पूण बायलेचें आड्डप सुरूच आशिल्लें. शेजारी लेगीत घराभायर आयले. सत्यवानाक तांणी पळेलो. तो धांवता तें पळोवन कांय जाणांनी ताच्यो भगल्यो केल्यो. कांय जाणांनी ताक भंय घालो.कांय जाण ताका परत आपोवंक लागले. दोग शेजारी तर ताका परत हाडुंकच जाय अशें म्हणटाले. ताका धरून हाडूंक जाय अशें ते आड्डत आशिल्ले. ते आड्डूनच रावलेना तर ताचे फाटल्यान धांवत आशिल्ले. त्या दोगांमदल्या एकाचें नांव ‘हट्टी’ आनी दुसऱ्याचें नाव ‘मवाळ’. दोगांनी धांवत

धांवत वचून सत्यवानाक धरलोच. सत्यवानाक अजापच जालें. ताणें विचारलें, 'इश्टांनो' कित्याक आयल्यात?' इश्टांनी म्हळें, ''तुका परत व्हरपाक आमी आयल्यात.'' सत्यवानान म्हळें, ''तें जावपाचें ना. तुमी रावता तें शार 'नासाडी शार'. तें एक दीस हुलपून गोबोर जातलें. थंय कोणच सुखी जावपाचो ना. इश्टांनो, तुमीय म्हजे बराबर येयात.''

हट्टीन म्हळें, 'कितें? म्हज्या इश्टाक आनी म्हज्या सुखांक सोडून तुजे बराबर येवं?' सत्यवानान म्हळें, ''हय. आरे, तुज्या शारांत कसलें सूख आसा?'' हांव जंय आतां वतां थंय अमर सूख आसा. थंय केन्नाच कोण त्रास दिवंचो ना. थंय देव आमचे बराबरच आसता. कोण कोणाची टवाळी थंय करचे नात. सगळे लोक विस्वासान वागतले. थंय कोणच दुख्खी आसचो ना. तुमीं म्हजे बराबर येयात.' हट्टीन म्हळें, ''थंय आनीक कसलें सूख मेळटलें तुका?''

सत्यवानान म्हळें, ''तें सूख अमर आसा. तें सूख निर्मळ, पवित्र आनी केन्नाच ना जायना, अशें ह्या पुस्तकांत बरयलां.'' ''हट्टीन म्हळें, 'शे!, उडय तें पुस्तक भायर. तूं आमचे बराबर येता काय ना हें उलय.'

सत्यवानान म्हळें ''ना. हांव केन्नाच येवंचोंना. हांवें तसो सोपुतच घेतला.'' हट्टीन म्हळें, ''आरे इश्टा, मवाळ! चल, तो येना जाल्यार नाका येवं. या आमी घरा. हाज्या तोंडाक लागपांत कांयच अर्थ ना. आरे तो पिसोच जाला. ताका दिसता आमी सगळे विरार जाल्यात. चल, या बेगीन घरा!''

मवाळान म्हळें, ''इश्टा , रागार जावं नाका सत्यवान जें सांगतां तें खरें आसा अशें म्हाका दिसता. हांवेंय ताचेबराबर वचचें थारायलां.'' हट्टीन म्हळें, ''कितें?' तूय ताचे भशेन पिसो जालो? आरे, तो पिसो, तुका खंयचे खंय व्हरतलो! चल, या आमी परत.''

**सत्यवान** : आरे! अशें कितें करता? तूंय यो मरे मवाळाबराबर, हांवें आतां सांगलां तें सगळें थंय आसा. आनिकूय थंय कितलेंशेंच आसा, येयात म्हजे बराबर. वता वता हांव सगळें सांगतां तुमकां. आरे, विस्वास ना म्हजेर तुमचो? मागीर तुमीच ह्या पुस्तकांत वाचात आनी खात्री करात. पळे तरी, खासा आपल्या रगतान ताणें हें पुस्तक बरयलां'.

मवाळान म्हळें, ''आरे हट्टी, तूं म्हजें आयक. म्हाका आतां खरें कितें तें

कळ्ळां. हांव तर बाबा सत्यवानाबराबरच वतलों. कितें जाता तें जावं. पूण इश्टा, तुका खंय वचपाचें ती वाट सारकी खबर आसा मरे?' सत्यवानान म्हळें 'आत्तांच म्हाका देवदूत मेळ्ळो. ताणेंच म्हाका हें वाटेन वचपाक सांगलां. फुडें एक व्हडलें दार लागतलें. थंय कोण तरी आसा. तो खंय दिस्त वाट दाखयतलो."

**मवाळ** : 'चला या तर. मागीर आमी वाटेक लागुया. रावून कांयच उपेग जावंचो ना.' असें म्हणून दोगूय वाटेन फुडें वचूंक लागले. हट्टी मुळचोच हट्टीच आशिल्लो. तो मनांत म्हणूंक लागलो. त्या पिशाबराबर इश्टागत कोणें करची न्हय हेंच खरें. हांव एकलोच घरा वतलों. तातूंत व्हडलें कितें? तो परत घरा वचूंक लागलो.

हें वटच्यान मवाळ आनी सत्यवान गजाली करीत वताले. निळेंच मळब पळोवन तांकां खात्री जाताली. केन्नाय विसव घेवपाक ते झाडा सकयल बसताले. तांचें उलोवप बरें नेटार आयिल्लें. सत्यवानान मवाळाक म्हळें, "बरें जालें. तुका म्हजें सांगप पटलें. तूं म्हजे बराबर आशिल्ल्यान म्हाका चडच खोस जाली बाबा. इश्टा, त्या आमच्या शाराची नासाडी जातली हें जर त्या हट्टीक कळिल्लें तर तो परत कित्याक वतलो आशिल्लो?' मवाळान म्हळें "तें खरें रे. पूण आमी कितें करतले? इश्टा, म्हाका सांग. आमी जंय वतले थंय आमकां कितें कितें मेळटलें रे? आनी तें कशें मेळोवप आनी तांचो उपेग कसो करप? म्हळ्यार थंय वतकूच घुस्पागोंदळ आनीक जावं नाकां." सत्यवानान म्हळें, "राव. तुका सगळें सांगतां. ताकतीक करूं नाका पळोवया. पूण कशें सांगूं तुका?' म्हाका उतरांच उणी पडटात. मनांतल्यान म्हाका सगळें खबर आसा, पूण कशें सांगचें तेंच कळना. हांव अशें करतां तुका ह्या पुस्तकांतल्यान वाचून दाखयतां."

**मवाळ** : म्हाका एक दुबाव येता. आरे ह्या पुस्तकांत जें बरयलां तें खरें कित्यावयल्यान ?'

**सत्यवान** : आरे, फटी उलोवंकच जावंचेना अशा मनशान तें बरयलां, तीच तर मजा आसा.

**मवाळ** : बरें आसा. कितें मेळटा अशें म्हण्टालो तूं?

**सत्यवान** : आमी त्या अमर राज्याचे रावपी जातले. आमी अमर जीण जियेतले, कोणाचो त्रास आसचोना. आनी हें पळे, थंय मरणाचो भंय आसचोना. सदांच,

सगळ्या काळार सुखच सूख. समजलें मरें.'

**मवाळ** : बरें, सांगत राव. आनीक कितें कितें मेळटलें थंय?'

**सत्यवान** : आरे, आमचें नशिबच थंय फळफळटलें. आमकां थंय भांगराचे मुकूट, जरी कपडे मेळटले. हे कपडे अशे तशे न्हय, सूर्याभशेन लकलकीत! आनी आमी सामके तेजिश्ट दिसतले ते मुस्तायकेन.

**मवाळ** : आरे वा! मागीर तर बरेंच जातलें. बरें, आनीक कितें?

**सत्यवान** : थंय रडपाचो प्रसंगच आमचेर येवचोना. जंय थंय खोशी, खुशालकाय, आनंद. कित्याक जाणा तूं? थंयचो धनी तर खुबच मायेस्त आसा. कोणाच्याच दोळ्यांत दुकां येवंकूच दिना तो.

**मवाळ** : पूण इश्टा, थंय आमकां कोण कोण मेळटले? त्या राज्याचे लोक कशे आसतले?

**सत्यवान** : थंय आमचे सेवेक देवदूत आसतले. तांकां पळोवन तुका अजाप जातलें. आनी हें पळे, आमचे पयलीं हजारांनी लोक थंय पाविल्ले आसात. तांचो सांगात आमकां मेळटलो. ते लोक थंय दुसऱ्याक दुखवचेनात. ते मायेस्त आनी पवित्र आसात. जण एकलो देवाचे आज्ञेन वागतलो. कांय जाण्टेले वडील लोक थंय आसात. तांकां देवान मुकूट दिल्यात. ते मुकूट हिरे, माणकां, पाचू हांणी मढयल्यात, अप्सरांकडेन भांगराच्यो विणा दिल्यात. आनी हें पळे, हे धर्तरेचेर दुश्ट लोकांनी बऱ्या लोकांक छळ्ळा, कोणाक जितेच हुलपयल्यात, कोणाक सुळार मारल्यात, कोणाक दोंगरावयल्यान धुकलून दिल्यात. कित्याक जाणा? दुसऱ्याच्या कल्याणाखातीर झगडले म्हूण. तुका खबरच आसा जातली की कोणाक शिंवाच्या तोंडांत दिलां, कोणाक हत्तीच्या पांया पोंदा दिलां. हे सगळे लोक आमकां थंय मेळटले. देवान तांका अमृत दिला. थंय तें सुखी आसात.

**मवाळ** : हें आयकून म्हाका केन्ना काय थंय पावन जालां. पूण कितें रे, खरेंच हें सूख आमकां मेळटलें मरे? आमी त्या सुखाचे कशे कितें वांटेकार जातले?

**सत्यवान** : ह्या पुस्तकांत तशें सामकें बरयलां न्ही रे? ते भशेन आमी जर वागले तर देव आमकांय खात्रीन दितलो.

**मवाळ** : हांव तुजे बराबर आयलों तें बरें जालें इश्टा. हें सगळें आयकुनच

म्हाका खोस जाली. चल आमी बेगीन बेगीन वचूं या.

**सत्यवान** : म्हजे फाटीर पळे केदें वजें आसा. पळयलां मरें तुवें? देखून म्हाका बेगीन चलूंक येना.

अशें उलयत उलयत ते चलताले. तांकां वेळेचें भान नासलें. उलोवप सामकें रंगार आयिल्लें. तांचें ध्यान आनीक खंयच नाशिल्लें. तो पळे! तांचे सामकार केदो मोटो फोण आसा तो! आरे बाबा, कितलो रेबो आसा त्या फोणांत! चोंयवटेन झाडांझुडपां आसात पूण तांचें थंय लक्षच ना. ते पळे त्या फोणाकडेन पावले ते. आरेंच्चा! पडटले काय कितें त्या फोणांत. आनी पळे पडलेच ते फोणांत! जतनाय घेवंक नाशिल्ल्याचो हो परिणाम. त्या फोणाचें नांव खबर आसा तुमकां? त्या फोणाचें नांव आशिल्ले निरशेणेचो फोण. दोगाचेंय आंग मातशें खरवडलें. सगळें आंग तर रेब्यान बुडबुडून गेलें. आनी फोण तरी कितलो खोल तो? तांचे जमनीक पांय लागनात इतलो. सामके रेब्यांत बुडबुडून गेले आनी सत्यवानाचे हाल तर पळोवंक नाका. ताचे फाटीर व्हडलें वजन आशिल्लें न्हय? ते खातीर तर तो तांतूंत बुडपाकच लागलो. अशी दोगांयचीय आवतीकाय जाली.

**मवाळ** : आरे इश्टा, तूं खंय आसा?

**सत्यवान** : तेंच तर म्हका कळूंक ना.

हें आयकून मवाळाक रागच आयलो. ताणे रागान सत्यवानाक म्हळें, ''आरे, तूं आतां मेरेन सुखाची व्हडविकाय गायतालो. तें हेंच काय कितें रे? आनी सूरवेकच जर अशें आसा जायत तर त्या राज्यांत पावमेरेन कितें जातलें हें सांगपाची गरज ना. तुजें सूख तुकाच मेळूं. तूंच चल त्या राज्यांत. हांव वतां म्हज्या घरा.'' अशें म्हणून त्या फोणांतल्यान भायर येवपाखातीर तो धडपडूंक लागलो. धडपडत, धडपडत तो एके वटेनच्यान भायर सरलो. ते वटेनच्यान ताचें घर आशिल्लें. फोणांतल्यान भायर सरतकूच ताणें घराकडेन धांव मारली. सत्यवानाकडेन पळेंले लेगीत ना.

आनी सत्यवान बावडो फोणांतल्यान भायर सरपाखातीर धडपडत आशिल्लो. ताका घराकडेन वचचें अशें दिसलें ना, मवाळाक घरा वतना ताणें पळेले.. पूण तो कितें उलयतलो? ताका तर त्या व्हडल्या दरवट्याकडेन वचपाचें आशिल्लें. पूण- फोणांतल्यान भायर येवप ताका जमना जालें कित्याक तर ताचे फाटीर केदें व्हडलें वजें आशिल्लें न्ही? तरी तो सारको यत्न करीत आशिल्लो. देवाची प्रार्थना करीत

आशिल्लो. आनी तो पळे ताचेकडेन एक मनीस येता. देवदूत काय तो? न्हय. पूण सत्यवानाक तो देवदूताभशेन दिसलो. त्या मनशाचें नांव आशिल्लें 'पालव दिवपी'. दुसऱ्याक पालव दिवप हें ताचें काम. ताणें सत्यवानाक विचारलें, "आरे, तूं हांगां कितें करता?"

**सत्यवान** : आरे, कांय वेळापयलीं म्हाका देवदूत मेळ्ळो. ह्या रस्त्यान वच अशें म्हाका ताणें सांगलें. ह्या रस्त्यान वतकूच म्हाका व्हडलो दरवट दिस्टी पडटलो. थंयच्यान फुडें कशें वचप तें थंय म्हाका सांगतलो आशिल्लो. देखून हांव हे वाटेन वतालों आनी वता आसतना ह्या फोणांत पडलो.

**पालव दिवपी** : हें पळे, ह्या फोणांत सोपणां आसात. त्या सोपणां वयल्यान दुसरे-वटेनच्यान वचपाचें आसता. तीं सोंपणां कशी पळेली ना तुवें?

**सत्यवान** : आमच्या शारासाकून पयस वचपाची म्हाका ताकतीक जाल्ली. म्हाका भंयच दिसतालो त्या शाराचो. देखून हांव धांवत आशिल्लों. धांवता आसतनाच पडलों.

**पालव दिवपी** : तुजो हात दी म्हज्या हातांत. सत्यवानान आपलो हात ताच्या हातांत दिलो. पालव दिवप्यान ताका ओडुनूच फोणांतल्यान भायर काडलो.

**सत्यवान** : देव तुजें बरें करूं.

**पालव दिवपी** : आतां बरें दिसता मरे तुका? बस मातसो आतां.

**सत्यवान** : पूण म्हाका एक सांग, आमच्या नासाडी शारांतल्यान त्या व्हडल्या दरवट्याकडेन लोक केन्नाय वतात मरे?

**पालव दिवपी** : वतात तर. कितलेशेच जाण!

**सत्यवान** : मागीर हो फोण पुरून कित्याक उडोवंक ना? तशें केल्लें जाल्यार आमचे सारक्या गरीब प्रवाशांक त्रास जावंचो नाशिल्लो.

**पालव दिवपी** : आरे, मात लेगीत सारको करूंक येना असो हो रस्तो. तांतूंत तो रेबो कसलो आसा, तुका खबर आसा? पळे मातशें त्या रेब्याकडेन. सगळो गाळ सांचून रावला थंय. हो सगळो गाळ खंयच्यान येता दिसता तुका? लोकांच्या पांयांनी ही घाण एकठांय जाता. देखुनच ताका निरशेणेचो फोण म्हणटात.

**सत्यवान** : पूण कांय पातकी लोक बऱ्या मार्गाक लागतात तेन्ना हो गाळ

व्हांवून वचना?

**पालव दिवपी** : कांय बऱ्या मार्गाक लागतात हे खरें. पूण केन्ना केन्नाय तांकां पयलिंच्या दिसांची याद जाता, कांय वेळार तांकां भंय दिसता, मनांत दुबाव तयार जातात. निरशेणी पदरांत पडटा. आनी हे सगळे वायट विचार, वलय, दुबाव निरशेणी ह्या फोणांत एकठांय जातात. आनी हे खातीरच हो फोण असो जायत आसा.

**सत्यवान** : पूण हाका आनीक कांयच मार्ग ना? देवाक हें कशें आवडटा?

**पालव दिवपी** : देवाक हातूंत आनंद थोडोच दिसता! आरे, देवान बऱ्या बऱ्या लोकांक हांगा धाडल्यात कित्याक? फोण पुरोवचो म्हूण. हजारांनी कामगार धाडले. पूण कोणाक पुरोवंक जायना. 20 हजार गाडयो हांगा माती ओतली. ती माती लेगीत वेगळ्या देशांतल्यान हाडली, कळ्ळें मरे? बरी माती आशिल्ली ती. पूण कांय उपेग जालो ना. निरशेणेचो फोण आसा आनी तो तसोच उरतलो.

**सत्यवान** : पूण अशें कित्याक?

**पालव दिवपी** : लोकांक देव खंय जाय? देव तांकां नाकाच. तरी पूण देवाक भक्ताची काळजी. देखूनच हांगा सोपणां केल्यांत. पूण हवा वायट जाली म्हणटकच खुबच रेबो व्हांवन येता. तेन्ना हीं सोपणां सारकीं दिसनात आनी कांय मनीस तर मात लेगीत सोपणांकडेन लक्ष दिनात. पूण सत्यवान, हे मातशे त्रास सोंसले तर फुडें खूब सूख मेळटलें. एकदां काय त्या व्हडल्या दाराकडेन कोणय पावलो म्हणजे मागीर फुडली वाट सामकी सोपी. बरें, देवाचेर भरवंसो दवर आनी फुडें वच. देव बरें करूं.' अशें म्हणून पालव दिवपी दुसरे वटेच्यान गेलो आनी सत्यवान फुडें एकलोच वचूंक लागलो.

हेवटच्यान 'मवाळ'तोमेरेन घरा पावले. ताचे शेजारी पाजारी ताचे भोंवतणी एकठांय जाले. काय इश्टांनी म्हळें, "बरें जालें तूं परतून आयलो तें!" तर कांय जाण म्हणूंक लागले, " खरे म्हळ्यार तुवें त्या सत्यवाना बराबर वचपाचीं पिशेपणांच केलीं. तुका रे कोणें सांगल्यो ह्यो नाका आशिल्ल्यो कटकटी?" तर आनीक कांय जाण म्हणूंक लागले, "आरे तूं सामकोच भिवकुरो मरे. एक फावट तूं गेल्लो जाल्यार, मातशीं आडमेळीं आयलीं म्हूणन सोडून दिवप?" अशे तरेन कोणें अशें आनी कोणें तशें ताका तरातरांनी विचारलें. पयलीं पयलीं ताका मातशें वायट दिसलें. पूण

कांय दिसांनी तो तें सामकें विसरून गेलो. लोकय कांय दिसांनी मवाळाच्यो गजाली विसरून गेलो. मागीर त्या लोकांनी सत्यवानाची फकाणां मारपाक सुरवात केली. अशे रितीन मवाळाचे दीस वताले.

सत्यवान मात एकलोच वतालो. ताची ईश्वराचेर अपार श्रद्धा आशिल्ली. अटळ निश्टा आशिल्ली. तो एक एक पावल घालीत वतालो. देव ताका तो भांगराचो दीस दाखयतलो अशी ताका खात्री आशिल्ली.

पूण इतले म्हणसर ताणे पयस कोणा एकाक तरी पळेलो. कोण तरी ताकाच मेळपाक येतालो. तो कोण आसत हें ताका समजलें ना. सवकासायेन तो फुडें येवपाक लागलो. आनी जंय दोन रस्ते एकठांय जाताले थंय सत्यवान आनी तो एकामेकांक मेळ्ळें. त्या मनशाचें नांव आशिल्लें 'धोरणी'. धोरणी मनीस हो विद्वान आनी शाणो आशिल्लो. धर्तरेचेर कशें वागचें हें तो बरें जाणा आशिल्लो. कोणाचें खंय चुकता हें ताका बेस बरें खबर आशिल्लें. तो बरे विचार करपी आशिल्लो. सत्यवान नासाडीच्या शारांत रावतालो. जाल्यार ताचे लागींच्या शारांत हो धोरणी मनीस रावतालो. त्या शाराचें नांव आशिल्लें 'कर्तृप कुशळकाय' तो गांव खूबच व्हडलो आसलो. सत्यवान तागेलें घर सोडून गेलो हें ताका खबर आशिल्लें. सत्यवान गांव सोडून गेला म्हणपाचें जो तो उलयत आशिल्लो. ताच्या गावांत तर बोवाळ जाल्लो. ते खातीर धोरणी मनीस सत्यवानाक दिस्त वळखतालो. ताचें कारण म्हणल्यार सत्यवानाक खूबच पुरो जाल्लें. तो एकासारके तोंडातल्यान सुस्कार सोडटालो. ताच्या मुखामळाचेर दुबावाच्यो सुरकुट्यो पडिल्ल्यो आनी ह्याच वेळार ताका धोरणी मनीस मेळिल्लो. ताचो हो अवतार पळोवन धोरणी मनशान म्हळें. ''कितें इश्टा?' इतलें वजें घेवन, पुरो जालां आसतना खंय वता?''

**सत्यवान** : हय खरेंच, तूं म्हणटा तें खरें. इतलें वजें फाटीर घेवन हांव खंय वतां? कितें ही म्हजी दशा जाल्या? तूं विचारता, हांव खंय वतां? पूण खरें सांगूं? म्हाका सकाळीं देवदूत मेळ्ळो. तो व्हडलो दरवटो पळे दिसता न्हय थंय. ताणें म्हाका वचपाक सांगलां. आनी थंयच हांव वतालों. फुडें म्हजे फाटी वयलें हें वजें कशें ना जातलें हें थंय वतकूच कळटलें अशेंच म्हाका ताणें सांगलां.

**धोरणी मनीस** : कितें रे? तुका बायल भुरगीं आसात?

**सत्यवान** : आसा तर. पूण म्हजे फाटीवयल्या वज्याक लागून म्हाका संवसारांत

मात लेगीत खोशी दिसना. आनी आतांचे घडणूकेत तर हांव मात्सो गळसणलेलोंच. बायल-भुरग्यां खातीर तर म्हाका आतां कांयच दिसना.

**धोरणी मनीस** : कसली घडणूक?

सत्यवानाक मागीर जें कितें घडिल्लें तें सगळें सांगलें. तो फोणांत कसो पडलो, ताका कोणें भायर काडलो हें सगळें आयकून धोरणी मनशान म्हळें: "तूं म्हजें मातशें आयकशी?"

**सत्यवान** : बरे भशेन. मनाक पटलें तर तुमी सांगता तशें केन्नाय करीन. कोणेंतरी बरो मार्ग म्हाका दाखोवंचो अशें दिसता.

**धोरणी मनीस** : पयली गजाल म्हळ्यार तुवें फाटीवयलें वजें सकयल उडोवंक जाय. आनी तेंय जाता तितले बेगीन. ते बगर तुजें मन ताळ्यार येवचेंना. आनी मन शांत जाले बगर देवान तुका जें कितें दिलां तांचो कांयच उपेग जावंचोना.

**सत्यवान** : तांचेच सोदीक हांव आसां. कोणेतरी म्हजे फाटी वयलें वजें काडचें अशेंच म्हाका दिसता. पूण हांव तें हांव जावन काडूंक शकना, आनी म्हज्या गांवांत दुसरो मनीस तरी खंय आसा जो म्हज्या खांद्यावयलें वजें देंवयतलो? म्हूण हे वटेन हांव ह्या वज्यांच्या भारांतल्यान सुट्टलों अशें म्हाका दिसता.

**धोरणी मनीस** : पूण हे वाटेन गेल्यारूच तुजे वजें ल्हव जातलें अशें तुका सांगलें कोणें? आनी हे वाटेन तुका धाडलो तरी कोणें?

**सत्यवान** : देवदुतान. व्हड मनाचो आनी मोगाळ मनीस तो.

**धोरणी मनीस** : तरीच. बरें जावं नाका ताचें केन्नाच. तागेल्या मार्गांत भंयभिरांत आसा. तो मार्गय कश्टांचो. यश मेळपाक कठीण. ताजे इतलो कठीण मार्ग दुसरो ना. तूं आनीक ह्या फंदात कित्याक पडलो रे? ते वाटेन गेल्यार तूं सुखी जातलो? तुका यश मेळटलें? केन्नाच ना. ताचे सांगणे प्रमाण तूं वागलो जाल्यार पापया फटवतलो. कांय वेळा पयलीं तुजेर कसलो प्रसंग आयलो हें खबर आसा मरे तुका? तुजे आंगावयलो रेबो लेगीत सुकूंक ना. निर्शेवणेच्या फोणांत पडिल्लो न्हय रे तूं? तोच हो रेबो मरे? आनी सत्यवान, ही तर सुरवातच आसा. हे वाटेन वता ताका हाचे परस खर संकश्टांक तोंड दिवचें पडटलें.

**सत्यवान** : पूण-पूण फुडें सुखच मेळपाचें आसा न्हय?

**धोरणी मनीस :** आरे, कसलें सूख घेवन बसला? म्हजें आयक. हांव तुजे परस पिरायेन व्हडलो. तूजे परस म्हाका चड अणभव आसा. हे वाटेन तूं वचत जाल्यार कितल्याश्याच संकश्टांक तोंड दिवचें पडटलें. सुर्वेक कंटाळो तुजी भेट घेतलो. ताचे फाटल्यान दुख्ख, भूक, तरेतरेचीं अरिश्टां तुटून पडटलीं तुजेर. तुजी राखण करपाक अशा वेळार कोण येतलो? आनी मातशें फुडें वतकच कोणतरी तरसाद घेवन धावत येतलो. कांय सुवातींनी जाल्यार शींव तुज्या आंगार झुडून येतलो. तुज्या आंगार व्हडले व्हडले म्हायंडोळ फॉस करून येतले. वता थंय दाट काळोख आसतलो. मागीर यमाक येवपाक कितलोसो कळाव! आनी हें पळोवनच कितलेशेच लोक परत आयिल्ले आसात. तांणीच म्हाका हें सगळें सांगलें. तो देवदूत. तुजी वळख ना देख. कित्याक आयकता तूं परकी मनशाचें?

**सत्यवान :** पूण सायबा, म्हजे फाटीर जें येदें व्हडलें वजें आसा तें खुबच म्हाका जड लागता आनी तकलेक शीण जाता. आनी म्हाका तर ह्या वज्याक लागून तूं सांगता त्यो सगळ्यो गजाली किरकोळ दिसतात. कितलींय अरिश्टां येवं पूण एक फावट हें पयस सारूंक जाय. कोण पयस करतलो तें?

**धोरणी मनीस :** पूण तुजे फाटीर वजें आसा हें तुका कशे कळ्ळें?

**सत्यवान :** आगा, हें पुस्तक वाचून कळ्ळें.

**धोरणी मनीस :** म्हाका दिसलेंच तशें. तुजे सारक्याच कितल्याश्याच लोकांचेर असो परिणाम जाला. आपल्या हाताभायर गजाली केल्यो की अशेंच जाता. मनांत सगळो गोंदळ जाता. ह्यो काडाओडी सुरू जाल्या म्हणटकच मनीस न्हय न्हय तें करूंक लागता. मागीर असले लोक जिवाची पर्वा करिनासतना व्हडलीं कर्तुबां करतात. हें कित्याखातीर जाणा? जें केन्नाच पळोवंक ना तें पळोवपाखातीर.

**सत्यवान :** पूण म्हाका कितें मेळटलें तें म्हाका खबर आसा. खांद्यावयलें वजें ल्हव जातलेंच आनी तेंच म्हाका जाय.

**धोरणी मनीस :** पूण ते खातीर हेच वाटेन कित्याक वचूंक जाय? तुका खबर आसा मरे हे वाटेन कित्याक अरिश्टां आसा तीं? देखूनच हांव सांगतां तें आयक. म्हजें आयकल्यार तुका हांव योग्य वाट दाखयतां. तुज्या खांद्यावयले वजें तुका ल्हव करूंक जाय मरे? तर मागीर अरिश्टां बगर लागींची वाट तुका दाखयता. आनी वाटेर आडमेळीं लेगीत येवपाचीं नात. तूं बरे भशेन पावतलो. इतलेंच न्ही तर तुका नवे इश्ट मेळटले. आनी अशे तरेन तुजो प्रवास खुशालभरीत जातलो. आरे सत्यवान, तूं

आयक म्हजें.

**सत्यवान :** अशें जर आसा तर उपकार करून सांग पळोवया म्हाका ती वाट.

**धोरणी मनीस :** आयक, तुज्या गांवा शेजरा एक खेडें आसा. त्या खेड्याचें नांव निती. थंय एक बुदवंत मनीस रावता. ताचें नांव कायदेपंडीत. तो बरो हुशार. ताचें सभावय गोड. दुसऱ्याक पालव दिवप हें तर ताजें काम. तुजे सारके जाच्या खांद्यार वजें आसा तें पळोवन तर तो रोखडेंच सकयल देंवयतलो. आतां मेरेन तर ताणें कितल्याशाच लोकाक पालव दिला. आनी हे पळय, जाचें मन वाट लागलां ताका लेगीत तो बरो करता. देखुनूच हांव तुका ताजेकडें वच म्हूण सांगतां. तो तुका पालव दितलोच. ताचें घर लागींच. अशी-तशी मैल भर वाट जातली. तो घरा नासत जाल्यार ताजो पूत तुका मेळटलो. ताजें नांव 'सौजन्य', तोय मायेस्त. तो तुजें काम करतलो. आनी तुजें वजें ल्हव जातलें. आनी तुका घरा वचपाची इत्सा नासत जल्यार तूं वचूं नाका. आनी म्हाकाय तशेंच दिसता. तूं तुजे बायलेक आनी भुरग्यांक हांगाच हाड. हांगा घरां कितलीशींच रिकामीं आसात. भाडेंय सवाय. तुका खंयय घर मेळटलें. हांगा राविल्ल्यान तूं खात्रीन सुखी जातलो. शेजारीय बरे मेळटले. गोडीगुलाबेन रावले म्हणटकच जालें.

सत्यवानाच्या मनांत आतां घालमेल जाली. पूण ताणें मनांत कितेंय तरी थारायलें. हो मनीस सांगता तें खरें आसत जाल्यार हाचेंच आयकूंक जाय. ताणें धोरणी मनशाक म्हळें, ''त्या प्रामाणीक मनश्याकडेन वचपाची वाट खंयची?''

**धोरणी मनीस :** पलतडीं आसा. तो दोंगर तुका दिसता न्हय?

**सत्यवान :** दिसता तर?

**धोरणी मनीस :** त्या दोंगरा पेल्यान तुका वचूंक जाय. दोंगराच्या पांयांकडेन जें पयलें घर लागता तेंच ताचें घर. अशें म्हूण धोरणी मनीस दुसरे वाटेन गेलो. वाट ल्हवू ल्हवू अशीर जायत गेली. आरे. तो पळे सत्यवान, मदींच रावलो. कित्याक काय रावलो तो? दोंगरार चडपाक लागलो. पूण ताका वाटच मेळना जाली. तो दोंगर चडपाक लागलो तसो ताका तो उंचच उंच दिसूंक लागलो. कितलो रे उंच हो दोंगर! फुडें फुडें तर वाट कड्यावयल्यान वचूंक लागली. सत्यवान एकेक पावल सांबाळून घालतालो. आतां तर सत्यवानाक रावचेंच पडटलें. केदी व्हडली रे गाळ ही. सकयल पळेल्यार घुंवळ येताली. आनी वयर पळेल्यार कडो सामको फुटून

पडटा काय जातालो. फुडें आनी पावल घालप भंयाचें आशिल्लें. आनी सत्यवानाची तीच गत जाल्ली. कडो कोंसळून पडलो तर! म्हूण तो थंयच रावलो. कितें करचें तेंच ताका कळना जालें. आनी खांद्यावयले वजेंय आतां जड लागपाक लागलें. त्या दरवट्याकडेन वतना लागतालें ताचे परस चड. पळे, दोंगरातल्यान उजालोळ दिसतात. लोळ पळोवन सत्यवान गर्भगळीत जालो. हातूंत आतां लासून वतलो अशें ताका दिसलें. ताच्या आंगांतल्यान घामाच्यो पांवळ्यो व्हांवंक लागल्यो. तो थरथरपाक लागलो. धोरणी मनशाची सांगणी आयकली हाचें ताका आतां वायट दिसपाक लागलें. तो तसो उबो आसतना कोणतरी ताचे दिकेन येतालो.

हय. देवदूतच आशिल्लो तो. तो येता तें पळोवन सत्यवानाक लजिल्लेवरी जालें. देवदूत जितलो लागीं पावता तितलो सत्यवानाक ताचो भंय दिसूंक लागलो. देवदूत ताचे म्हऱ्यांत आयलो. सत्यवानाकडेन ताणें रागानच पळेलें आनी म्हळें, 'आरे सत्यवान, तूं हांगा कितें करता? पूण सत्यवान कितें उलयतलो? ताका कितें उलोवचें तेंच कळना जालें. तो गोंदळ्ळो. तो देवदूता सामकार वोगीच रावलो.

**देवदूत** : आरे, त्या नासाडीच्या शारांत तूंच रडटालो न्हय रे?

**सत्यवान** : हय. हांवच तो.

**देवदूत** : हांवें तुका त्या व्हडल्या दरवट्या वटेन वचपाक सांगिल्लें न्हय रे?

**सत्यवान** : हय सांगिल्लें.

**देवदूत** : मागीर इतले बेगीन ते वाटेन वचपाचें सोडून कित्याक दिलें? आतां तू ते वाटेपसून चडच पयस पावला.

**सत्यवान** : येतना हांव त्या निरशेवणेच्या फोणांत पडलों. त्या फोणांतल्यान भायर सरता थंय आसा. एक मनीस मेळ्ळो. ताणेंच म्हाका लागसार आशिल्ल्या गांवांत वचपाक सांगलें. थंय खंय एक बुदवंत मनीस रावता. जो म्हज्या खांद्यावयलें वजें देंवयतलो.

**देवदूत** : तुका आतां जो मनीस मेळ्ळो न्हय, तो कसो आसा?

**सत्यवान** : तो बरो मनीस आसा सो दिसता. म्हजेबरोबर तो कितलोसोच वेळ उलयलो. तागेली सांगणी म्हाका पटलीय बी. म्हूण हांव हे वटेच्यान आयलों. पूण जेन्ना म्हाका आकांताचो दोंगर दिसलो तेन्ना हांव हांगाच थांबलो. फुडें गेल्लों जाल्यार मरतलोंच आशिल्लों हांव.

**देवदूत :** तुका त्या मनशान कितें कितें सांगलें?

**सत्यवान :** हांव खंय वतां, कित्याक वतां म्हूण ताणें विचारलें. ते प्रमाण ताका हांवें सगळें सांगलें.

**देवदूत :** मागीर कितें म्हणूंक लागलो तो?

**सत्यवान :** म्हाका भुरगीं बाळां आसात काय म्हूण विचारलें. म्हज्या खांद्यावयल्या वज्याखातीर म्हजें मन कित्यांतच करमना अशें हांवें ताका सांगलें.

**देवदूत :** मागीर ताणें कितें म्हळें?

**सत्यवान :** हांव खंय वतां, कित्याक वतां हें ताका समजले उपरांत ताणें म्हाका ही वाट दाखयली. तुवें दाखयल्या तिचे परस ही वाट बरी आसा अशें ताणें म्हळें. हे वाटेन गेल्यार संकश्टां येवपाची नात. अशेंय ताणे म्हळें. 'निती' म्हूण एक खेडें आसा. थंय कोण कोण मेळटले तें लेगीत ताणें सांगलें. पूण आतां कितें करचें हेंच म्हाका समजना, अशें म्हणत सत्यवान रडपाक लागलो. आनी ताणे देवदूताचे पांय धरलें. देवदूतान ताका उठयलो आनी म्हळें,'आरे सत्यवान, असो भियेवंक नाका.धीर धर. मनशान सदांच देवाचेर भावार्थ दवरचो अशें त्या देवाच्या पुस्तकांत बरयलां मरे? श्रद्धा नासत जाल्यार तो मनीस कसलो? मनीस चुकता. तूं कांय भियेवं नाका. ईश्वर हो दयेचो सागर, तो तुका क्षमा केलेबगर रावचोना. आतां हांव सांगतां तें आयक.' सत्यवानाच्या जिवांत जीव आयलो. तो बारकायेन आयकूंक लागलो. देवदूतान फुडें म्हळें, ''आरे, तुका जो मेळ्ळो, ताजे नांव धोरणी मनीस.

धोरणी मनीस, तो देवाचे आड आसा देखूनच तो तुजे वरी मनशाक बरे वाटेवयल्यान पयस व्हरता. आरे, केन्ना केन्ना त्या गांवांत वचून देवाचे वाटेंत अशीं आडमेळीं हाडपाची सवंयच आसा ताका. सदांच मनशान तीन गजाली पासून सावचीत रावचें.

1) असल्या मनशाचेर केन्नाच विस्वास दवरप ना. ताणें कितलींय आपले वाटेर आडमेळी हाडलीं तरीय आपली वाट सोडप ना. तूं जर सरळ त्या दरवट्या मेरेन चलूंक लागिल्लो जाल्यार तू तेन्नाच सुखी जातलो आशिल्लो. असल्या मनशाचो सदांच दुस्वास कर.

2) सत्याचे वाटेवयल्यान पयस वचूं नाका. कितल्योय अडचणी आयल्यार लेगींत ईश्वराचेर श्रद्धा दवर.

3) असल्या मनशाच्या वाऱ्याक लेगीत रावू नाका. तो तुका केन्नाच सुखी रावूंक दिवंचोना. आनी हें पळेय, ज्या कायदे पंडीता सरीं तुका तो धाडूंक सोदतालो तो कोणाचो पूत खबर आसा तुका? शिंदळकी करपी बायलेचो तो पूत.

**सत्यवान** : अशें?

**देवदूत** : आनी हें पळय, ती दोंगुल्ली आसा न्हय, ती गुलामीपणाची. तो कायदे पंडीत, ताची आवय, भाव हीं सगळीं गुलामपणान रावतात. खासा गुलाम आशिल्लो तुज्या खांदावयलें वजें ल्हव करतलो? धोरणी मनीस हो दुस्मान आमचो आनी कायदे पंडीत एक नंबरचो फटींग आनी ताचो तो दिवटो पूत सौजन्य खांपो चोर. म्हजेर तूं विस्वास दवर.

इतल्यान देववाणी लेगीत जाली. 'सत्यवान, देवदूत सांगता तें खरें आसा. ताचेर भावार्थ दवर'. हो आवाज सगळे कडेन घुमूंक लागलो. दोंगुल्लेंतल्यान उजाचे लोळ दिसूंक लागले. सत्यवानाक धोरणी मनशाचें आयकलें म्हूण वायट दिसूंक लागलें. ताणें देवदुताचे पाय धरले आनी म्हळें, "तर मागीर हांव त्या दरवट्या दिकेन वचूं न्हय? तुका राग येवंक ना मूं? हांवें धोरणी मनशाचें आयकलें म्हूण. म्हाका देव क्षमा करतलो मूं?"

**देवदूत** : तुवें केलें व्हड पातक. बरी वाट सोडून तूं वायट मार्गाक लागलो. हें तुवें बरें केलें ना. पूण व्हडल्या दरवट्यावयलो मनीस तुका भितर घेतलो. तुजे सारक्या लोकांक तो आपलो मानता. पूण तूं घट मतींत दवर, परतून हे वाटेन वचूं नाका. ताचो परिणाम बरो जावचोना. सत्यवानान ताका नमस्कार केलो. देवदुतान ताका आशीर्वाद दिलो आनी तो अदृश्य जालो. सत्यवान मागीर त्या व्हडल्या दरवट्या वटेन वचपाक लागलो. तो सरळ वतालो. हेवटेन तेवटेन पळे नाशिल्लो. वाटेर कोणाकडेन तो उलयनाशिल्लो. परत कोणेय आडवाट दाखयली जाल्यार त्या दरवट्याकडेन पाव मेरेन तो आनीक खंयचेय गजालीचेर विचार करूंक तयार नासलो. चलत चलत तो त्या दरवट्याकडेन पावलो. दारांतच व्हडली पाटी लायिल्ली. तिचेर बरयल्लें 'दारार मार, मागीर दार उगडटलें,' ताणें, दारार मारलें. एकदां, दोनदां तो एकसारको म्हणत आशिल्लो. 'म्हाका भितर घेता मूं? हांव वायट आसून लेगीत म्हाका भितर घेतलो, जाल्यार देवाचे म्हजेर उपकार जातले!' शेवटाक एके बायलेन दार उगतें केलें. ती थंड आशिल्ली. सादेंच न्हेशिल्ली. तिचें नांव आशिल्लें 'सदित्सा.' तिणें सत्यवानाची आस्तेन आनी मायेन चवकशी केली. तो कोण, खंय साकून

आयला, ताका किते जाय, हें सगळें तिणें ताका विचारलें. तेन्ना सत्यवानान म्हळें, "हांव एक गरीब मनीस. हांव नासाडी शारांतल्यान आयलां. अमर राज्यांत वचपाक हांव भायर सरलां. थंय वतकूच म्हाका पातक लागचेंना. हांव मुक्त जातलों. हेवटेनच्यान वाट वता म्हूण म्हाका सांगलां. म्हाका भितर घेशी?"

सदित्सेन म्हळें, "हय तर तुका भितर घेतांच."

तो भितर येतना कोणेंतरी फाटल्यान ओडलो. हें अशें किते काय म्हूण ताणें सदित्सेक विचारलें. ती म्हणूंक लागली, त्या दाराक तेंकूनच एक कोट आसा. त्या कोटांत एक पाडो राखेस रावता. भितर कोणेच येवचें न्हय अशी ताची इत्सा आसता. देखुनूच तो भितर येवपी लोकाचेर बाण मारता. पूण तुका हांगा वच म्हूण कोणें सांगलें?

**सत्यवान :** देवदुतान. तुमच्या दारार मारलें म्हणटकच म्हाका वाट दाखयतली अशें म्हाका ताणें सांगलें.

**सदित्सा :** वाट हांगच्यान सरळ आसा. भियेवं नाका.

**सत्यवान :** कश्ट घेतिल्ल्यान आतां म्हाका सूख मेळपाक लागलेशें दिसता.

**सदित्सा :** पूण किते रे, तूं एकटोचसो कसो आयलो? तुजे वांगडा कोणच कसो आयलो ना?

**सत्यवान :** हांव जसो दुख्ख वळखूंक पावलो तसो दुसरो कोणच वळखलो ना. किते सांगू तुका? खासा म्हजी बायल, म्हजीं भुरगीं म्हाका येवंक दिनाशिल्लीं. म्हजें शेजारी तर म्हाका आडावंकच लागले. पूण हांवें थारायलें तशेंच केलें. देखूनच हांव येवपाक पावलों. इतलेंच न्हय म्हजे शेजारी हट्टी, मवाळ, म्हजे फाटल्यान आयले. हांव तांचें आयकना अशें पळोवन हट्टी परत गेलो. मवाळ म्हजे बराबर येतालो पूण येतना वाटेर आमी निरशेणेच्या फोणांत पडले. जालें मवाळाची तकली फिरली. तो परत गेलो. पूण हांव म्हजो हेतू सोडपाक तयार नाशिल्लों. देखूनच हांव हांगा मेरेन पावलों.

**सदित्सा :** शी बाये, किते मनशाचो हो सभाव. दैवीसूख ताका इतलें उण्या मोलाचें कित्याक दिसता? इल्लेशे कश्ट लेगीत सोसूं नजो ताच्यान?

**सत्यवान :** त्या मवाळ मनशाक हांव कित्याक दोश दिवं? हांव लेगीत धोरणी मनशाचे सांगणे प्रमाण करीत गेलो ना?

**सदित्सा :** तो आनीक तुका मेळ्ळो? ताणें तुका कायदे पंडीताकडेन व्हेला आसतलो न्हय? तो दुसऱ्याक फटोवपाक तरबेज आसा.

मागीर सत्यवानान तिका सगळी खबर सांगली. दोंगरामेरेन तो कसो गेलो, थंयच्यान तो कसो आयलो हें सगळें सांगून म्हळें, 'नशीब म्हजें,' म्हाका देवदूत मेळ्ळो. देवाची कृपा. ताणेंच म्हाका वाट दाखयली.

**सदित्सा :** कांय भियेवं नाका. म्हजे वांगडा यो. हांव तुका वाट दाखयतां. ती अशीर वाट दिसता न्हय? तेच वाटेन थंय वचूंक जाय. आरे, सूख मेळोवपाचें आसा जाल्यार कितल्याशा संकश्टां सामकार वचचेंच पडटा. साधू संत आनी कितलेशेच व्हड मनीस हेच वाटेन गेले. आनी तीच सरळ वाट आसा. आनी तूंय तेच वाटेन वच.

**सत्यवान :** हांव नवखो आशिल्ल्यान वाट बी चुकचोना मू? वेगळे वेगळे फांटे फुटले तर कितें करपाचें?

**सदित्सा :** आडवळणां खूब आसतलीं. जी सरळ पूण अशीर वाट आसा तीच बरी वाट.

सत्यवानान सदित्सेक बेश्टेंच विचारलें 'म्हजे फाटीर हें वजें आसा तें तूं ल्हव करशी? कित्याक जाणा, आतां मेरेन त्या वज्यांतल्यान म्हजी सुटका जावंक ना. सदित्सेन म्हळें, ''कांय दीस तुका रावचें पडटलें. ज्या दिसा तूं मुक्त जातलो त्याच दिसा तुजो वज्या भार ना जातलो.''

सत्यवान मागीर फुडल्या मार्गाक लागलो. कांय वेळान तो 'बोध करपी' म्हण्टा, ताच्या घराकडेन पावलो. सत्यवानान म्हळें, ''हांव नासाडी शारांतल्यान आयलां आनी अमर जीण जगपाखातीर हांव देवाच्या सांगातान रावंक सोदतां. तूं बरें मार्गदर्शन करतलो म्हूण हांव तुजे कडेन आयलां.''

**बोध करपी :** यो भितर यो.

बोध करप्याचे कुडींत वणटीचेर तरेतरेचीं चित्रां लायिल्लीं. एका चित्राकडेन बोट दाखोवन सत्यवानान त्या चित्राविशीं विचारलें. बोध करप्यान म्हळें, ''त्या चित्रांतलो जो मनीस आसा तोच तुजो फुडलो गुरू. तोच तुका योग्य वाट दाखयतलो. बोध करपी मागीर ताका दुसरे कुडींत घेवन गेलो. ती कूड धुल्लान भरिल्ली. बोध करप्यान एका सेवकाक आपयलो. ताका कूड निवळ करपाक सांगलें. निवळ करता आसतना

सत्यवानाचो गळो धुल्लान सुकून गेलो. मागीर एके सुंदर अप्सरेन ते कुडींत, उदक मारलें आनी कूड निवळ जाली. हाचो अर्थ कितें काय म्हूण सत्यवानान विचारलें. बोध करप्यान म्हळें, ''कूड म्हळ्यार मनशाचें काळीज कशें. काळजाचे भितरच देव आसता. पूण तो आमका दिसना. कित्याक? खबर आसा तुकां! हो धुल्ल म्हळ्यार कितें शें दिसता तुका? आरे, आमी केल्ल्यो चुको, दुसऱ्याचो द्वेस करप आनी सुवार्थ सादप. मनीसपण दवरप ना. आरे, ह्यो आनी असल्योच करण्यो म्हळ्यार धुल्लाचे कण. आनी हे खातीरच मनशाक मनशाच्या काळजांत कोण आसा हाचें भान नासता. खरें म्हळ्यार सुखच आमचे सामकार नमळायेन उबें आसता. पूण ताचें कडेन ते नदरेन कोण पळेता? आत्तांच पळे. उदक मारप म्हळ्यार मोगाचें उदक शिंपडावप. मनशान मोगाची शिंपडावणी केली जाल्यार सगळ्या संवसाराचें वजें ल्हव जातलें. मागीर सासणाचो आनंद मेळपाक, सासणाची खोशयेभरीत जीण जगपाक कितलोसो वेळ लागतलो?'' मागीर बोध करपी ताका दुसरे कुडींत घेवन गेलो. थंय दोन ल्हान भुरगीं बशिल्लीं. एकल्याचें नांव इर्शा आनी दुसऱ्याचें नांव सहनशिलताय. इर्शा सदांच फडफडत आसतालें. सहनशिलताय स्फूर्त दिणे आशिल्लें. ह्या दोगांचोय सभाव असो. कित्याक? सत्यवानान बोध करप्याक विचारलें. बोध करप्यान म्हळें, ''आरे, तांच्या धनयान तांकां जें कितें जाय ते खातीर दोन वर्सां रावपाक सांगलां. पूण इर्शेक ते आत्तांच जाय. सहनशिलताय मात रावपाक तयार आसा. इतल्यांत एका मनशान भोव बऱ्यो वस्तू आशिल्ली पोती इर्शे मुखार ओतली. सहनशिलतायेकडेन इर्शेन कुचाळपणान पळेलें आनी त्यो वस्तू उबारल्यो. हें पळोवन बोध करपी मनशान सत्यवानाक म्हळें, ''हीं दोन भुरगीं म्हळ्यार ह्या संवसाराचीं दोन प्रतिकां. इर्शा म्हळ्यार आतांचो संवसार आनी सहनशिलताय म्हळ्यार फुडाराक येतलो तो संवसार. कांय मनशांक सगळ्यो गजाली ह्या संवसारांत आतांच जाल्ल्यो जाय. एक खीणलेगीत तांच्यांनी रावं नज. एका खिणाच्या सुखाखातीर तें सगळें सूख वगडावपाक तांकां कांयच दिसना. आपली जीण तीच बरी अशें तांकां दिसता. ह्या संवसारांत दुसरें कितेंय बरें आसूंक शकता हें मानपाक लेगीत तयार नासतात. मागीर ते आनीक वाट कितें पळेतलें? तांकां तांगेल्या शेणाचे गायरीपरस दुसरेकडेन खंयतरी सुंदर तळी आसूंक शकता हेंच ते मानपाक तयार नासतात. इतलेंच न्हय तर तांगेल्या शेणागायरीचो आवांठ लेगीत तांच्यानी पळोवंक नज. मागीर नवो आवांठ कसो पळेतले? म्हूण उतावीळ जांव नाका, सहनशिलतायेक आतां जरी त्रास जालो तरी फाल्यां जें सूख तिका मेळटलें तें कोणच तिचें व्हरूंक शकचोना. आनीक एका

जाग्यार सत्यवानान उजो पळेलो. उज्याचे लोळ एकासारके वयर येताले. आनी एक मनीस तो उजो पालोवपाचो यत्न करतालो. पूण उजो पालय नासतना चडच पेट्टालो. ते कडेन बोट दाखोवन बोध करपी मनशान म्हळें, ‘‘हो उज्याचो लोळ म्हळ्यार काळजांत मोग आसा ताचो लोळ. तो उजो पालवचो म्हूण दुश्ट मनशां यत्न करतात. हो मनीस त्या दुश्टाचें प्रतीक. पूण तो उजो कित्याक वाडवना जाणा तूं? काळजांत आशिल्लो देव मायेचें मोगाचें तूप तातूंत ओतीत आसता. तें खातीरच मनशां अजून लेगीत जियेतात. पूण सादो मनीस ताचो विचारच करीना.

बोध करपी मनीस ताका मागीर एका सुंदर म्हालांत घेवन गेलो. तो म्हाल पळोवन सत्यवान खुशालभरीत जालो. भांगराची मुस्तायकी घालून कितलिंशींच मनशां थंय यो वच करतालीं. सत्यवानान म्हळें, ‘आमी थंय या?’ बोध करपी ताका त्या दाराकडेन घेवन गेलो. थंय कितलीशींच मनशां उबीं आशिल्लीं. पूण कोणच भितर वचनाशिल्लें. लागींच एक मनीस मेजाम्हऱ्यांत एक पुस्तक, तिंतेर आनी बोरू घेवन बशिल्लो. कित्याक काय तो थंय बसला? जो भितर वतालो ताचें नांव बरोवन घेवपाक तो बशिल्लो.

आनी तें पळेलें? कांय मनीस दाराकडेन तरसादी घेवन उबे आशिल्ले. भितर वचपाक जे यत्न करताले तांकां ते आडायताले. हें पळोवन सत्यवानाक अजापच जालें. त्या शिपायांक पळोवन तर कितलेशेच लोक परत वचूंक लागले. पूण तातूंत एक धाडशी मनीस अशिल्लो. तो सरळ मेजाम्हऱ्यांत बशिल्ल्या मनशाकडेन गेलो आनी म्हळें, ‘‘बरय म्हजें नांव.’’ त्या बाबड्यान ताचें नांव रोखडेंच बरयलें. मागीर त्या धाडशी मनशान म्यानांतल्यान तरसाद भायर काडली. आंगार चिलखत घालें आनी सरळ त्या शिपायांबराबर झूज करपाक लागलो. त्या झुजांत ताका कितलेशेच घाय जाले. त्या शिपायांक लेगीत ताणें बरेच धोडयलें. इतलेंच न्हय तर त्या सगळ्या शिपायांक कडेक धुकलून उडोवन तो तडक त्या म्हालांत भितर गेलो. आनी अजाप म्हळ्यार भितरल्या सगळ्या मनशांनी त्या धाडशी मनशाक पळोवन खुशालकायेन ताळयो मारल्यो. त्या भांगराची मुस्तायकी घाल्ल्या लोकांनी लेगीत ताका म्हळें, ‘‘यो, यो, सासणाची खोशी तुका खात्रीन मेळटली.’ आनी ते भितर वतकूच ताकाय भांगराची मुस्तायकी दिली. तें पळोवन सत्यवानान म्हळें, ‘‘म्हाकाय भितर वचूं दी.’’ बोध करप्यान म्हळें, ‘‘इतले बेगीन नाका. राव. आनीक एक गजाल तुका सांगपाची आसा. मागीर तुजो मार्ग तुका मेकळो. अशें म्हूण बोध करपी मनशान

ताका एके काळखा कुडींत व्हेलो. थंय कितें आशिल्लें जाणा? तो पळे थंय एक मनीस बसला. तो कोण आसा काय? त्या लोखणाच्या पांजऱ्यांत तो बसला. केदो रे बाबा पांदरो! आनी तो मनीस मात सामको दुखेस्त आसा. सत्यवान, तो सुस्कारे कशे सोडटा. ते पळेता मरे? तो थंय हाताची कुरगुंटी करून बसला. तो तुजेकडेन पळेना. पळे तो कित्याक बसला तें तुका समजून घेवपाचें आसा? मागीर ताचेकडेन उलय तूं." सत्यवानान ताका म्हळें, "तूं कोण? हांगा कसो आयलो ?" त्या मनशान म्हळें, "हांव कसो जो आसां तो पयलीं नाशिल्लों" सत्यवानान म्हळें, "मागीर तूं पयलीं कोण आशिल्लो तर?"

**मनीसः** हांव एक बरो सज्जन आनी उदरगतीकडेन वचपी शिक्षक आशिल्लों आनी लोकय म्हाका तशेच समजताले. हांव अमर जीण जगपाक योग्य आसां अशेंच म्हाका दिसतालें. अमर जीण हो विचार लेगीत म्हाका सुखदिणो आशिल्लो.

सत्यवानान म्हळें, "पूण तूं हांगां आतां कसो पावलो?" त्या मनशान म्हळें, "आरे, तीच तर म्हजी मोटी पिडा जावन आसा. म्हजें मन सामकें निर्शेलां. आनी ताचोच परिणाम म्हळ्यार हांव ह्या पांदऱ्यांत आडकून उरला. आनी आतां हांव भायर येवंक शकना. हांव हांगा कसो आयलों हे तुका आयकुपाचें आसा न्हय? मागीर आयक. हांव सामको आसक्तीन घुस्पलों. देवाकडेन, उजवाडाकडेन फाट केली. म्हज्या मनाची एकाग्रताय हांव वगडावन बसलों. दुशटतायेच्या हातांतले हांव बावलें जालों. देव तर म्हजेर रागारच जालो आनी म्हाका सोडून गेलो. म्हज्यान आतां पश्चत्ताप लेगीत करूंक जायना.' सत्यवानान म्हळें, "हाका कांयच उपाय ना?" त्या मनशान म्हळें, "ना, कांयच उपाय ना." बोध करप्यान म्हळें, "उपाय ना अशें ना. देव दयाळू आसा." त्या मनशान म्हळें, "देव आनीक म्हजेर कितें दया करतलो?" आनी कित्याक म्हूण देवान म्हजेर दया करची? म्हज्या आयुश्यांत हांवें कांय एक बरें करूंक ना. म्हज्या एकल्याच्या सुखाबगर काय पळेलें ना. दुसऱ्याचें दुख्ख पळोवन म्हाका सूख जातालें. मागीर देव आनी आतां कसली दया करतलो? पश्चताप तरी हांव कसो करूं? म्हज्याच कर्माचें फळ आता हांव भोगतां. तेन्ना म्हाका हें दूख्ख भोगुंकच जाय. ह्या दुख्खांत म्हाका ताची याद इतलेंच सूख. ताका आठवप हेंय म्हजें आतां सूख."

**बोध करपी :** सत्यवान, ह्या मनशाची देख मतींत दवर. कित्याक, मनीस जशें रोयता तशें ताका मेळटा. सूख दिवंचे आनी सूख घेवचें. दुसऱ्याक दोश दिवपांत

कितें अर्थ आसा? बऱ्या मार्गान वतकूच बरें फळ मेळटाच मेळटा. तर तूं कांयच भियेवं नाका. ईश्वर तुजे फाटल्यान आसा. तूं तुज्या मार्गाक लाग.

मागीर सत्यवानान ताका नमस्कार केलो. आनी तो सवकासायेन फुडले वाटेक लागलो. मार्गाच्या दोनय वाटांनी व्हडली वणत आशिल्ली. ते वण्टीचेर बरयल्लें 'मुक्तीचो मार्ग.' आनी सत्यवान एक एक पावल मोट्या कश्टान फुडें घालतालो. सत्यवान निश्ठेन फुडें वतालो. आनी चलत चलत तो अशा जाग्यार पावलो की जंय थंय उजवाडच दिसूंक लागलो. तो उजवाड पळोवन सत्यवानाच्या मनाक थंडाय मेळ्ळी. आनी ताचे फाटीवयलें वजें केन्ना नाऽच जालें हें ताचे ताका कळ्ळेंच ना. सत्यवानाक आनंद जालो. ताणें म्हळें, 'ही देवाची कृपा.' तो थंयच अजापान उबो रावलो. देवाक हात जोडले. प्रार्थना केली. 'दोळ्यांत उदकशें कित्याक? हां! तीं खोशयेचीं दुकां आशिल्लीं.' आनी ते पळे, तीन देवदूत ताचे सामकार येवन उबे रावले. तांणी ताका नमस्कार केलो. आनी म्हळें, ''तुका आतां सासणाची थंडाय मेळटली, तुका आतां दुख्ख केन्नाच आफुडचें ना. अशें म्हूण तांणी ताका नवी मुस्तायकी घालपाक दिली, कपलाक तिबो लायलो आनी हातांत एक मुदी दिली आनी सांगलें, ''जेन्ना तूं अमर जिणेच्या म्हालांत वतलो तेन्ना भायर उब्या आशिल्ल्या शिपायकाक मुदी दाखय म्हणटकच तुजें काम जातलें''. अशें म्हूण तो नाऽच जालो. सत्यवानाक कितली खोस जाली! खोशयेनच तो गावंक लागलो आनी ते खुशालकायेचे उर्मींतच तो फुडले वाटेक लागलो, रस्त्याचे कडेकच तीग मनीस सामके सुस्त न्हिदिल्ले. त्या तिगांयच्या पांयांत बेडयो आशिल्ल्यो. सत्यवानान तांका पळेले आनी तांचे म्हऱ्यांत गेलो. ताणे तांका उठयलें आनी म्हळें, ''तुमी न्हिदल्यात कितें?'' उठात. हांव तुमकां पालव दितलों. येयात म्हजे वांगडा येयात. ना जाल्यार फाटल्यान येवपी शींव तुमकां खातलो. ते तीग मनीस कोण आशिल्ले? तांची नांवां खबर आसात? एकाचें नांव आशिल्लें, 'भोळो', दुसऱ्याचें नांव आशिल्लें 'आळशी'आनी तिसऱ्याचें नांव 'अडाणी'. तांणी म्हळें, ''कसलो भंय?' कोण खातलो आमकां? आमचें आमी पळोवन घेतां? तुका कितें लागता तें? येयात रे आमी न्हिदुया.'' आनी ते न्हिदले. सत्यवान बावडो कितें करतलो? तो ल्हवू ल्हवू करून फुडें वचूंक लागलो. ह्या मनशांक पळोवन ताका अजाप दिसलें. कळवळ्यान सांगून लेगीत हीं मनशां अशीं कशीं वागतात? इतल्यान ताच्या फुडल्यान दोग मनीस येतात ते ताका दिसले. ते सामके ताचे म्हऱ्यांत आयले. एकल्याचें नांव आशिल्लें

'संभावीत' तर दुसऱ्याचें नांव आशिल्लें 'दांभीक'.

**सत्यवान :** नमस्कार, खंयसाकून येतात तुमी? खंय वतात तुमी?

**संभावीत आनी दांभीक :** नमस्कार, नमस्कार! आमचो जल्म 'उद्मत्त' ह्या गांवांत जालो. आनी आमी आतांच सासणाची जीण मेळोवपाखातीर देवा म्हऱ्यांत वतात.

**सत्यवान :** आगा, पूण तुमी ह्या राजमार्गान कित्याक आयले ना? वांकड्या मार्गान येवपी मनशाक चोर म्हणटात हें तुमकां खबर ना?

**दोगय :** राजमार्गांत आयिल्ले जाल्यार अदीक वेळ लागतलो आशिल्लो देखून आमी आडमार्गान आयले.

**सत्यवान :** मागीर देवाचे आड जालें ना हें? देवाचे आड तुमी कशे वतात?

**दोगय :** देवासंबंदान तूं हुसको करूं नाका. आमी सदांच वांकड्या मार्गान वचपी. आयजमेरेन आमी अशेच वागल्यात. ताची खात्री करपा खातीर तुका पुरावो जाय? आरे, तातूंत कितें व्हडलेशें? कांय गजाली हजार वर्सां करतकूच फटी आसल्यो तरी खऱ्योच मानतात हो संवसाराचो नेम. आनीं हें पळे, तूं ज्या मार्गान आयला त्याच मार्गार आमी पावल्यात काय ना? आमी हांगा कशे पावले हे खातीर वाद कित्याक? तू राजमार्गान आयलो. आमी हे आडवाटेन आयले. तूंय पावलो, आमीय पावले. आतां सांग पळोवया, आमचेपरस तुजो मार्ग बरो कसो?

**सत्यवान :** आरे, देवान आंखून दिल्ले वाटेन हांव आयलां. तुमी खंयच्याय मार्गान वतात. खरेच तुमी चोरच. आतां तुमी म्हजेबरोबर येत जाल्यार तुमी ज्या जाग्यार पावूंक जाय थंय खात्रीन पावतले. तुमी जशे आयल्यात तेच वाटेन तुमकां परत वचचें पडटलें.

**दोगय :** बरें, बरें. आमचें आमी पळोवं. आमकां हातूंत कांय लेगीत चूक दिसना. आमच्या मनाक दिसता तशें वागतात आमी. आमचें कांयच चुकना. पूण कितें रें, तुज्या आंगार जो कोट आसा तो तुजें आंग लिपोवपाक शेजाऱ्यापाजाऱ्यांनी दिला काय कितें?

**सत्यवान :** देव तुमकां जी ख्यास्त दितलो तांतुतल्यान तुमकां सुटावो आसा अशें म्हाका दिसना. आनी हो कोट व्हय? तो म्हाका देवानच दिला. आनी तो आंग

लिपोवपाकच दिला हें तुमगेलें खरें आसा. तातूंत चूक कितें! पयलीं म्हज्या आंगार तिस्त लेगीत नाशिल्ली. तेन्ना हो कोट म्हळ्यार देवाचे मायेचें प्रतीक. तुमचें कोटाकडेन लक्ष गेलां खरें पूण म्हज्या कपलार जो तिबो आसा तो तुमी पळेला? देवाच्या दुतानच हो तिबो लायला. इतलेंच न्हय तर म्हाका मुदीय दिल्या. आतां जेन्ना हांव अमर म्हालाच्या दाराकडेन पावतलों तेन्ना ही मुदी पळोवन म्हाका रोखडेच भितर सोडटले.'' हें आयकून ते दोगय एकामेकांकडेन पळोवन कुछित्रीपणान हांसूंक लागले. आनी फुडें वचूंक लागले. सत्यवानय तागेले वाटेन वचूंक लागलो. वाटेंत वतना देवदुतान दिल्लें पुस्तक तो मदीं मदीं वाचतालो. पूण तांचे वांगडा कांयच उलयनाशिल्लो. ल्हवू ल्हवू करून ते सगळेजाण एके दोंगुल्लेच्या मुळसाकडेन पावले. ते दोंगुल्लेचें नांव आशिल्लें 'आडमेळी दोंगुल्ली.' मुळाकच थंय एक उदकाचो झरो आशिल्लो. लागसारच थंय दोन वाटो आशिल्ल्यो. एक दाव्यान वचपी वाट दुसरी उजव्यान वचपी वाट आशिल्ली. जी अशीर वाट आशिल्ली ते वाटेचें नांव आशिल्लें 'आडमेळी वाट'. सत्यवान त्या झऱ्याचें उदक पियेलो आनी ताजो तरतरीत जालो. आनी दोंगुल्ली चडपाक लागलो. वतना तो म्हणटालो, ''दोंगुल्ली कितलीय उंच आसली तरी हांव ती चडून वतलोंच. आडमेळीं कितलींय येवं, हांव तीं सोंसतलों. कित्याक तर, जिणेचो मार्गच आडमेळ्यांतल्यान वता. मागीर जिणेंत निर्शेवंक जाय कित्याक?'' जिणेक भियेवंक जायना. जिणेक सोडून पळून वचूंक जायना. आडमेळीं कितलींय येवं, ना जाल्यार वाटेंत कांटेकुटे आसूं. योग्य मार्गानच वचूंक जाय आनी चुकीचो मार्ग सरळ आनी सोपो आसलो तरी त्या मार्गान वचपी खड्ड्यांत पडले बगर रावना. देखुनच संभावीत आनी दांभीक हो योग्य मार्ग खूबच त्रासाचो आशिल्ल्यान तांणी त्या दुसऱ्या मार्गान वचपाचें थारायलें. ही वाटय सत्यवान ज्या मार्गान वता त्याच मार्गाक मेळटली असो समज त्या दोगांनीय केलो. त्यो दोन वाटो पळे आसा तातुंतले एके वाटेचें नांव 'धोकोवाट' तर दुसरेचें नांव 'नाशवाट'. त्या दोगांतलो एकटो 'धोको' हे वाटेन गेलो. हे वाटेन गेल्यान तो अटंग्या रानांत घुस्पलो. तर दुसरो 'नाश' हे वाटेन गेल्ल्यान तो एके खोल गाळींत पडलो आनी परत काय वयर सरूंक पावलोच ना.

सत्यवान मात एकेक पावल मारीत फुडें वचूंक लागलो. वाट खूबच अशीर आशिल्ली. देखूनच सत्यवानाक ओणवो जावन जमनीक हात लावन चलचें पडटालें. वाटेर प्रवाशांखातीर ल्हानशें विसव घेवपाखातीर थळ आशिल्लें. थंय सत्यवान पावलो. थंय ताणें थोडो विसव घेतलो. आपसूक ताचें मन खुशालभरीत जालें. आनंदान गुल्ल

आसतनाच ताका मातशी लकणी आयली आनी करतां करतां गाढ न्हीद लागली. आनी न्हीद आयिल्ल्यान ताका रातभर थंयच रावचें पडलें. न्हिदेंत आशिल्ल्यान ताच्या हातांतलें पुस्तक थंय सकयल पडलें. तो न्हिदिल्लो आसतना तो पळे ताचेकडेन एक मनीस येवन ताका ताणे उठयलो आनी म्हळें, “आरे आळशा, तूं असो न्हिदला कितें?” ते मुयेकडच्यान तरी कितेंय शीक. मूय वागता तसो तरी वाग. म्हणटकच तरी तूं शाणो जातलो. सत्यवान हें आयकून एकदम जागो जालो. ताची चूक ताका कळ्ळी. मागीर धांवत धांवत तो दोंगुल्लेचेर गेलो. दोंगुल्लेचेर पावूं नाका, थंय ताका दोग मनीस मेळपाक आयले. एकल्याचें नांव आशिल्लें ‘पळ काडपी’ आनी दुसऱ्याचें नांव आशिल्लें ‘फटींग’. ताका सत्यवानान म्हळें, “खंय वतात तुमी? तुमी वाट चुकल्यात. तुमी वतात ती वाट बराबर न्हय.”

**पळ काडपी** : आमी तर अमर जीण ह्या शाराकडेन वतात. आमी फुडें वताले तेन्ना वाटेर खूबच आडमेळीं आयलीं. जितले आमी फुडे वताले तितलो धोको अदीक जाणवतालो. देखून आमी फाटी सरले आनीं आता आमी परत वतात. फटिंगान ताका हयकार दिलो आनी म्हळें, तागेली म्हण्णी बरोबर आसा. कित्याक तर आमचे वाटेरच व्हडली शिवांची एक जोडी बसल्या. ती न्हिदिल्ली काय जागी आशिल्ली तें आमी नकळ. पूण हांव खात्रीन सांगतां तुका, आमी जर तांचे म्हऱ्यांत पावलेत तर ते आमका दावकुलांनी फांपसून फांपसून खातले आशिल्ले.”

**सत्यवान** : अशें सांगून, तुमी म्हाका भेशटायतात. पूण हांव आतां परत खंय वचूं? आनी गांवांत परत वचप हेंय पिशेपणाचेंच. कित्याक तर थंय तरी म्हाका खंय सूख मेळटले? हांव त्या अमर जीण शाराकडेन पावलों जाल्यार सगळीच खोसच खोस. तेन्ना थंय म्हाका वचूंकच जाय. परत वचप म्हळ्यार मरणाक आमंत्रण. तेन्ना म्हाका फुडें वचुकूच जाय.

आनी तो फुडें वचूंक लागलो. पूण पळ काडपी आनी फटींग धांवत धांवत दोंगुल्ली देवूंक लागले.

सत्यवानाक देवदूतान दिल्ल्या पुस्तकाची याद जाली. कित्याक तर तें पुस्तक आशिल्लें ताच्या सासणाच्या आनंदाचो सांठो. ताणें बोल्सांत आसा जाल्यार पळेलें. पूण थंय तें नाशिल्लें. ताका सामको हुसको जालो. खंय आसत काय तें पुस्तक? ताका कितें करचें तें कळना जालें. त्या पुस्तकाची तर ताका सामकीच गरज आशिल्ली. ताणें मनांत म्हळें, “कितें पिशेपणां केली हांवें?’ मातशी मातशी ताका





याद जावंक लागली. हय! जंय हांव विसव घेतालों थंयच तें पुस्तक पडलां आसतलें. तो परत त्या जाग्यार वचूंक लागलो. आपणाचेरच तो फडफडटालो. खरें म्हळ्यार थंय ताका थोडो वेळच विसव घेवपाचो आशिल्लो. पूण थंय तो रातभर न्हिदलो. रडत रडत आपणाकच गाळी संवत धांवत त्या जाग्यार परत गेलो. परत गेल्ल्यान कितलोसोच वेळ ताचो फुकट गेलो.

ताका तें पुस्तक मेळ्ळें काय? सादे चुकीन लुकसाण कितलें जालें पळे! तें पळे पुस्तक थंयच पडलां. सत्यवानान तें बेगीन बेगीन उखल्लें. आनी देवाचे ताणे उपकार मानले. पुस्तक मेळटकूच ताका खूबच खोस जाली. आनी रोखडोच तो परत मार्गाक लागलो. आतां दीस सोंपत आयिल्लो. तो काळखांतच वचूंक लागलो. वाटेर दुश्ट मोनजात मेळ्ळी जाल्यार फटींग आनी पळकापडी म्हणटाले तशें म्हाका ती फापसून खातली. अशें मनांत म्हणतकच तो वचूंक लागलो. ताचे सामकार ती ओडलायणी सुवात कसली आसा काय? हय ती ओडलायणीच आसा. ते सुवातेंचे नांव 'सुंदरकाय?' ती सुवात त्या रस्त्यालागींच आशिल्ली. सत्यवानान ती सुवात पळेली. तो खुशालभरीत जालो. विसव घेवपाखातीर तो थंय बेगीन बेगीन वचूंक लागलो. पूण ती वाट अशीर आशिल्ली. आनी ते वाटेच्या शेवटाक एक ल्हानशें घर आशिल्लें. त्या घरा सामकार दोन व्हडले शींव आशिल्ले. खरें म्हळ्यार त्या शिवांक सरपळेन घट्ट बांदिल्ले, पूण तें सत्यवानान खंय पळेलां! ह्याच शिंवाक पळोवन फटींग आनी पळ कापडी परत गेल्ले. सत्यवानाकय भंय दिसलो. परत वचचें अशें ताकाय दिसलें. कित्याक तर फुडें वचप म्हळ्यार साक्षात मरणच. पूण घराच्या दरवट्या लागींच राखण करपी उबो आशिल्लो. ताणें सत्यवानाक पळेलो आनी तो आड्डून म्हणूंक लागलो, "आरे, असो भियेता कित्याक?' शिंवांक भियेवं नाका. तांकां बांदल्यात. यात्रिकांचो खंयमेरेन विस्वास आसा तें पळोवपाकच तांकां थंय दवरल्यात. सामको नीट वाटेन यो म्हणटकच तुजे वाटेक कोणच वचचोना." ताणें सांगलें. तसो तो भियेत नीट भितर येवंक लागलो. वाटेर शींव व्हडल्या व्हडल्यान आड्डुले. पूण ताका तांणी कांयच केलें ना. दाराकडेन पावंतकच सत्यवानान राखण करतल्याक म्हळें, "हें घर कसलें? आयची रात हांगा हांव रावूं?"

**राखणदार :** हें घर दोंगुल्लेच्या धनयान बांदलां. यात्रिकांचे सुख सोई खातीरच बांदला हे. बरें, तू खंय साकून येता? तुका खंय वचपाचें आसा? तुजें नांव कितें?

**सत्यवान :** हांव नासाडी शारांतल्यान येतां. म्हाका अमर जीण शाराकडेन

वचपाचें आसा. आयची रात हांव हांगा रावन फाल्यां हांव वतलों. म्हजीं पिशेपणाच म्हाका नडलीं. तें दोंगुल्लेचेर मातसो विसव घेतलो आनी थंयच केन्ना न्हिदलो तें कळ्ळेंच ना. इतलेंय जावन हांव बेगीन पावतलों आशिल्लों. पूण हें पुस्तक थंयच विसरून हांव फुडें आयलों. आनी तें हाडपाखातीर म्हाका परत वचचें पडलें. म्हूण म्हाका कळाव जालो.

**राखणदार** : अशें? कांय नज. हांगा बस. कांय सेवा करपी बायलांक हांव आपयतां. अशें म्हूण राखणदारान घांट वाजयली. थोडो वेळ जातकच एक सुंदर आनी शांत दिसपी बायल आयली. तिचें नांव आशिल्लें विवेकबाय. तिका कित्याक आपयलां काय म्हूण तिणे राखणदाराक विचारलें. राखणदारान तिका सगळी गजाल सांगली. आनी म्हळें, "तुका जें कितें बरें दिसता तशें कर." तिणें सत्यवानाची मायेन वासपूस केली. तिका कांयच लिपयनासतना सत्यवानान सगळी खबर सांगली आनी विचारलें,"हांवें रावल्यार जायत हांगा?" तागेली सगळी खबर आयकून तिचो गळो भरून आयलो आनी तिणें म्हळें, "घरांतल्या आनीक दोगां तिगांय हांव आपयतां." ते प्रमाण तिणें आनी तिगांक आपयले. एकलेचें नांव 'समजिकायबाय', दुसरेंचें नांव 'स्रदाळूबाय' आनी तिसरेचें नांव 'दानतबाय' त्यो सगळ्यो जांणी येवन ताका घरांत घेवन गेल्यो. तांणीं ताका खावपाक पियेवपाक दिलें तशेंच जेवण जायमेरेन तीं सगळीं ताचेलागीं गजाली मारपाक बसलीं.

**स्रदाळूबाय** : म्हाका खात्री आसा, तुमकां हांगा कांयच त्रास जांवचेना म्हूण. तुमचेंकडेन उलोवपाक आमकां खोशी जाता. तुमचो प्रवास कसो जालो?

**सत्यवान** : तुमचें देव बरें करूं. तुमी म्हजो हांगा आदरसत्कार बरो केलो. बरें जावं तुमचें!

**स्रदाळूबाय** : पूण तुमी अशे यात्रीक कशे जाले?

**सत्यवान** : म्हज्या मनाचो सामको घुस्मटमार जालो. हांव ज्या शारांत रावतालों त्या शाराचो आतां नाश जावपाचो आसा अशी म्हजी खात्री जाली. म्हाका कांयच सुचना जालें आनी देखूनच हांव प्रवासी जालो.

**स्रदाळूबाय** : पूण ह्याच मार्गान तुमी कशे आयले?

**सत्यवान** : ईश्वराची तशी इत्सा! हांव असोच विचार करीत उबो आसतना देवदूत अकस्मात म्हजे म्हऱ्यांत उबो रावलो. ताणेंच म्हाका ही वाट दाखयली.

**स्रदाळूबाय :** मागीर तुमकां बोध करपी मेळ्ळोच आसतलो.

**सत्यवान :** हय तर. ताणेंच म्हाका कितल्योशोच गजाली सांगल्यो आनी दाखयल्यो. तांतुंतल्यो तीन गजाली हांव कसोच विसरचोना, पयली गजाल म्हळ्यार ईश्वराची आमचेर खूब कृपा आसा पूण मनीस देवापसून पयस वचत आसा. दुसरी तो आमच्या काळजांत आसा. तिसरी गजाल म्हळ्यार मनशाक तागेल्याच कर्मांची फळां भोगचीं पडटात. मागीर हांवें व्हडलो म्हाल आनी भांगराची मुस्तायकी घाल्लीं मनशां पळेलीं.

मागीर ताचे फाटीवयलें वजें कशें पडलें आनी ताच्या मनाक बरें कशें दिसलें, देवदुतान खंयच्यो वस्तू दिल्यो हें सगळें तिगांकय ताणें सांगलें. तशेंच आळशी, भोळो बी कशे मेळ्ळे आनी तांची भेट जायमेरेन कितें कितें घडलें ती सगळी खबर सांगली.

**समजीकायबाय :** तुका तुज्या गांवची याद येता काय नारे?

**सत्यवान :** केन्ना केन्नाय येता. पूण तिटकारोय येता आनी अमर शाराकडेन वतलों जाल्यार त्या गांवचो त्याग करचोच पडटलो.

**समजीकायबाय :** पूण गांवच्या कांय गजालींची याद येताच आसतली तुका!

**सत्यवान :** हय. म्हज्या मनाआड कांय गजाली जातात. खरें म्हळ्यार म्हज्यो आवडी रोकड्योच कश्यो बदलूं येतल्यो? वायट संवयो, नींद गजाली, हांवें केन्नाच सोडून दिल्यात. म्हजे भितर वायट आनी बरे गूण आसात. वायट गुणांचो म्हजेर परिणाम जावचोना असो हांव यत्न करतां.

**समजीकायबाय :** तुजे भितरले वायट गूण सामके ना जावन गेल्यात अशें केन्नाय तुका दिसलां आसतलें!

**सत्यवान :** दिसता तर! तशें केन्नाय जाता पूण जेन्ना तशें घडटा तो खीण मात चड मोलादीक आसता.

**समजीकायबाय :** पूण अशें केन्ना दिसता?

**सत्यवान :** केन्ना केन्ना हें पुस्तक वाचून दिसता तर केन्ना केन्ना देवाची मूर्त पळोवन दिसता. तर केन्ना केन्ना हांव म्हज्या ध्येयाकडें एकरूप जातां तेन्ना म्हाका तशें दिसता. ध्येयाकडें एकरूप जातकूच म्हज्या मनांतले वायट विचार सामके विरगळून वतात.

**समजीकायबाय** : अमर शाराचो तुका ध्यास कित्याक लागला?

**सत्यवान** : ईश्वराचें खासा म्हाका दर्शन जावचें अशें दिसता. जंय मरण ना दुख्ख ना, जंय थंय निर्मळकाय आसा, सगळ्या वाटारांतल्यान ॐ शांती ॐ शांती आवाज आयकूंक येता असली सुवात पळोवपाक म्हाका खुशालकाय जातली.

दानतबायन ताका हळूच म्हळें, "तुजें लग्न जालां?"

**सत्यवान** : हय तर, म्हाका बायल आनी चार भुरगीं आसात.

**दानतबाय** : मागीर तांकां बराबर घेवन तूं कित्याक आयलो ना?

**सत्यवान** : तांकां म्हजो मार्गच पसंत ना. हांवें तांकां कितलें सांगलें पूण म्हजें आयकता कोण?

**दानतबाय** : देव तांकां सदबुद्धी दिवं!

**सत्यवान** : हय, हांवय देवाची तशीच प्रार्थना करतां. कित्याक तर हांव तांचेर खुबच माया करतां. आनी तांकां बेश्टेंच सांगचे परस म्हजे जिणेचें कुर्तुबच तांकां वाट दाखयतलें. देखूनच तांचे बराबर उलोवपांत चड वेळ हांवें वगडायलोना.

तीं अशेभशेन उलोवपांत गुल्ल आसतना तांच्या मनशान जेवण जालां म्हूण सांगलें. जेवणाक बरे बरे जिनस केल्ले. जेवता आसतना तांच्यो ह्याच विशयाचेर गजाली चलताल्यो. देवान मनशाखातीर कितले कश्ट सोंसल्यात, देव मनशाच्या काळजांत आसा, इतलेंच न्हय मनीसच ईश्वररूप जावंक शकता. हाच्यो कितल्योशोच देखी 'समजीकायबाय' दिवंक लागल्यो, एका अवतारांत देवान खासा कश्ट सोंसून लोकांक सूख कशें दिलें तें तिणें सांगलें. तशेंच दुसऱ्या एका अवतारांत देवान लोकांक संकश्टांतल्यान कशे वाचयले आनी लोकांक कर्तूप करपाक लावन ईश्वर रूप कशें दाखयलें, हेंय तिणें सांगलें. तिणे व्हड व्हड मनशांच्यो देखी दिवन ताच्या मनाक उबारी हाडली. आनी एका अवतारांत देवान आपूणच बळी वचून लोकांक मोगाचो संदेश कसो दिलो तें तिणें ताका सांगलें. ईश्वराचें दर्शन जाताच जाता हें तिणें नेट दिवन सांगलें. फुडें तिणें म्हळें, "गरीब, गिरेस्त असो फरक देव केन्नाच करिना. तशेंच देव अमर शारांतच रावता अशें ना. तो सगळेकडेन वास करता. तुमी गरीब जाले कितें वा गिरेस्त जाले कितें, गोठ्यांत जल्म जावं ना जाल्यार म्हालांत जल्म जावं – जो ईश्वराची भक्ती करता, सेवा करता ताचे फाटल्यान ईश्वर उबो आसता." कितलो वेळ मेरेन असल्यो गजाली मायेमोगान तांच्यो चलताल्यो. मागीर ताच्या

न्हिदपाची वेवस्था तिणें एके कुडींत केली. ते कुडिचें नांव आशिल्लें 'शांतताय.' थंय तो सकाळ जाय मेरेन न्हिदलो आनी सकाळीं उठटकच ताका त्यो अभ्यासकुडींत घेवन गेल्यो. थंय तांणी ताका एक पुस्तक दाखयलें. पुस्तक बरें जाड जूड आशिल्लें. त्या पुस्तकांत ताका तागेल्या संबंदान फाटल्या आयुश्यांतल्यो कितल्योश्योच गजाली वाचूंक मेळ्ळ्यो. तशेंच मनशान कितल्योय जरी चुको केल्यो आनी जर ताका पश्चताप जालो, तर देव ताका बऱ्या मार्गान व्हरतलोच. मागीर त्यो ताका शस्त्रां दवरता ते कुडींत घेवन गेल्यो. थंय तरेकवार शस्त्रां पळोवन सत्यवानाक अजापच जालें. आतां मेरेन मनीसजातीन वापरलेलीं शस्त्रां पळेल्लीं. हींच शस्त्रां घेवन देवान वायट शक्तिचो नाश आतां मेरेन केला आनी फुडेंय तो करतलो. हें सगळें पळोवन सत्यवानाक खोस जाली. आनी तो वचपाक सोदूंक लागलो. पूण तांणी ताका आग्रो करून त्या दिसा दवरलो. कित्याक म्हळ्यार ताका दुसऱ्या दिसा सुंदर दोंगर दाखोवपाचो तांचो बेत आशिल्लो. आनी खरेंच दुसऱ्या दिसा सकाळी त्यो ताका घराचे गच्चेर घेवन गेल्यो तांणी ताका दक्षिणेकडेन पळोवंक सांगलें. थंय ताका कितें दिसलें? सत्यवान तर एकासारको पळेत रावलो. कितलें सुंदर शार तें! त्या शाराभोंवतणी झाडापेडांनी गच्च भरिल्ले दोंगर आशिल्ले. वचत थंय पाचवें चार दिसतालें. उंच उंच सुरूचीं झाडां, वेगळ्या वेगळ्या फळांनी आनी फुलांनी भरिल्ल्यो वाली आनी रूख, द्राक्षांच्या घोंसांनी भरिल्ली बाग, झुळझूळ व्हांवपी झरे. खरेंच कितलो ओडलावपी देखाव दिसता हो! तो पळोवन सत्यवानाची तर समाधीच लागली. तांणी म्हळें, ''देवानच यात्रिकांखातीर हें शार वसयलां. तूं थंय पावतकूच तुका थंय अमर शाराची दिंडी दरवट दिसतलो.'' मागीर तांणी ताका उपेगी पडसारकीं शस्त्रांय दिलीं. निमाणें तांकां नमस्कार करून तो फुडें वचपाक लागलो. सत्यवानान राखण करप्याक विचारलें,: ''आनीक कोण यात्रीक फुडें गेला हय रे?''

**राखणकरपी** : हय तर, ह्या यात्रिकाचें नांव आसा विश्वास.

**सत्यवान** : कितें? विश्वास? तो तर म्हज्याच गांवचो सामको म्हजो शेजारी. बरें. तो कितले पयस पावला आसतलो?

**राखणकरपी** : चड करून दोंगुल्ली देंवला आसतलो.

मागीर सत्यवान आपले वाटेक लागलो. पूण विवेकबाय, दानतबाय, समजीकायबाय आनी श्रदाळूबाय ताका पाववपाक दोंगुल्ले मुळसा मेरेन आयल्यो. वतना सत्यवानान म्हळें, ''वयर चडून वचप कठीण आसलें तरी सकयल देंवप

जाल्यार चडच भंय दिसपी आसा. हें आयकून समजिकायबायन म्हळें, ''हय तर. देखूनच आमी तुका पावोवपाक आयल्यांत. कसलोच आदार घे नासतना मनशाक 'मानखंडण' चे घळींतल्यान वचप तशें चडच कठीण आसता. म्हूण आमी तुका सांगात केला.''

सत्यवान ल्हवू ल्हवू करून काळजी घेत दोंगुल्ली देवुंक लागलो. मदीं मदी तो थोडोस्रो आदार घेतालोच. सकयल देंवतकच तांणी ताका इल्लीशी भाकरी खावपाक दिली. आनी तो फुडें वचूंक लागलो. 'मानखंडणेचे घळींतल्यान वचप ताका सामकेंच कठीण दिसूंक लागलें. मातसो पयस पावता म्हणसर ताका एक सामको हळशिकावणो मनीस मेळ्ळो. ताचें नांव आशिल्लें दुश्टबुद्दी. सत्यवान मातसो भियेलोच. पूण पळून वचप योग्य नाशिल्लें. देवाचें नांव घेवन ताणे त्या संकश्टा सामकार वचपाचें थारायलें. दुश्टबुद्दी एक खरोच राख़ेस आशिल्लो. ताका पळोवनच किळस येताली. तागेले बटबटीत दोळे, नुस्त्याच्या खवळांची कूड, वांस्वेला भशेन पांय आनी पोट पळे कितलें व्हडलें तें! पोटांतल्यान फकत उजो आनी धुंवर येतालो. ताका व्हडले व्हडले सुकण्यावरी पांखाटे आशिल्ले. ताच्या तोंडाचो जबडो तर सामको शिंवाभशेन आशिल्लो. तो सत्यवानाकडेन एके नदरेन पळेत म्हणूंक लागलो, 'तूं खंय वता रे? आनी खंयच्यान आयला?'

**सत्यवान** : हांव नासाडी शारांतल्यान आयलां आनी अमर जिणेच्या शाराकडेन वतां.

**दुश्टबुद्दी** : आरे वा! ती तर म्हजी कूड आनी नासाडी शाराचो हांव तर राजा! आनी म्हज्या राज्यांतल्यान तूं पळून आयला? हांव तर तुका आतां मूठच मारतलों. वता काय ना परत?

**सत्यवान** : तुज्या राज्यांत हांव जल्मलों हें खरें आसा. पूण तुगेल्या राज्यांतली प्रजा मात लेगीत सुखी ना. सगळ्या राज्यांत सुवार्थ भरला. शी. शीऽ स! देखून हांव पळून आयलां.'

**दुश्टबुद्दी** : अशें म्हळें म्हण हांव तुका कितें सोडटलों? आनी उरफाटें म्हजेरच बगलांट घालता? परत वच. जें कितें दिवंक मेळटा तें जरूर दितलों - जाता तितलें चड दिवपाचो येत्न करतलों.

**सत्यवान** : आरे, हांव केन्नाच उतर दिवन मेकळो जालां. हांव आतां परत,

कसो वचूं?

**दुश्टबुद्दी** : म्हूण कितें जालें? आरे, पूण तुका ह्या राज्यांत त्रास चड जातलो. ताका सांग कितेंय तरी आनी परत वचूंक लाग. म्हज्या राज्यांत तुजें कल्याणच जातलें.

**सत्यवान** : हांव दिल्लें उतर मोडूं कशें? मागीर हांव राजद्रोही जातलों.

**दुश्टबुद्दी** : म्हजेकडेन राजद्रोह केलो तरी हांव तुका परत घेतलों. मागीर तुका परत येवपाक कितें जालां?

**सत्यवान** : हांव जेन्ना ल्हान आशिल्लों तेन्ना तुका उतर दिलां जायत. पूण जाका हावें आतां उतर दिलां तोच म्हाका आतां राखतलो. इतलेंच न्हय तर ताच्या राज्यांतलो सगळो कारभार म्हाका मानवता. हांव थंयच वतालें.

**दुश्टबुद्दी** : परत विचार करून पळे. थंय गेलो तर फटवतलो तूं. थंय तुका कांयच सूख मेळचेंना. कित्याक तर ते म्हजे आडच आसतात. आनी तुजो राजा तुजी सुटका करपाक लेगीत येवचोना. आतां मेरेन अशेंच जालां. जगाक हें सगलें खबर आसा. आरे, सत्येच्या बळार जावं, फटोवन , हांवें आयज मेरेन ताचे पासून कितल्याशाच लोकांची सुटका केल्या. म्हजेर विश्वास दवर. हांव तुका सुखी केलेबगर केन्नाच रावंचो ना.

**सत्यवान** : आरे, ताचेकडेन वचपाक संकश्टां येतात म्हूण कितें आमी पळून वचपाचें? उरफाटें जितलीं संकश्टां अदीक तितलो ताचे वयलो खरो मोग दिसून येता. जो ताचेर खरोच मोग करता तो संकश्टांक केन्नाच भियेना. आनी संकश्ट संकश्ट म्हळ्यार तरी कितें? सोंसपाची तांक जितली चड तिंतलीं तीं संकश्टां वासाफुलाभशेन दिसतलीं. जो मनीस अपेश आयल्यार भियेवन वतात तो खरो म्हळ्यार मनीसच न्हय. व्हडांत व्हड अपेश जर खंयचेय आसत जाल्यार ते खंयचेय अपेश सहन ना करप, हेंच. तेन्ना म्हाका अपेश येतलें म्हूण भिरांत घालूंक नाका.

**दुश्टबुद्दी** : आरे, तुवें ताका केन्नाच फटयला. ताचेकडेन तूं केन्नाच बेमान जाला.

**सत्यवान** : कित्याक म्हणटा तूं?

**दुश्टबुद्दी** : पयलींचे दीस याद कर. तूं हांगा येतना जेन्ना निरशेवणेच्या फोंडांत पडलो तेन्ना तुवें कितें म्हळ्ळें जाणा तूं? परत, चुकिचे वाटेन वचपाक तूं तयार

जालो. कितलोसोच वेळ तूं ते दोंगुल्लेचेर न्हिदून उरलो. शिंवाक पळोवक तूं तर पळपाच्याच बेतांत आशिल्लो. मागीर कित्याक लातबडायो मारता? मोटेपणाचो आव रे कित्याक हाडटा? कसलें रे पिशें तुका लागलां? आरे, देव, बरेंपण बी सगळे भ्रम आसात. पवित्रताय, स्रदाळू आसप, प्रेमळ आसप ह्यो सगळ्यो वयलेचाराच्यो करण्यो आसात. धोंग कित्याक केलां खबर आसा तुका? निव्वळ सुवार्थाखातीर.

**सत्यवान :** पयलीं हांव तसो वागिल्लों खरों पूण ईश्वराचेच कृपेन हांव हांगामेरेन पावलां. तुगेल्याच राज्यांत हांव कांय वायट गजाली शिकलां. त्या वायट गजालींचो म्हाका आतां पश्चताप जाला. आनी देखूनच तर हांव आता वतां. आनी हें पळे बरेंपण, प्रमाणीक आसप बी सगळें वयलेचाराचें अशें तूं म्हणटा हें तुज्या सुवार्था खातीर. तुजेंच तें धोंग आसचेंना कित्यावयल्यान? तुजेर तरी हांव कित्याक पातयेवं? पवित्रतायेचो जाणें अणभव घेवंक ना ताका पवित्रतायेची व्हडवीक कशी कळटली ? तूं म्हाका कांय एक शिकोवं नाकां. तुज्या अणभवापरस दुसऱ्या व्हड लोकांचे अणभव अदीक हिताचे आसात.

हें आयकून दुश्टबुद्दी रागान सामको तांबडो गूंज जालो आनी ताणे म्हळें, "हांव तुज्या राजाचो दुस्मान आसां. हांव ताचे कायदे, ताचे लोक हांचो दुस्वास करतां. आनी तुका आडोवंकच हांव हांगा आयलां."

**सत्यवान :** कितें तूं करता हें तुका तरी खबर आसा? आनी हांव कोणाल्या राज्यांत आसां अशें तुका दिसता? तुज्या जिवाची तूंच जतनाय घे. हें आयकून दुश्टबुद्दी मोट्यान आड्डलो आनी ताणें म्हळें, "म्हाका भिरांत तूं घालता? तूंच मरपाक तयार राव. तूं एक पावल तरी फुडें मार, तुका पिसडून खातलों." अशें म्हणून ताणें सत्यवानाच्या आंगार उज्याचो लोळ सोडलो. पूण सत्यवानान तागेली ढाल फुडें धरून आपणाली राखण केली. मागीर दोगय नेटान झगडूंक लागले. दुश्टबुद्दीन सत्यवानचे तकलेक व्हडली कोंक केली. ताच्या हातापायांकच बरेच घाय जाले. म्हूण सत्यवान मातसो फाटल्यान सरलो. तें पळोवन दुश्टबुद्दीक चडच चेव आयलो. सत्यवान परतून ताचे बराबर झूज करपाक उठलो. पूण सत्यवानाक खरेंच पुरो जाल्लें. घाय जाल्ल्यान ताका झगडपाचें भान उरलेंना. हीच संद पळोवन दुश्टबुद्दीन ताचेर नेटान घाय घालो. सत्यवानाची तरसाद सकयल पडली. आनीक एका घायान सत्यवान सकयल पडलो. दुश्टबुद्दीक हेंच जाय आशिल्लें. दुश्टबुद्दी सत्यवानाच्या हड्ड्यार बसलो. दुश्टबुद्दी आतां ताचो गळो दामपाक, सत्यवानाक

लागींच पडलेली तरसाद घेतली आनी दुश्टबुद्दीचेर असो घाय घालो मात, दुश्टबुद्दी घसांयच करून सकयल पडलो.

**सत्यवान** : आरे, आमचे शक्तींतच ईश्वर आसता हें मतींत दवर.

पूण दुश्टबुद्दी तें आयकुपाक थंय रावलाच कित्याक? तो पांखां पसरावन केन्नाच उडून गेल्लो. सत्यवानान रोखडीच देवाची प्रार्थना केली, देवाक शरण वचून उपकार आठयले. आतांमेरेन दर एका संकश्टांतल्यान ताका देवानच वांचयल्लो. उपरान्त एक चमत्कार जालो. खंयच्यान तरी आवाज आयलो की ह्या झाडांचीं पानां घे आनी जंय घाय जाल्यात थंय थंय आंगाक लाय. घाय रोखडेच पेखतले. सत्यवानाच्या हातांत पानां आशिल्लेवरी दिसलें. सत्यवानान मनांतल्या मनांत देवाचे उपकार मानले आनी तशें केलें. घाय रोखडेच पेखले. मागीर लागसार आशिल्ल्या झऱ्याकडेन गेलो. भाकरी बी खाली आनी वाटेक लागलो. वतना हातांत तरसाद घेवनच तो गेलो. पूण परत काय दुश्टबुद्दी आयलो ना. ते घळींतल्यान तो बरेभशेन आयलो. आशिल्ले तेच घळयेच्या तोंकाक दुसरी एक घळ आशिल्ली. ते घळयेचें नांव 'मरण सांवळी.' अमर जिणेच्या शाराचो रस्तो तेच घळयेंतल्यान वतालो. सत्यवानाक तेच घळयेंतल्यान वचुंकच जाय आशिल्लें. हे घळयेंत भिरांकूळ थण्डाय आशिल्ली. ही घळ सामकी जिणेसृश्टी सावन पयस आशिल्ली. थंय मनीस जीव अशे कोणच पावूंक शकनाशिल्ले. सुवात सामकी झाडांपेडां भायरी आनी फातराळ आशिल्ली. सत्यवाना सामकार हें एक भयांकृत संकश्ट आशिल्लें. सत्यवानान देवाचें नांव घेतलें आनी ते घळयेंतल्यान तो वचपाक लागलो. आनी कितें अजापच! ते पळे, पयस साकून दोग मनीस ताचे म्हऱ्यांत येता. ते धांवत धांवत येताले.

**सत्यवान** : तुमी अशे कित्याक धांवतात?

**मनीस** : धांव. तुका जीव जाय जाल्यार तूंय लाग धावपाक.

**सत्यवान** : अशें जालां तरी कितें?

**मनीस** : कितें जालां? तूं पळे वता तेच वाटेन आमी वताले. जितलें वचूं येता तितले आमी फुडें गेले. आनी कितें सांगू इश्टा आमी आनीक थोडे फुडें गेल्ले तर ही खबर सांगपाक काय आनीक उरचे नाशिल्ले.

**सत्यवान** : अशें कितें पळेलें तुमी?

**मनीस** : कितें पळेलें? आरे सामके मरणाच्या दारांत पाविल्लें. पूण नशीब आमचें

धड म्हूण आमी फूडें पळेलें. आवयस! हें घळींत पडलेले जाल्यार कितें जातलें आशिल्लें आमचें, देव जाणा! केदी रे घळ! अजून लेगीत आंग शिरशिरता. भिण्ण काळोख, दोळ्यांत बोट घातल्यार लेगीत दिश्टी पडचेंना. व्हडले व्हडले सोरोप! तांचे फोंस फोंस अशे आवाज. घळींत जंय थंय भुतां-खेतां. आनी कितें सांगू, कांय दुख्खांत पडलेल्या लोकांची आड्डुणी, कांय लोकांक बेडयो घालून दवरल्यात शे दिसता आनी ते घळिचे वयर मरण आपले पांखाटे पातळावन रावलां. शी! शी! बरें जालें आमी परत आयले.

**सत्यवान** : तुमी कितेंय म्हणा, हांव म्हज्या मार्गासावन पयस वचचों ना. हांव ह्याच मार्गान वतलों.

**मनीस** : तुजी खोशी. आमी मात येवचेना.

अशें म्हणून ते आपले वाटेक लागले.

सत्यवान तरसाद घेवन फुडें वचूंक लागलो. ती घळ कशी आशिल्ली?

ताचे उजवे वटच्यान व्हडलो फोंड आशिल्लो. जे जे कोण कळनासतना खबर नासून फोंडांत पडटले ते परत केन्ना वयर येनाशिल्ले. आनी दावे वटच्यान कितें आसा काय? थंयच रेब्यान भरलेलें व्हडलें कोंड आशिल्लें. त्या कोंडांत पुण्यवान मनीस जरी पडलो तरी ताचे पांय जमनीक कांयच लागचे नाशिल्ले. तातूंत पडिल्ल्या मनशाक फकत देवच वाचोवंक शकतलो आशिल्लो. खोल घळींतल्यान वचपी वाट सामकी अशीर आशिल्ली. सत्यवाना सामकार हें एक व्हड संकश्ट आशिल्लें. थंयच्यान वचप म्हळ्यार तारेवयली कसरत. पांय मातसो घसरल्यार तो मेलोच म्हूण समजुपाचो. सामको स्वास अंदून धरून तो चलतालो. एक एक पावल फुडें घालप म्हळ्यार एक व्हड संकश्ट आनी हे घळींतले वाटेंत मदींच आनीक एक वाट सुरू जाल्ली. आनी ही वाट खंय वताली म्हणशात तर ती नरकाकडेन वताली. सत्यवानान मनांत म्हळें, 'हांव आनीक कितें करू.?' हो दाट गुडूप काळोख, धुंवोर, उज्याजाळ, तरेकतरांचे आवाज, ह्यो काळीज कातरपी हुयेली आनी तातुंतल्यान हांव मार्ग कसो काडूं? हे तरसादिचो कितें उपेग? दुश्टबुद्दीक हे तरसादीन हांवें बुद्द शकयली. पूण आतां मात ताचो कांयच उपेग जांवचोना. तरी हातांत घेवंकच जाय अशें ते शस्त्र म्हळ्यार सगळ्यांत सोबीत सुंदर प्रार्थना. देवा, तूंच म्हजी लज राख. अशें म्हणून तो फुडें वतालो. उज्याच्या जाळांहुलोप ताका लेगीत सोंसनासलो.

काळीज कातरपी आनी भेश्टावपी हुयेली आयकूंक येत राविल्ल्यो. सत्यवान सामको भियेवन गेल्लो. तो बरोच वेळ फुडें वतकूच ताणें कोणाचे तरी आवाज आयकले. कोण येताले काय ताचेकडेन! ते चोर आशिल्ले. ते ताचे म्हऱ्यांत येताले. तांकां पळोवन सत्यवानाक परत वचचें अशें लेगीत दिसलें. पूण आतां कितें उपेग? तो बरोच फुडें आशिल्लो. आनी ताका कितलोसोच धीर आशिल्लो. एके तरेचो विश्वास आशिल्लो. ते खातीरच तो फुडें नेटान वतालो. चोर तर सामके लागीं पावत आयिल्ले. ते ताचे म्हऱ्यांत पावता थंय आसा सत्यवान मोट्यान आड्डलो. 'देवा, तुज्याच व्हडल्या बळाचेर हांव फुडें वतां' आनी अजाप म्हळ्यार चोर फुडें आयलेच ना.

हे घळिच्या प्रवासांत ताका आनीक एक मजेशीर अणभव आयलो. सत्यवानाक खासा तागेलो आनी दुसऱ्यालो आवाज नीट वळखूंक येनाशिल्लो. तो सामको काचाबूल जालो. ताका लागून तो एका सारको फटवतालो. मातसो फोणांतल्यान मार्गार पावलो रे पावलो, रोखडोच फाटल्यान कोण तरी ल्हवूच येतालो आनी ताका आडमार्गान वचपाक सांगतालो. हो तागेलोच आवाज अशें ताका दिसतालें. अशें जाल्ल्यान सगळोच घुस्पागोंदोळ जातालो. धड ताका ताचे आड वचूंक येना, धड ताचे फुडेंय वचूंक येना अशे अवस्तेंत तो फुडें वतालो. इतल्यांत फुडल्यान आनीक कोणाचो तरी आवाज येवंक लागलो. कोणाचो तरी आवाज सामको निव्वळ आयकूंक येतालो. पूण तो मनशाचो आवाज हे ताणें वळखलें. तो कान दिवून आयकूंक लागलो. कोणाचो आवाज आयकूंक येता काय? मनीस एका सारकें म्हणटालो, 'म्हाका मरणाचे घळिंतल्यान जरी वचचें पडलें तरी कसलोच भंय ना. कित्याक तर देवा, तूं म्हजे बराबर आसा. देवा, तूं म्हजो सांगाती.' हें आयकनाफुडें सत्यवान सामको खुशालभरीत जालो. कोण बरें आसतलो तो? सत्यवानाचो भंय गेलो. ताणें मनांत म्हळें 'म्हजे सारकोच म्हाका एक सहप्रवासी मेळ्ळो. हांव आतां कित्याक भियेवं.' तो मनीस देवाक मात भिता आसतलो. तो फुडें गेला आसतलो. ताचीं हीं उतरां कितें सांगतात? ताणे देवाक पळेला आसतलो काय? इतल्या दाट काळखांत ताका देव दिसलो आसतलो काय? ताच्या आवाजा वयल्यान अशें दिसता की ताणें देवाक पळेला आसतलो. आनी देव ताचो सांगात करता आसतलो. मागीर देव म्हाका कित्याक बरें दिसना! कितल्या दाट काळखांत हांव आसां? देवा, हांव तुका कसो पळोवं? जावं. त्या मनशाक तरी मेळुया म्हणटकच म्हाका ताचो सांगात तरी जातलो. देखूनच सत्यवानान त्या मनशांक उलो मारपाक सुरवात केली. पूण ताका

परती जाप मेळ्ळी ना. कोण आसतलो काय तो? तो कोण एकलोच आसा काय? असो विचार करीत सत्यवान वतालो, फांतोड जाली. कितलें सुंदर दिसूंक लागलें जाणा? सत्यवानान मनांत म्हळें, 'ईश्वराचीच कृपा, खिणा पयलीं हांव मरणाचे दाढेंत आशिल्लो आनी आतां खिणांभितर मळबांत हांव ओडलायणी फांतोड पळेतां.'

इतले म्हणसर ताणें सहजतायेन मातशें फाटल्यान पळेलें. इतलेंच खातीर की आपूण कितलीं आनी खंयची आडमेळीं हुपून हांगा मेरेन सुखरूप पावलों! ती खोल घळ, तो भिरांकूळ फोंडारो, ते व्हडले व्हडले सोरोप, इतलीं भिरांकूळ संकश्टां हुपून तो आयिल्लो म्हूण ताणें परमेश्वराचे सामके काळजांतल्यान उपकार आठयले. सहजतायेन ताणें फुडें पळेलें. तरी लेगीत अजून कितलिशींच संकश्टां सामकार येवपाचीं आशिल्लीं. आतां सूर्य तळपेतालो. तो ताका बऱ्याकच पडलो. ताका लागून खांची-खळगे ताका सोपेपणान दिसूंक लागले. जे घळींतल्यान तो आयलो ते घळींतलीं तीं आडमेळीं आनी संकश्टां आतां फुडें येवपी संकश्टांच्या मानान कांयच नाशिल्लीं. आतां काळोख आशिल्लो जाल्यार तो कांय करूंक शकचो नाशिल्लो, सत्यवानान मनांतच म्हळें, 'सूर्याची उजवाड हीच त्या परमेश्वराची म्हजेर आशिल्ली कृपा.' अशें म्हणून ताणें फुडें पावल घालें. वाटेर ताका दोन राकेस मेळ्ळे! आवयस! केदे व्हडले रे बाबा! व्हडलीं व्हडलीं तोंडां! पूण सत्यवान तांचे सामको म्हऱ्यांतल्यान गेलो तरी तांणी ताका कांयच केलेना. कशें करतले? आनी ताका तांचेकडल्यान कितेंय वायट कशें जातलें? कित्याक तर तांतुतलो एक राकेस केन्नाच मेल्लो आनी दुसरो वळवळत पडिल्लो. त्या दोगांनी कितल्याश्याच लोकांक जिते मारिल्ले. सामकी दयामाया नासतना मारिल्ले. तांका काकुळट करप म्हणता ती खबरच नाशिल्ली. आतां लेगीत थंय रगताचे व्हाळ व्हांवताले. हेवटेन तेवटेन हाडांच्यो सामक्यो राशी पातळिल्ल्यो आशिल्ल्यो. हळू हळू सत्यवान पावलां उखलींत आशिल्लो. आतां चडटी लागली. तो पळे कांय थोड्या अंतराचेर एक मनीस वता! कोण आसत काय तो? हय. तो विश्वासच. सत्यवानालो शेजारी. सत्यवान ताका रोखडोच वळखलो आनी म्हळें, 'आरे विश्वास राव, हांव येतां मरे. तुजे बराबर. आरे, हांव तुजोच शेजारी.' पूण विश्वास काय रावलो ना. मात फाटल्यान वळून म्हळें, 'म्हाका रावपाक जायना. म्हाका वचपाचें आसा, म्हजी मोख म्हाका मेळोवपाची आसा. आनी तूं जाणा, कोणतरी फाटल्यान लागला.' पूण सत्यवानाक तरीं खंय फुरसत आशिल्ली? ताणें धांवत धांवत वचून विश्वाची फाट धरली. सत्यवानाक आनंद जालो. आनी

तसोच ताका गर्वय जालो म्हणूं येता. आनी जशें काय त्या गर्वाचें फळ जाल्लेवरी ताच्या पांयांक कितें तरी लागलें आनी तो सकयल पडलो. विश्वास रोखडोच ताचे म्हऱ्यांत गेलो आनी ताका ताणें उठयलो. दोगूय जाण मागीर सांगातां चलूंक लागले. तशेच आपले भितर गजाली उलयत वचूंक लागले.

**सत्यवान** : बरें हें सांग इश्टां, तूं कितले दीस त्या नासाडी शारांत आशिल्लो? हांव थंयच्यान भायर सरतकूच रोखडोच तूंय भायर सरलो?

**विश्वास** : आरे, रोखडोच म्हळ्यार कितें? त्या शाराचो रोखडोच नाश जातलो हें म्हाका कळिल्लें. पूण लोकांचो खंय विश्वास बसला? ते तर उरफाटे म्हज्यो भगलो मारूंक लागले.

**सत्यवान** : पूण कितें रे, तो मवाळ मेळिल्लो तुका?

**विश्वास** : मेळिल्लो तर, आनी म्हाका ताणें सगळें कितें सविस्तर सांगलें. आनी अर्दे वाटेवयल्यान पळून गेला म्हूण तर ताची लोक चडच फकाणां मारूंक लागले. इतलेंच न्हय तर ताका लोक चुकून माकून काम दिवंक लागले.

**सत्यवान** : हो तर मोटो विनोदच म्हणपाचो. तो जे वाटेन गेलो तो मार्गच तर ताका मान्य नाशिल्लो.

**विश्वास** : आं? म्हूण कितें जालें? त्या मवाळाचो तर आपणाचेर विश्वास नाशिल्लो. ताका तर सामकी लज जाली.

**सत्यवान** : मागीर ताची इल्लीय धडगत ना तर.

**विश्वास** : जें जातलें तें कोणच टाळूंक शकना.

**सत्यवान** : आरे, अशें कशें म्हणटा? मनशाच्या हातांत एक बरें शस्त्र आसा आनी तें म्हळ्यार प्रयत्न. मनशान निश्ठेन यत्न करीत रावचें आनी फकत तितलेंच ताच्या हातांत आसा. बरें तें आसूं. पूण तूं हांगामेरेन कसो काय पावलो?

**विश्वास** : निरशेवणेच्या फोंडांतल्यान हांव बरे तरेन भायर सरलों आनी आडमेळ्यांचे दोंगुल्लेच्या मुळसाकडेन पावलों. थंय म्हाका एक म्हातारो मेळ्ळो. ताका हांव खंयच्यान आयलों आनी खंय वतलों तें सांगलें. ताणें म्हाका नोकरेक रावपाक सांगलें. तो जंय रावतालो त्या गांवाचें नांव आशिल्लें 'फटींग शार'. हांवें ताका सहज विचारलें. 'काम कसलें करपाचें?' ताणें म्हळें, ''फक्त सगळें सूख

भोगपाचें. सगळ्या तरांच्या सुखाचो लाव घेवपाचो.'' हांगा हांव पाविल्लों जाल्यार त्या म्हाताऱ्याचो वारसच जातलों आशिल्लों. ताचें घर म्हणशी तर एक व्हड आलिशान वाडो. तो जगांतल्या सगळ्या सुखसोयींनी भरिल्लो. ताका तीन चलयो. तातुंतले एके चलयेचें नांव 'विषयाशक्ती' दुसरेचें नांव 'सुंदरकायशक्ती' आनी तिसरेचें नांव 'जिणेशक्ती'. त्या म्हाताऱ्याची इत्सा आशिल्ली की हांवें तिगांय बराबर लग्न करून थंयच सुखान रावचें.

**सत्यवान** : बरें मागीर फुडें कितें जालें?

**विश्वास** : आरे, म्हाका लेगीत दिसलें की आपणें खरेंच थंयच रावचें. पूण म्हज्या अंतस्करणांत म्हाका कोणें तरी सांगलें की त्या म्हाताऱ्यापासून सावध राव म्हूणन. मागीर मात म्हाका समजलें की हातूंत कितेंयतरी नखलामी आसा. हांव ताच्या घरा गेल्लों जाल्यार नक्कीच ताचें आधीन जातलों आशिल्लों. देखूनच ताच्या घरा हांव गेलों ना. हें पळोवन तो म्हजेर रागार जालो आनी म्हळें, ''आरे चोरा, तूं हांगाच्यान कसो वतां ते पळेतां'' अशें म्हूण ताणें म्हजे फाटीर नेटान तोणको मारलो. तेन्ना हांव कसोबसो थंयच्यान पळ्ळो. पूण कितें सांगू, कोणतरी म्हजे फाटल्यान बाणा भाशेन धांवतालो. अशें करतां करतां दोंगुल्लेचेर विसव घेवपाची जी सुवात आसा थंयच ताणें म्हाका धरलो.

**सत्यवान** : आरे, थंयच तर हांव म्हजें पुस्तक विसरिल्लों.

**विश्वास** : फुडलें आयक तरी, त्या मनशाक म्हाका धरलो आनी कितें सांगूं! म्हजेर धुमक्यार धुमके मारूंक लागलो. हांव तर सामको घुंवळ येवन पडलो. थोड्या वेळान हांवें ताका विचारलें, बाबा रें! तूं आसा तरी कोण? म्हाका कित्याक मारता?

ताणें म्हळें, ''हांव कित्याक मारतां हें तू म्हाका विचारता? त्या म्हाताऱ्याबराबर तुका रावपाचें आशिल्लें न्हय? तशी वायट इत्सा धरली म्हूण तुका हांवें मारलो.'' अशें म्हणून आनीक एक धुमको मारलो. हांव काकुळटेक आयलों आनी ताचे पांय धरले. पूण ताचें काळीज हाल्लें ना. दया म्हणता ती ताका खबरच नाशिल्ली. निमाणें निमाणें तरी तो सामको म्हज्या हड्ड्यार बसून म्हाका मारूंक लागलो. हांव सामको मरपाचो पूण देवान वाटायलो.

**सत्यवान** : तो कसो?

**विश्वास** : तो मारता आसतना अचकीत थंय एक तेजिश्ट व्यक्ती आयली

आनी तिणें ताका वचपाक सांगलें आनी घटकेंत ती व्यक्ती अदृश्य जाली.

**सत्यवान** : आरे मागीर थंयच्यान येतना तुका एक शिंवांची जोडी दिसली आसतली न्हय?

**विश्वास** : शींव म्हाका दिसले तेन्ना उजवाड आशिल्लो आनी हांव तेवटच्यान गेलोंच ना.

**सत्यवान** : तुवें खरेंच त्या घरांत वचूंक जाय आशिल्लें. केदे व्हडले मनीस तुका थंय पळोवंक मेळटले आशिल्ले. तरेकतरांच्यो वस्तू पळोवंक मेळटल्यो आशिल्ल्यो. पूण हें सांग, मानखंडणेच्या घळींतल्यान येता आसतना कोण मेळिल्ले तुका?

**विश्वास** : थंय म्हांका 'निर्शेल्लो' मेळिल्लो. तो एकसारको लागिल्लो ताचे बरोबर यो म्हण. आनी आयलो ना जाल्यार गर्व, घमेंड, आत्मप्रौढी, मानभावीपणा ह्या म्हज्या इश्टांक राग येतलो अशें तो म्हाका एक सारकें सांगतालो. पूण हांव ताका आयकतां? हांवें ताका नेटान सांगलें. 'आसत ते म्हजे इश्ट पूण हांव आतां यात्रीक जालां आनी तांचे म्हजे नातें तुटलां. फुडें वचपांत कितलो मान आनी शाणेपण आसा हे त्या बावड्याक खंय खबर आसा'?

**सत्यवान** : बरें केलें तुवें. आनीक कोण मेळ्ळे तुका?

**विश्वास** : आरे ती बेशरमबाय, सामकीच मरे! नाका आशिल्ली धिटाय न्हय? तिका 'नमळकाय' म्हणटा ती खबरच ना.

**सत्यवान** : कितें केलें तिणें? कितें म्हणटाली ती?

**विश्वास** : सदाचारान कशें वागप हें तिका खबरच ना. गरीब गरजेवंताक आपुलकी दाखवप, शेजाऱ्याबराबर सत्यान वागप, देवळांत किर्तन, प्रवचनाक वचप ह्या सगळ्या गजालींचो सामको तिका तिटकारो आशिल्लो. तिणें अशेंय म्हळें 'धर्माखातीरच मनीस अधोगतीक पावला. आरे, ह्या धर्माखातीरच कितल्या लोकांच्यो कत्तली जाल्यो. कितल्या लोकांक गरजेभायर मरचें पडलें आनी ह्या मनशांमदीं कितल्यां तरांच्यो अठरा पंगड जाती निर्माण जाल्यो, हाचें कोंत आनी हिशेब ना. मनीसपणां म्हणटा तीं मनशांत उरूंक नात आनी हें सगळें कित्याक तर तुमच्या धर्माखातीरच.'

**सत्यवान** : वा! बरीच मरे साळसूद दिसता बाय. आरे, चोर ते चोर, वयल्यान शिरजोर. तुवें तिका बरी सणसणीत जाप दिवंक आशिल्ली.

**विश्वास** : मागीर हांव सोडटां व्हय? हांवें तिका खरमरीत जाप दिली. हांवें तिका खरो धर्म कितें तो सांगलो. खरो धर्म म्हळ्यार निर्मळ, मोगाळ पवित्र अंतस्करण. हेंच खऱ्या धर्माचें लक्षण. आपणा पुरतेंच पळोवप हो खरो म्हळ्यार अधर्म. गरिबाक आमी दया दाखोंवकूच जाय. आनी तें करता आसतना मनांत मात लेगीत सुवार्थाचो कण आसूंक जायना. आनी दुसऱ्याक आधार दिवपाची संद मेळप हें तर आमी आमचें भाग्यच मानूंक जाय. आमचो तो एक अधिकारच समजूंक जाय. उपकाराचें आमी भांडवल करूंक जायना. कळ्ळें मरे सत्यवान? अशें म्हणून तिका हांवें वचपाकच सांगलें. पूण ती मख्खपणान उबीच रावली. पूण हांव कसोय तरी थंयच्यान आयलों. पूण कितें रे सत्यवान, आमी बऱ्या ध्येयाकडेन वतना इतलीं आडमेळी कित्याक येतात?

**सत्यवान** : आडमेळीं, अपेश हें येवंकच जाय. ते बगर मनीस कसाक कसो लागतलो? अपेश, आडमेळीं, दुख्ख सोंसप हीं तर जैत मेळोवपाची सोपणां. आनी हेच खातीर आमच्यांतली प्रतिकार शक्त वाडटा. प्रतिकार शक्त वाडली म्हणटकूच जैत मेळप सोपें जाता. अपेश सोसूंक येवप ना हेंच वायट अपेश जावन आसा. संकश्टाचेर जैत मेळोवन आमी फुडें वचूंक जाय.

**विश्वास** : खरेंच! कितलें बरोबर आसा तुजें म्हणणें. ईश्वराचेर भरवंसो दवरून आमी अशेंच फुडें वचूंक जाय. आनी खरें सांगूं सत्यवान, म्हजेर ईश्वराची कृपा आशिल्ली म्हणूनच हे मरण धडेच्या खोल घळींतल्यान हांव धडपणान भायर सरूंक पावलों. येतना सामको उजवाड आशिल्लो.

मागीर सत्यवानान आपणाचेर कशीं कशीं संकश्टां आयलीं आनी देवान तीं कशीं निभायलीं तें ताका सांगलें आनी दोगय जाण फुडल्या मार्गाक लागले.

तो पळे, तांचे फाटल्यान एक मनीस येता. कोण आसतलो काय? सामको तांचे म्हऱ्यांत आयलो. मनीस उंच तर दिसता. ताचें मुखामळ हासतें दिसता. पळे तो सामको ताच्या हाताच्या अंतरार आयलो. विश्वासाक ताची सुलूस लागली आनी सहज ताणे ताचेकडेन पळेलें... आरेच्या! हो तर विश्वासाचे वळखीचो दिसता. हय, ताचें नाव 'बडबडो.'

**विश्वास** : नमस्कार. कितें रे? तूं खय वता? अमर जीण शाराकडेन वता काय कितें?

**बडबडो** : हय, थंयच वतां हांव.

**विश्वास** : बरें जालें. आमकां सांगात जालो. आमी आमच्या प्रवासा संबंदान उलयत वचुं या.

**बडबडो** : हय, तर सांगपाचें म्हळ्यार आपल्याक आवडटा त्या विशयाचेर उलोवपी मेळपाक कठीण, चडकरून म्हाका खबर आशिल्ल्या विशयाचेर उलोवपी मेळटात आनी हाचोच तर म्हाका वाज येता.

**विश्वास** : हेंच तर नडटा. देवान कितल्योशोच बऱ्यो गजाली जल्माक घाल्यात. तें सोडून बेश्टेंच नाका जाल्ल्या गजालींचेर चर्चा करपांत कितें अर्थ आसा?

**बडबडो** : दी ताळी. तूं बेस बरें उलयलो रे. तुजें म्हजें सामकें पट्टा. आरे, हेंच पळे मरे! मनशान झगडचेपरस वा नाका आशिल्ली भासाभास करचेपरस आपणा संबंदान, मनशाच्या इतिहासा संबंदान मनशाबराबर भासाभास केल्ली बरी. आमी खंयच्यान आयले, आमकां खंय वचपाचें आसा हांचो मनशान मात्सो आपणेंच विचार करचो. सरभोंवतणी पळेल्यार ताका जगांत कितलिशींच अजापां पळोवंक मेळटलीं.

**विश्वास** : हय! पूण तशें पळेता कोणा?

**बडबडो** : तशें केल्ल्यान मनशाक कितलेशेंच ज्ञान मेळटलें. ह्या जगांत खरें कितें? फटी कितें? अस्सल खंयचें? नकली खंयचें? जगांत दिखावपणच चड. तातूंत मनशाची सुवात खंयची? ह्यो सगळ्यो गजाली मनशाक कळून येतल्यो. तशेंच आमी येत्न करतां तातुंतलो उणाव म्हळ्यार देवाचें अधिष्ठान, हें लेगीत कळून येतलें.

**विश्वास** : वा! तुका बऱ्योच गजाली खबर आसात मरे!

**बडबडो** : आयक तर फुडें. पश्चाताप करप, विश्वास दवरप, प्रार्थना करप, दूख सोंसप, वचन पाळप, अक्षय सूख भोगप हें लेगीत कळून येतलें. हाचे खातीर मनशाक आपणाविशीं विश्वास निर्माण जातलो. तो आत्मविश्वास मेळचो म्हूण झगडटालो, सत्याक घट धरून रावतलो. अज्ञानाक सज्ञान करतलो.

**विश्वास** : खरेंच तुका जें जें कितें खबर आसा तें तें सगळें म्हाका सांग.

**बडबडो** : आरे हें सगळें खबर नाशिल्ल्यान मनशाक श्रद्धेचें म्हत्वच कळना

आनी तो अज्ञानांत जीण जगत आसता. आनी हे खातीरच लोक अमर जीण जगूंक पावनात.

**विश्वास** : तें खरें रे, पूण म्हाका दिसता अध्यात्मीक ज्ञान ही एक देवाचीच देणगी आसूंक जाय. निखटो यत्न केलो वा ताचे संबंदान बडबडलो म्हूण तें मेळूंक पावना.

**बडबडो** : तें आयलें मतींत. ईश्वरकृपेबगर ह्या संवसारांत काय मेळूंक शकना.

बडबडो जसो काय सगळ्या विशयांत पारंगत आशिल्लो. नितीक, भौतीक, स्वर्गासंबंदान, नरका-संबंदान, अतीत संबंदान सगळ्या सगळ्या विशयांचेर जशें काय ताचे जिबेच्या पोंतार गिन्यान नाचतालें. आनी इतलो वेळ हळू हळू करून सत्यवान एकटो वतालो. विश्वास हळूच ताचे म्हऱ्यांत आयलो आनी सत्यवानाक म्हळे, 'आरे इश्टा, हो नवो इश्ट तुका खबर आसा? बरो सांगाती' जातलो आमकां, सत्यवान मात्सो हांसलो. आनी म्हळें, 'आरे तूं ज्या इश्टाचेर इतलो भाळ्ळा ताका हांव बरे भशेन वळखतां. ताच्या उलोवपाचेर वचूं नाका. तो तुका फटयतलो. तो आपणाक जितलो वळखता ताचेय परस हांव ताका चड वळखतां. आरे, हो बडबडो आमच्याच गांवचो, तूं ताका अजूनय वळखना हाचेंच म्हाका अजाप जाता.

**विश्वास** : तो कोणाचो पूत? खंय रावता तो!

**सत्यवान** : आं. बरोबर. हो तर 'श्री सगळेजुस्त' हाचो पूत. आनी तो 'वटवट' गल्लींत रावता आनी जरी तो बरें उलयता तरी ताचें लक्षण काय बरें दिसना.

**विश्वास** : अशें व्हय? म्हाका तर तो बरो दिसता.

**सत्यवान** : तुका अजून ताची पुराय वळख जावंक ना. देखुनच तुका तो बरो दिसता. आरे, पयसुल्यान दोंगर खंय सोबीत दिसता. तसल्यांतलेंच हें, हाचे वयल्यान म्हाका एक याद जाली. एका चित्रकाराचीं हावें चित्रां पळेल्लीं. किते सांगू तूका. पयसुल्ल्यान तीं खूबच सुंदर दिसताली. पूण लागिंच्यान तीं सामकींच बाबत दिसताली.

**विश्वास** : तूं म्हजी फकणां करिना मरे?

**सत्यवान** : शे! हो मनीस असो आसा की तो कोणाय बराबर कसोय उलयतलो. ताका लागभाग कांयच लागना. तो आतां तुजेबराबर जसो उलयता तसो सोऱ्याचे गादयेरय उलयतलो आनी जसो जसो सोरो चडटलो तशें तशें ताचें तोंड चड वाजतलें.

ताका खरें म्हळ्यार सदाचार म्हणटा तें कितें हेंच खबर ना, फकत लांब-लांब गजाली करप हो ताचो धंदो.

**विश्वास :** म्हणटकूच हांव सामकोच फटवलों म्हणपाचें.

**सत्यवान :** फटवलो म्हूण कितें विचारता? सामकी खात्रीच धर. कोणें म्हळांच की कामाबगर उलोवपांत अर्थ ना म्हूण. हे फकत उलोवपी वीर. फक्त बडबडे. बडबड्या नांवांपरस कितेंय काम करपांतच व्हडपण आसा. आरे. हांचें घर म्हळ्यार मोट्या घराचे पोकळ वांशे. हो प्रार्थने संबंदान जाय तितली बडबड करतलो पूण पळोवंक गेल्यार प्रार्थनेंतलें एक अक्षरय ताका खबर ना. हाका ओपार दिवपाची जाली जाल्यार हो म्हळ्यार 'बोळ आनी मंडोळी नाशिल्लें तांती.' हो दुसऱ्याचें बरें अशे केन्नाच करचोना. एक वेळ दुस्मान परवडलो पूण हो न्हय. थोडे भितर सांगपाचें म्हळ्यार लोकांक सांगता ब्रह्मज्ञान आपूण मात खडखडीत पाशाण' अशी ही व्यक्ती आसा. हाणें कितल्याशाच लोकांक फटयल्यात आनी कितल्या लोकांक फटयतलो हें कोणच सांगूंक नकळ.

**विश्वास :** बरें जालें, म्हाका तुवें वेळारच सांगलें.

**सत्यवान :** म्हाका जर खबर नाशिल्लें तर हांव लेगीत ताचेर विश्वास दवरतलो आशिल्लों.

**विश्वास :** अशें आसा तर उलोवपांत आनी कृती करपांत कितलो फरक आसा हे म्हाका कळून आयलें.

**सत्यवान :** आरे, हातूंत भूंय मळबा इतलें अंतर आसा. आत्म्या बगर जशीं कूड तशी कृती बगर निखटी बडबड ही अर्थ नाशिल्ली. सदाचारान वागप होच खऱ्या धर्माचो आत्मो जावन आसा. धर्म, अर्थ म्हळ्यार दुसरें तिसरें कांय न्हय, तर सगळ्यां वांगडा सदाचारान वागप. तो बडबडो हांतलें कांयच नकळ. तो आपणाक फटोवन घेता. दुसऱ्याचें आयकून घेवप हें आपणाल्या मनाचे भुंयेंत बीं रूजोवन घेवपा सारकें आसा. अंतस्करणांत तें रुजलां काय ना हें ताचे कृतीवयल्यान दिसून येता.

**विश्वास :** आं! आं, उथळ उदकाक खळखळाट चड तशें हाका म्हणूं येत. चैतन्य नाशिल्ली अशीं ताची जीण. पूण कितें रे, हाकां आतां पयस करपाचो कसो?

**सत्यवान :** हांव सांगता तशें कर म्हणटकच ताका तुजोच कंटाळो येतलो.

परमेश्वरान ताका बुद्द दिली तर बरेंच जालें, तू अशें कर. धर्मा-अधर्मा संबंदान ताचे बराबर भासाभास कर आनी मागीर, सरळ ताका विचार की तूं खासा तसो वागता काय ना तें.

**विश्वास :** हय दिस्त अशेंच करतां.

अशें म्हूण विश्वास बडबड्या म्हऱ्यांत गेलो. ताका पळोवन बडबड्यान म्हळें, बरोच कळाव जालो मरे तुका. इतलो वेळ आमी कितल्याशाच विशयाचेर बऱ्योच गजाली मारतले आशिल्ले.

**विश्वास :** तुजी इत्सा आसत जाल्यार आतां लेगीत गजाली करूंया. हांवच सुरवात करतां. मनशाच्या अंतस्करणातल्यान ईश्वरी शक्तिची केन्ना प्रचिती येतली.

**बडबडो :** वा! प्रस्न तर खुबच सुंदर आसा. आयक तर, मनशाच्या अंतस्करणांतल्या ईश्वरी शक्तिची प्रचिती आयले बराबर मनीस सगळ्यांत पयलीं पातका आड आड्डतले. दुसरें...

**विश्वास :** राव, राव! एके गजालीच पयलीं फोडणिशी करूंया? म्हाका दिसता पातका आड आड्‌डतले अशें म्हणचे परस मनशाचे अंतस्करण पातकाचो तिरस्कारच करतलें.

**बडबडो :** आरे, आड्डतलो आनी तिरस्कार करतलो हातूंत फरक तो कितें?

**विश्वास :** वा ! वा ! फरक आसा तर. आरे तुका खबर ना. आवय आपणाल्या भुरग्याचेर आड्डतली. रागार जातली, एकाद्रें थापटय मारतली. पूण वेळ येतकच ताका आवयचे मायेन म्हऱ्यांत घेतली. ताचे उमे घेतली. इतलो फरक आसा. मनीस पातका आड आड्डतलो पूण अंतस्करणांतल्यान ताचो तिरस्कार करचो ना.

**बडबडो :** शे! निव्वळ फट. तूं सामको म्हाका उतराक धरता मरे.

**विश्वास :** तशें न्हय. तसो म्हजो मात लेगीत हेतू ना. सत्य कळचें हो म्हजो हेतू. बरें, तुका दुसरें कितें सांगपाचें आसा?

**बडबडो :** सृश्टीचे रचणुके संबंदान गिन्यान आसप गरजेचें.

**विश्वास :** म्हाका तशें दिसना. एकाद्रया वेळार मनशाक सृश्टीचें गिन्यान जायत पूण अंतस्करणांत ईश्वरी साक्षात्कार जातलोच अशें ना. येसू क्रिस्तान एक फावट म्हळें, 'धन्य ते ज्ञानी जे कर्मयोगी आसात.'

म्हणटकूच निखटें गिन्यान आसून उपेग ना. मनीस पंडीत जावंक शकता. निखटें गिन्यानी जावप हे बडबड झेत मारपी लोकांक खुशालकायेचें आसत. खरें सांगपी जाल्यार गिन्यानागिन्यांनांत फरक आसा. फकत पंडीत वेगळे आनी मोग, कर्मांचेर श्रद्धा दवरून गिन्यान आसप हें वेगळें.

**बडबडो** : हें पळे. तूं आतां म्हाका उतराक धरूंक पळेता. उपदेश करपाखातीर थोडीच गजाल ही.

**विश्वास** : बरें ! ईश्वर शक्तिची दुसरी खंयचीय गजाल सांग पळोवंया.

**बडबडो** : आतां हांव सांगता. आतां आमचें पटत अशें म्हाका दिसना. तुका जाय जाल्यार म्हाका सांग.

**विश्वास** : हरकत ना. हांवच सांगतां. मनशाच्या अंतस्करणांतल्यान ईश्वरशक्तीची प्रचिती ताका आपणाकच एकतर जाता वा ताका कळूंक लागता. ना जाल्यार लोकांकच ती समजून येता. त्या मनशाक वायट गजालींचो तिरस्कार तर येताच इतलेंच न्हय तर तांच्यांत आतां विश्वास निर्माण जाता. ल्हवूल्हवू करून ताच्या अंतस्करणांत ईश्वरी शक्तिचो साक्षात्कार जावंक लागता. आनी जशी ताची स्रद्धा आसत तशें ताका सूख शांतताय मेळटली. तशेंच ताचे श्रद्धेप्रमाण तो खरें गिन्यान मेळोवपाचे येत्न करतलो आनी ह्या संवसारांत ईश्वराची सेवा करतलो. म्हळ्यार लोक सेवा करीत रावतलो. केन्ना केन्नाय अशेंय जाता की मनीस चुकिचे बुद्दीन ईश्वरी संकेतांक विसरता.

**बडबडो** : म्हळ्यार बुद्दीक मानपाचेंच ना काय कितें?

**विश्वास** : अशें कोण म्हणटा? पूण बुद्दीचो योग्य वापर करूंक जाय न्ही? कांय फावटी ईश्वरी शक्तीची प्रचिती ताचे जिणेंतल्या आचरणाचेर निंबून आसता. सगळ्यांत पयलीं मनीस निर्मळ आसूंक जाय. तो घरा आपल्या कुटुंबाबराबर कसो वागता? समाजांत कसो वागता हाचे वयल्यान कळत काय? तुजें म्हणणे कितें?

**बडबडो** : म्हजें काम फक्त आयकुपाचें. तू फकत सांगत राव.

**विश्वास** : तुका हें सगळें पट्टा? मागीर तुवें तुगेले जिणेंत कितल्यो गजाली आचरणांत हाडल्यात?

**बडबडो** : (आयकून अजाप भरीत जावन) आतां तुका सामको अणभवच सांगचो पडलो तर! शी! हातूंत कांय तथ्य ना आनी म्हाका असली कांयच संवय ना.

तूं म्हजो कितें न्याय करपी न्यायाधीश व्हय? पूण म्हाका हो प्रस्न तूं कित्याक विचारता?

**विश्वास** : ताचें कारण उगतें आसा. आनी तें म्हळ्यार कृती बगर उलोवप व्यर्थ. आनी हांवे अशेंय आयकलां की बडबडप हो तुजो धर्म आसा.

आनी ह्या तुज्या दोशाखातीरच तुवें कितल्याशाच लोकांक फटयल्यात. आनी कितले लोक फटवतले ताचो नेम ना. तुजो तो धर्म, अप्रामाणिकताय, अपवित्रताय, लोभीपण हेंच सांगतलो.

**बडबडो** : तूं सामको तिडकीवान, आनी उदास जावंक लागला बाबा. तेन्ना तुजे बराबर भासाभास तरी कशी करूं? बरें सायबा, हांव वतां. नमस्कार.

सत्यवानाक हें पयलींच खबर आशिल्लें. तो विश्वासाच्या म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हळें, ''आरे, म्हाका खबरच आशिल्लें की तो आपूण जावन वतलो म्हूणन, वचूंदी ताका, आमचें काय एक लुकसाण जावंचें ना, उरफाटें ताचो सांगात म्हळ्यार आमचेर बगलांट येवपाचें. खरें म्हळ्यार असल्या लोकां पसून चार हात पयसच रावंक जाय.''

**विश्वास** : पूण एक बरें जालें. हांव ताका सगळें कितें तें सांगलें. एकाद्रो तो परत आयलो जाल्यार हे गजालीचो नीट विचार करतालो.

**सत्यवान** : तूं स्पश्टच उलयलो हें खूबच बरें जालें. पूण बऱ्याच जाणांक स्पश्ट उलयल्लें मानवना. पोकळ झेतच चड आसता लोकांचो. हे असलेच लोक धर्माच्या नांवान लोकांक फटयतात.

अशें उलयत उलयत ते फुडें वचूंक लागले. उलयत गेल्ल्यान ते बरेच फुडें पावले. परत तांकां एक खिचकट वाट मेळ्ळी. ती खिचकट वाट सोंपता म्हणसर विश्वासान सहज फाटल्यान पळेले, तांचे फाटल्यान कोणय तरी येतालो. ते ताका वळखताले अशें दिसलें. ताका पळोवन विश्वासान सत्यवानाक म्हलें, ''आरे, हे पळेले कोण येतात ते?''

**सत्यवान** : हो तर म्हजो इश्ट देवदूत.

**विश्वास** : हय म्हजो लेगीत इश्टच तो.

देवदूत तांचे म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें म्हळें, ''नमस्कार, इश्टांनो. खुशाल मरे तुमी? तुमचो प्रवास बरे भशेन चल्ला मरे?'

मागीर सत्यवानान आनी विश्वासान देवदुताक प्रवासांतली सगळी खबर सांगली.

**देवदूत :** तुमी सगळ्या संकश्टांचेर जैत मेळोवन हांगामेरेन पावले ते खातीर हांव खुशालभरीत जालों. संकश्टां हीं येतलीच ताचे सामकार वचून ताचेर जैत मेळोवप हांतुंतच पुरूषार्थ आसा. तुमच्या ध्येयाकडेन तुमी लागीं पावल्यात. तरी पूण तुमकां बरेंच फुडें वचपाचें आसा. आनी अजून तुमचेर येवपी संकश्टां सोंपूंक ना. तुमच्या दोळ्यां मुखार ध्येय दवरात आनी फुडें वचात. आळसाय करूं नाकात. देव तुमचे फाटल्यान आसा.

**सत्यवान आनी विश्वास :** आमकां आतां लेगीत वाट दाखोवपाचें काम करशात जाल्यार भोव उपकार जातले.

**देवदूत :** तुमच्यो संवयो, तुमच्यो इत्सा ह्या ना त्या रुपान तुमकां त्रासांत घालतल्यो. तेन्ना आळसाय करूं नाकात. आतां रोखडेच तुमी एका शारांत पावतले आनी थंयच तुमचे दुस्मान चड आसा. ते तुमकां खूब हांयसां दाखयतले. पूण धीर सोडूं नाकात. एक वेळ मरण पत्कारात पूण तांचे सामकार बागोवंक नाकात. देवाक मात लेगीत विसरूं नाकात.

अशें म्हणून देवदूत अदृश्य जालो.

हळू हळू ते एका शारालागसार पावले. हेंच काय तें देवदुतान सांगिल्लें शार? कितलो म्हणून बोवाळ चल्ला हांगा? हय! हेंच तें शार. लोक एकसारके भोंवताले. असलो कसलो बोवाळ चल्ला काय? सत्यवान आनी विश्वास सवकायेन त्या शारांत पावले. अमर जीण शाराकडेन वचपाचो मार्ग हांगासल्ल्यानच वतालो. तांणी त्या शारांतल्याच एका मनशाक विचारलें. 'ह्या शाराचें नांव कितें?' आनी इतलो कसलो बोवाळ चल्ला? त्या मनशान म्हळें, "तुमकां खबर ना? तुमी ह्या शारांत नवेच दिसतात? प्रवासी हांगा सदांच येतात. ह्या शाराचें नाव 'डामडौल' आनी हांगा आज जात्रा आसा."

तांणी विचारलें, "कसली जात्रा?"

ताणें म्हळें, - 'फुशारकी' देवीची जात्रा. खरें म्हणचे ही जात्रा दुश्टबुद्दी आनी ताचे सांगाती भरयतात. कारण अमर जीण शाराकडेन वचपी प्रवासी हांगाच्यानच वतात. अमर जीण शाराकडेन वचपाचो मार्ग हांगसूनच वता. जात्रा कशी सामकी गच्च भरल्या! त्यो पळेयात. कितल्या तरांच्यो वस्तू विकपाक आयल्यात. कितल्यो म्हूण सोबीत वस्तू आसात त्यो. या आमी पळोवंया.

आरेच्या, घरां लेगीत विकपाक आयल्यांत. जमीन, वेपार करपाखातीर तरातरांच्यो वस्तू, मान सन्मान, जण एकाचे आवडिच्यो गजाली, पदव्यो, वायट वान्सो, सुखां भोगपाच्यो तरांतरांच्यो वस्तू, सुंदर बायलो, भुरगीं, तरनाटे, चाकरी करपी, भांगर रूपें, माणकां, मोतयां, रत्नां आनी कितें ना म्हूण ना. सगळ्यो डामडौलाच्यो वस्तू आसात. इतलेंच न्हय, तरातरांचे जुगार, तरातरांचे खेळ, मूर्ख मनशां, चोर दरवडे घालपी लेगीत आसात. ह्या सगळ्यांचो एकवट म्हळ्यार खून मारामारी, चोरयो, आगळिको, फटोवणी, ढोंगां हें सगळें राजरोस चलतालें. अमर शाराकडेन वतना ह्याच शारांतल्यान साधू, संत रुशी अशे व्हड व्हड लोक येवन गेले. पूण हे जात्रेंतली एकय वस्तू तांणी विकती घेवंक ना. अशा ह्या शारांत सत्यवान आनी विश्वास पावले. त्यो सगळ्यो तरेकवार वस्तू पळोवन तांकां अजाप जालें. तांकां सहज फिरता आसतना लोकांनी पळेलें. लोकांनी तांकां सामको गराडोच घालो. लोक तांचेकडेन पळेतच रावलें. बरोबर आसा. ते थंयच्या लोकांपरस सामके वेगळेच आशिल्ले. तांचो भेस वेगळो, चलप वेगळें, वागप वेगळें. त्या लोकांक हे सामकेच अन्नाडी कशे दिसले. हांची भास लेगीत लोकांक समज नाशिल्ली. कांय लोक आपणां भितरच उलयताले. 'हे सामकेच पिशे मरे.' आनी सगळ्यांत मजा म्हळ्यार थंयचे वेपारी हांकां तांगेले जिनस घे म्हूण फाटीं लागताले. पूण हे मात लेगीत तांकां बदले नात. ते नीट रस्त्यान वताले. बाजारांतल्या एकाय जिनसा कडेन तांचे लक्ष नाशिल्लें. एका मनशान तांकां हटकिले आनी विचारलें ''कितें गा, तुमी विकतें तरी कितें घेतात?'' सत्यवान आनी विश्वासान सांगलें, ''आमी फकत सत्य विकतें घेतलें.' अशें म्हणटकूच लोक तांका बाबत म्हणून पिशांत काडूंक लागले. कांय जाण तांकां हिणसावंक लागले. कांय जाण तांकां वांकडी तोंडां करून चाळोवंक लागले, तांचे आड हेरांक चिथावंक लागले.

हळू हळू करून जात्रेंत बोवाळ सुरू जालो. उठ्टा तो तांचे संबंदान उलोवंक लागलो. हो बोवाळ आयकून शिपाय आयले आनी तांकां घेवन पोलीस चावडेर गेले. खंयसून आयले, खंय वतले हे विशीं चवकशी करूंक लागले. सत्यवानान आनी विश्वासान तांकां नमळकायेन सांगलें,: ''आमी आसात प्रवासी. आमी ह्या शारांत नवेच आयल्यात. आमी अमर जीण शाराकडेन वतात. आमी हांगा कोणाकच कांयच म्हणूंक ना. कोणाकच गाळी सवूंक ना. कसलीच आडमेळी हाडूंक ना. तुमी विकतें कितें घेतले अशें जेन्ना आमकां विचारलें तेन्ना आमी सत्यच विकतें

घेतले म्हणून सांगलें.''

पूण तांचें कोणेंच आयकून घेतलें ना. तांचेर कोणेंच विश्वास दवरलो ना. उरफाटें ते जशे काय निकतेच पिशा हॉस्पिटल्यातल्यान आयिल्ले भशेन तांचेकडेन पळोवंक लागले. कांय लोकांनी म्हळ्ळें लेगीत 'ह्या शारांत गडबड करपा खातीरच हे आयल्यात.' कसलो हो आरोप? पूण लोकांचे फुडें तांचें कितें चलता...? इतल्यांत 'मारात, धोडयात' अशो बोबो आनी हुयेली लोक मारूंक लागले. लोक कशेच थांबनात. जण एकल्यान तांकां मारपाक सुरवात केली. कोण तांचेर फातर मारूंक लागले. कोणें जोतीं मारलीं. कांय लोक तर तांचेर चिखोलच मारूंक लागले. लोक एक्कासारके आड्डताले, 'मारात धोडायात.'

थोडो वेळ जातकूच कांय जाणांनी तांकां पांदऱ्यांतच घाले. आनी येत्या वत्याक दाखोवंक लागले. तांचें मातशें प्रदर्शनच मांडले. जात्रेंतल्या लोकांक एक नवोच विशय मेळ्ळो. लोक तांचेकडेन पळोवन हासूंक लागले. तांची हुर्यो उडोवंक लागले. पूण सत्यवान आनी विश्वास सामके शांत आशिल्ले. तांणी तोंडांतल्यान एक चकार उतर काडलें ना. ते शांत चित्तान सगळें कितें आयकून घेताले. लोकांच्यो गाळी आयकून तांणीं तांकां परत गाळी मारल्यो ना. ना म्हणपाक उपकाराची फेड ते उपकारानच करताले. तांणीं तांगेलें मोगाळपण कशेंच सोडलें ना. तांचो परिणाम कांय लोकांचेर रोखडोच जालो. कांय बेश्टे थंय उबे रावन पळेताले तांकां ह्या बऱ्या मनशांचो वोगीच छळ चल्ला तो पळोवं नज जालो. तांणी रोखडेंच सत्यवान आनी विश्वास हांकां छळपी लोकांक बोल लावपाक सुरवात केली. पूण लोक कसले वस्ताद! ते तांकांच मारपाक धांवलै. कांय जाणांनी तर म्हळें, ''आरे, हे तांकां फितूर आसात. हांका लेगीत धरून पांदऱ्यांत घालूंक जांय.' तांणीं रोखडेच म्हळें, ''वोगीच कित्याक बडबडटात? आमी पळेतात न्हय केन्ना सावन. ह्या प्रवासी लोकांनी जात्रेंतल्या कोणाकच त्रास दिवंक ना. कोणाकच गाळीय संवूंक ना. उरफाटें तुमीच तांकां त्रास दितात. वयर आनी तुमीच आकांत करतात. तुमकांच खोड घालून दवरूंक जाय.' हे आयकून दोनय गुटांत मारामारी सुरू जाली. रोकडेच थंय शिपाय आयले, हो सगळो बोवाळ ह्या दोन प्रवाशां खातीर जाल्ल्यान तांणी त्या प्रवाशांकच मारपाक सुरवात केली. इतलेंच न्हय तर दोगांच्याय हातांक बेडयो घाल्यो. आनी भर बाजारांत हाडून दवरले. अशें केल्ल्यान, लोकाक धेंक बसतलो हो तांचो हेत. तशेंच कोणें तांचे वटच्यान उलोवंचे न्हय. पूण सत्यवान आनी विश्वास हांणी हें

सगळे थंडसाणेन सहन केलें.

हाका लागून कांय लोकांची मनां तांणी जिखलीं. तें पळोवन दुसऱ्या पंगडाचो खूबच संताप जालो. तांणी ह्या प्रवाशांक जोतेंच मारूंक जाय अशें म्हणपाक सुरवात केली. सरकाराचो हुकूम यो मेरेन तांकां परत पांजऱ्यांतच दवरले. तेन्ना देवदुताची याद जाली. ताणें सांगिल्ली दर एक गजाल खरी जाली. ताका लागून हे फुडें आनी कितें जातलें हाचीच उत्सुकताय तांकां लागली. वेळ जातकच तांकां शिपायान कोर्टांत हाजीर केले. जुवीज येतकूच खटलो सुरू जालो. जुवीजाचें नांव जुवीज 'द्वेष करपी'. त्या 'डामडोल गांवांचे' हे प्रवासी दुस्मान आसात असो तांचेर आरोप आशिल्लो. तशेंच तांणी गांवांत दुस्मानकाय निर्माण केली आनी पंगड निर्माण केले. हें सगळें कायद्या आड आसा. जुविजान विश्वासाक म्हळें, "तुमकां हो आरोप मान्य आसा?" विश्वासान म्हळें, "ना. आमकां मान्य ना! उरफाटें ते ईश्वराचे आड आशिल्ले म्हूण तितल्याच संबंदान आमी आड उलयतात. हांव कोणाचोच दुस्मान न्हय. सगळ्यांपरस ईश्वर श्रेश्ट आसा. आनी आमी ताकाच मानतात. हांवें पंगड वा दुस्वास कांयच निर्मूक ना. हांव शांततायेचो भक्त आसा. आमचे वटच्यान कांय लोक जर उलयल्यात आसत तर तें सत्य आनी बरेपणाखातीरच. आनी तांतूंत तांची चूक कितें? हांव तुमच्या राजाक मानिना. तो ईश्वराचो दुस्मान आसा." 'जुवीजान' हे संबंदान साक्षिदारांक हाडपाक शिपायांक सांगलें. ते प्रमाण तांणी तीन साक्षीदार उबे केले. एकलेचें नांव 'मत्सरबाय' दुसरेचें नांव 'कुड्डी श्रद्धा' तर तिसऱ्याचें नांव 'फकाणेर'.

जुवीजान विचारलें, 'ह्या प्रवाशांक वळखता? हें बाबतीत तुमकां क्रितें सांगपाचें आसा?'

श्रीमती 'मत्सरबाय' रोखडीच उलोवपाक उबी रावली.

जुवीजान म्हळें, "रावात, सोपूत घेयात." तेप्रमाण तिणें सोपूत घेतलो आनी म्हळें, "सायबा, तांच्या नांवाचेर वचूं नाकात. नांव खंय सोनुबाय आनी हाताक लोखणाचो वाळो' तशी गत हांची. आतां आमच्या गांवांत मुर्दांड मनीस म्हणटा ते हेच. ते आमच्या राजाक, कायद्याक, रूढीक, नेमाक मात लेगीत मानिनात. श्रध्दा आनी पवित्रताय हे संबंदान ते लोकांची फटोवणी करतात. तांच्या तत्वांत आनी आमच्या तत्वांत जमीन अस्मानाचो फरक आसा. अशें खासा ताणेंच एक फावट म्हळां. हो आमच्या लोकांचो व्हड अपमान आसा."

**जुवीज** : तुमकां आनीक कितें सांगपाचें आसा?

**मत्सरबाय** : खरें म्हळ्यार म्हाका जायतें सांगपाचें आशिल्लें. पूण कोर्टाचो चड वेळ घेना हांव. केन्ना तुमकां गरज आसतली तेन्ना आफयात. हांव सांगन.

मागीर जुवीजान दुसरे साक्षीदार बायलेक आपयली. अंधश्रद्धाबाय उलोवपाक उबी रावली आनी तिणें म्हळें, "हांव देवाचो सोपूत घेवन खरें सांगतली. ह्या मनशाकडेन तशी कांय म्हजी वळख ना. आनी म्हाका वळख करून घेवपाची इत्साय ना. हो सामकोच कुत्सीत मनीस आसा इतलें मात म्हाका खबर आसा. हाचेर कसोच विश्वास दवरचो न्हय. हांच्या म्हणण्याप्रमाण आमचो धर्म म्हळ्यार एक व्हड ढोंग जावन आसा. देवाक हें कशें बरें आवडटलें? उरफाटें हांचे खातिरच आमचेर देवाचो कोप जातलो. आनी म्हाका कांयच सांगपाचें ना."

मागीर फकाणेर साक्ष दिवपाक फुडें आयलो.

**फकाणेर** : जुवीज सायबा आनी मोगाळ इश्टांनो, हांव देवाचो सोपूत घेवन सांगतां. हाका हांव खूब दिसा सावन वळखतां. हे राजाआड उलयतना हांवें आयकलां. तशेंच ह्या राज्यांतल्या कांय मानेस्त लोकांआड उलयतना हांवें आयकलां. ते मानेस्त आमच्या शाराचें भुषण जावन आसात.

**जुवीजः** बरें ह्या मानेस्तांची नांवां सांग पळोवया.

**फकाणेर** : भौमानेस्त 'जाणा जावपी, सौ. विषयादी सूख' भौ. 'आशेभगत', सौ. मोग करपी, सौ. 'डामडौलबाय' आनी बाकिचे मानेस्त लोक. इतलेंच न्हय तर तुमकां लेगीत गाळी संवपाक तो फाटीं ना. ताणें अशेंय म्हळें,

**जुवीज** : कितें म्हळें?

**फकाणेर** : जर खंय तांच्या हातांत सत्ता आशिल्ली तर खंय तो आमकां सगळ्यांक मारून उडयतलो आशिल्लो.'

अशें म्हणून फकाणेरान तागेली साक्ष सोंपयली. हें आयकून जुवीजाक चडच राग आयलो आनी ताणें विश्वासाक म्हळें, "तूं पाखंडी आसा. वायट चालीचो आसा. तांणी कितें सांगलां तें आयकलें मरे?"

**विश्वास** : हांव चार उतरां उलोवं?

**जुवीज** : पिसो खंयचो! तूं उलोवपाकच न्हय तर जितो रावपाक लेगीत नालायक

आसा. तुजे भाशेन आमी दुश्ट न्हय देखूनच तुका चार उतरां उलोवपाक हांव परवानगी दितां. उलय, भिवकुऱ्या उलय आतां.

**विश्वास** : देवाआड वागप म्हळ्यार हे जिणेचे आड गेल्ले भशेन जालें. साक्षीदारांनी म्हाका नाका आशिल्ले दोश लायल्यात. मनशान ईश्वराचे कायदे पाळूंकच जाय. जीण जगपाखातीर देवाचेर पूर्ण स्रद्धा दवरूंकच जाय. अशी श्रद्धा दवरून जीण जगप हीच खरी देवाची श्रद्धा आनी श्रद्धेन जीण सारप ना हो मनशाचो व्हड गुन्यांव. कित्याक, सगळी जीणच ईश्वरमय आसा. मरपाक हांव तयार आसां. पूण जें बरें तें बरेंच आनी जें वायट तें वायटच अशें म्हाका म्हणचेंच पडटलें. आतां हांव खात्रीन सांगतां की फकाणेरान जीं नांवां सांगल्यांत ते सगळे नरकांत वतले आनी तुमकांय हांव तेंच सांगतां. आतां तुमकां बरें दिसता तें करात.

अशें सांगून विश्वास आपल्या जाग्यार येवन बसलो. जुवीजान जुरीच्या मेंबराक हें सगळें समजावन सांगलें आनी म्हळें, ''ताणे दिल्ल्यो जापो तुमी आयकल्यात. ताणे गुन्यांव कबूल केलाच. आतां ताका गोळाचीं ख्यास्त दिवप काय जल्मठेप दिवप हें तुमचेरच निंबून आसा. ह्या राज्यांतल्या कायद्या प्रमाण ताणे लोकांक आमच्या धर्माआड, म्हज्या आड आनी देवा आड लेगीत चिथायल्यात, आमच्या राज्यांतले ताणें सगळे कायदे मोडल्यात. खरें म्हळ्यार हाका गोळाची ख्यास्त जावंक जाय.''

हें आयकून ज्युरीचे मेंबर भौमानेस्त 'कुड्डो', 'वायट मार्गी', 'ताळ तंत्र नाशिल्लो' 'गर्विश्ट', 'ढोंगी', 'फटकिरो', 'दुस्वासी', 'दुश्ट' हे लेगीत सरळ सगळे उठून भासाभास करपाक कुडींत गेले.

तांणीं थोड्या वेळान येवन जुविजान सांगलें, ''आमच्यांत कसलेच मतभेद नात. आमी एका मत्तान विश्वासाक दोशी थारायतां. विश्वासाक रोखड्या रोखडी गोळाची ख्यास्त जावंक जाय इतलो तो गुन्यांवकारी आसा.''

एका मत्तान विश्वासाक गुन्यांवकारी थारायतकूच ताका तांणी हाल हाल करून मारपाचें थारायलें. ते प्रमाण ताका तांणी एका मळार व्हेलो आनी थंय एका झाडाक बांदलो, कोण ताचेर थुंकले तर कोणें ताचेर खोंटी मारल्यो. कोणें ताका सुरे तोंपून घाय केले. कोणें ताचेर फातर मारले आनी मागीर ताका जितोच हुलपायलो.

खऱ्यांनीच तो मेलो काय? ना. ताची कूड जळ्ळी आसत तरी ताचो आत्मो जितोच आशिल्लो. कूड ताणें देवाक अर्पण केल्ली. तो पळे, देवदूत भांगरा घोड्याची

गाडी घेवन थंय उबो आसा. कोणा खातीर रावला काय तो? हय, तो विश्वासाची वाट पळेता. विश्वासाक घेवन गाडी गेली. हेवटेच्यान सत्यवानाक परत बंदखणींत उडयलो. सत्यवानान थंयच्यान पळून वचपाचें थारायलें. पूण पळून वतलो कसो? ताका भोवन भोवन विश्वासाची याद येताली. खरेंच विश्वास कितलो शूर आशिल्लो? मारपांत लेगीत सूख आसता हें ताणे दाखोवन दिलें. दुसरें आनीक कितें आसा जिणेंत ध्येयाखातीर मरप हाचे सारकें जिणेंत दुसरें आनीक सूख ना. ध्येय आनी सूख ह्यो जिणेंतल्यो दोन मुखेल गजाली जावन आसा. ईश्वराकडेन मागतां की विश्वास अमर जावं दी.

कशें वचचें हाचो विचार करीत सत्यवान रातचो न्हिदलो. खूबच रात जाल्ली. मध्यानराती बंदखणिचें दार कोणेंतरी वाजयलें. कोणें काय वाजयलें आसत? सत्यवान कान दिवन आयकूंक लागलो. भायल्यान आवाज येतालो, 'ऊठ, सत्यवाना. ऊठ बेगीन जागो जा. हांव तुजो इश्ट आसा. हांव तुजे बराबर येतलों. सत्यवान रोखडोच उठलो. दार उगडलें आनी ताचेकडेन पळेतच रावलो. त्या मनशान ताका म्हळें, "आरे असो काचाबूल जावं नाका. आमी दोगय वचुंया. म्हाकाय अमरजीण शाराकडे वचपाचें आसा. म्हजें नांव आशावादी. मनशान जिद्द दवरूंक जाय. ह्या शारांत तुज्या मत्ताचे खूब जाण आसात. आमचे फाटल्यान ते येतलेय बी. आतां आनीक वेळ वगडांव नाकां." मागीर ते अमर जीण शाराकडे वचपाक भायर सरले.

ते बेगीन बेगीन पावलां घालताले. तांचे फुडल्यान दुसरो एक मनीस वतालो कोण आसतलो काय तो? सत्यवान आनी आशावादी रोखडेच ताचे म्हऱ्यांत आयले. आनी तांणी ताका म्हळें, "तुमी खंयच्यान आयल्यात? खंय वचपाचे आसात" 'त्या मनशान तांकां बारीक नदरेन पळेलें. त्या मनशाचें नांव 'सगळें कितें.' ताणें तांकां सांगलें, म्हजो गांव, 'गोडउलवप'. हांव अमर जीण शाराकडे वतां."

**सत्यवान** : कितें? 'गोडउलोवप' गांव? थंय कोण रावतात? तुमी कितें करता थंय? आरेच्या, तुमी तुमचें नांव सांगलें ना.

**सगळें कितें** : हांव जसो तुमकां परको, तशेय तुमीय म्हाका परकी, तुमी आतां हेच वाटेन वचात. म्हाकाय बरो सांगात जातलो. जर तशें नासत जाल्यार ईश्वराचेर भरिभार.

**सत्यवान** : तुमच्या गांवांचें नांव आयकलेशें दिसता. म्हाका दिसता, तुमचो गांव खूबच गिरेस्त आसा.

**सगळें कितें :** आसा तर. आनी हांव कितल्याशाच व्हडल्या लोकांक वळखतां. सगळ्या गांवाक हांव वळखतां. समजलो?

**सत्यवान :** मागीर आमकां कळ्ू दी तरी कोणा कोणांक वळखता तें.

**सगळें कितें :** भौ. 'फिरकी' एक व्हडलो पेजाद मनीस आसा. तुमी ताचें नांव आयकलां आसतलेंच. दुसरो भौ. 'वेळ पाळपी'. तिसरो भौ. 'गोड उलोवपी'. भौ. 'टापटीप', भौ. 'कांयतरी', भौ. 'दुतोंडो' अशे आसात. 'दुतोंडो' म्हजो सामको लागिंचो सोयरो आनी ताका लागूनच म्हाका इस्टेट मेळ्ळी. तशें पळेल्यार म्हजो पणजो हो पाणको आशिल्लो. पूण आतां बेस बरें चल्लां.

**सत्यवान :** कितें गा, तुमचें लग्न जालां?

**सगळें कितें :** हय तर. म्हाका बायल सद्गुणी मेळ्ळ्या. सामकी कुलशीलवान आनी घरंदाज आसा. तशें मर्दी मर्दी तिचीं आनी म्हजीं धर्मा संबंदान झगडीं जातात. तशें म्हणशात तर आमचें एकामेकांचेर खूब प्रेम आसा.

**आशावादी :** तुमचें नांव सांगपाक तुमी इतले लजतात, कित्याक? आं, बरी याद जाली. कितें गा तुमी, गोडबोले गांवचे 'सगळें कितें? न्हय'.

**सगळें कितें :** हय, पूण हें म्हजें खरें नांव न्हय. हे म्हजें भुरगेपणांतलें नांव. दुस्वासी लोकांक म्हजें मोटेपण सोंसना जालें. लागले उलो मारूंक त्या नांवान. नसाय आनी कितें? पूण हांव लोकांक थोडोच भितां.

**सत्यवान :** तशें हें नांव तुमकां सोबता.

**सगळें कितें :** तुमकां तशें दिसता जायत तर दिसूं. तुमचे बरोबर येवपाक तुमची कांय हरकत ना मू?

**सत्यवान :** आमची कांयच हरकत ना. पूण आमचो मार्ग तुमकां आवडटलो अशें काय दिसना आमचे बरोबर येवप म्हळ्यार आमचे भशेन वागूंक जाय. केन्नाय सूख, केन्नाय त्रास, जसो प्रसंग येता तशें तोंड दिवंक जाय. आसा मान्य तुका?

**सगळें कितें :** आगा, तुमचीं मतां म्हजेर कित्याक थापतात? हांव जरी तुमचे बराबर आयलों तरी म्हाका जाय तें म्हाका करूं दियात.

**सत्यवान :** शे! एक पावल लेगीत घालूं नाका. आमच्या मनाप्रमाण वागपाचें आसत तर आमचे बरोबर यो.

**सगळें कितें :** हांव म्हजीं तत्वां कशी सोडूं? हांव एकटो वचन. कोणय मेळ्ळोच तर बरें.

सत्यवान आनी आशावादी दोगय फुडें वचपाक गेले. 'सगळें कितें' तांचे फाटल्यान येतालो. तो पळे 'सगळें कितें' हाका तीग इश्ट मेळ्ळे. तांणी एकामेकांक नमस्कार केलो. एकाचें नांव श्री 'संवसारीक', श्री 'धनलोभी' आनी तिसऱ्याचें नांव श्री 'कंजूस'.

सगळें कितें हाचे ते पयलीचेंच इश्ट आशिल्लें. आनी भुरगेपणांत तांणी एकठांयच शिक्षण घेतिल्लें. लोकांक फटोवप, लुबाडप, तांची खुशामत करप, फटी उलोवप ह्यो सगळ्यो कला तांणीं तांच्या गुरूकडल्यान शिकून घेतिल्ल्यो. धनलोभीन सहज फुडें पळेलें आनी म्हळें "कितें रे, सगळें कितें, ते फुडें कोण वतात?"

**सगळें कितें :** ते दोन प्रवासी आसात. पूण तांचे मार्ग, मत्तां वेगळीं आसात.

**धनलोभी :** तांचो सांगात आमकां मेळिल्लो जाल्यार एकठांयच वचूं येतालें.

**सगळें कितें :** पूण ते इतले हटी आसात की आपलीं मतां सोडपाक तयार नात आनी जर काय कोण तांचे बराबर इश्टागत करपाक गेलो तर ते ती तोडपाक फाटीं नात.

**कंजूस :** हें सामकेंच वायट आं. असले लोक अशेच करतात. आपलें तें खरें आनी दुसऱ्याचें तें वायट अशें तांचें म्हणणे आसता. पूण कितें रे 'सगळें कितें'. तुमचे उलोवणें तरी कसलें जालें?'

**सगळें कितें :** आपलें ध्येय सुवार्था विरयत मेळोवंक जाय. तरच ईश्वराचें दर्शन जावंक पावता. आनी तांच्या मत्ता प्रमाण हांव खूबच सुवार्थी आनी सुखासीन आसां. उरफाटें ते प्रामाणीक आसात.

**श्री संवसारीक :** मूर्खच दिसतात ते. तुजेंच म्हणणें खरें आसा. आमी सोरपाभशेन सादूर रावंक जाय. ईश्वरान वोत पावस दोनय दिल्यांत म्हूणू पावसांतच कोण वचूंक लागले तर कशें जातलें? बरें तें आसूं. तांच्या मता प्रमाण तांकां वचूं दी.

**कंजूस :** हे बाबतींत चड उलयना तितलें बरें.

**धनलोभी :** खरें तुगेलें. आपलेंच म्हणणे खरें आसा. कित्याक, तर वेदांत आनी पुराणांत हेंच सांगलां.

**सगळें कितें** : म्हाका अशें दिसता की आमचें ध्येय मेळोवपाक आमकां कितें जालां? बरें तुमचें म्हणणें कितें?

**धनलोभी** : म्हजेंय तेंच म्हणणें आसा. मान, बरी बायल, पयसो आडको, हें मेळोवपाखातीर खंयच्च्याय धर्माचो पालव घेतल्यार कांयच वायट ना. अशें केल्ल्यान मनीस फटींग केन्नाच जायना आनी देवाक हें सामकें मान्य आसा. जाणा, जगपाखातीर अशेंच करूंक जाय.

'धनलोभीचें' हें म्हणणें आयकून 'सगळें कितें' 'कंजूस' आनी 'संवसारीक' ह्या इश्टांक खुबच आनंद जालो. तांणीं एकाच वेळार म्हळें, "चलात, चलात बेगीन आमी फुडें वतात, त्या शाण्यांक विचारूया, संवसारीक मातसो पोक्त आशिल्ल्यान ताणेंच सत्यवानाक विचारचें अशें थारलें. रोखडेच ते सत्यवाना म्हऱ्यांत पावले आनी तांणी ताका तांचें म्हणणें सांगलें.

**सत्यवान** : आरे, एकाद्रें भुरगें लेगीत तुमच्या असल्या हजार प्रस्नांच्यो जापो दीत. मनीस कितें भाकरे खातीरच जल्मा येता आनी ती भाकरी मेळोवपाखातीरच देवाक आळयता? तितलेंच सूख काय कितें? फकत सुवार्थाखातीरच जो धर्म मानता तो केन्नाच सुखी जावंक पावना. धर्मान मनशाच्या मनांतल्या देवत्वपणाक जागरूकताय येवंक जाय. तोच खरो धर्म. धर्मीक हाचो अर्थ तुमचे भशेन सुवार्थी जावप न्हय. देखुनच तुमी जें सांगतात तें सगळें फट आनी ढोंगीपणाचें जावन आसा.

सत्यवानाचें हें उलोवप आयकून त्या सगळ्यांक अजाप जाले. ते मागीर कांयच उलोवंक शकले नात आनी ते हळूच कांयच उलयनासतना उठून गेले. ते उपरान्त सत्यवान आनी आशावादी हळूहळू आपले वाटेक लागले. रस्त्यांत तांकां सुंदर पाचवेचार मळ लागलें. त्या मळाकडेक एक ल्हानशी दोंगुल्ली आशिल्ली आनी ते दोंगुल्लेचेर एक व्हडली घोल आशिल्ली. तशी ती भायल्यान दिसपाक भोव सुंदर आनी ओडलावणी आशिल्ली. आतां मेरेन ते घोलींत पळोवपाक गेल्ले लोक बरे परिस्थितींत केन्नाच परते आयले नात. कोणाचीं हाडां मोडिल्लीं, तर कोणाचे हातपांय सुटिल्ले. अशे अर्दमेल्ले अवस्थेंत लोक भायर येताले. तो पळे ते घोलिच्या शेजरा कोणतरी आड्डुतालो. कितें काय म्हणटा तो? कोणाक तरी तो आपयता. हय सामकें खरें. सत्यवान आनी आशावादी हांकांच तो आपयता. कोण आसतलो काय तो? तो ते घोलिचो अधिकारी जावन आसा. वयल्यान भोळो पूण भितरल्यान मात सामको कपटी. ताचें नांव आशिल्लें 'कपटी'.

**श्री. कपटी :** येयात, येयात. म्हज्या इश्टांनो, येयात. म्हज्या भावांनो, येयात. पळेयात, ही कसली सुंदर वास्तू आसात. येयात, हांव तुमका ती दाखयतां.

**सत्यवान :** असली कसली वास्तू आसा तर ती?

**श्री कपटी :** वा! हांगा भांगराची खाण आसा. थोडो त्रास घेतल्यार तुमी सुखी जातले.

**आशावादी :** चल आमी पळोवंया ती.

**सत्यवान :** शे! शे! कांय नाका. खबर आसा. ही भांगराची खाण नासून हो एक भिरांकूर सांपळो आसा आनी हांतूंत कितलेशेच प्रवासी शिरकून पडल्यात. आमच्या ध्येयापासून आमकां पयस लावन दिवपी हो सांपळो आसा. जाका आपली मोख मेळोवपाची आसता ताणें हांगां दुकूनय पळोवंक जायना. कितें 'कपटी', खरें काय न्हय?

**कपटी :** जे निश्काळजजीपणान वागतात तांकांच ही घोल त्रासांत घालतली.

**सत्यवान :** आरे आशावादी, आमी आमच्या मार्गांन वचुंया.

**आशावादी :** म्हाका खात्री आसा की जर 'सगळें कितें' आयलो तर तो नक्कीच हे घोलींत वतलो.

**सत्यवान :** बरोबर आसा. तशींच तांचीं तत्वां आसात.

**कपटी :** येतात मूं? ही सुंदर घोल पळोवपाक येतात.?

**सत्यवान :** आरे, तूं एक देवाच्या मार्गांतलो दुस्मान जावन आसा. तुजी घोल पळोवपाक आमी आयले तर परमेश्वर आमकां ख्यास्त केले बगर रावचोना.

**कपटी :** आरे तुमी मातशे रावले तर हांव लेगीत तुमचे बराबर आयले बगर रावचोंना.

**सत्यवान :** आं, तूं कितें येतलो आमचे बराबर? तुजें कूळ, शील, आमकां खबर आसा. चल, आमकां वचूं दी.

मागीर सत्यवान आनी आशावादी हे दोगयजाण मार्गाक लागले. हेवटच्यान 'सगळें कितें' आनी ताचे सांगाती थंय पावले. कपटी वांगडा ते ती घोल पळोवपाक गेले. ते घोलींत वतकूच 'सगळें कितें' आनी तांचे सांगाती परत काय भायर आयले नात. सत्यवान आनी आशावादी आपली वाट चलता आसतना तांकां एके बायलेचो

पुतळो दिसलो. तो पुतळो कोणाचो आसतलो काय? त्या पुतळ्याचेर कितें बरयला काय? हय, तें पळयात. सत्यवान तीं उतरां वाचता. त्या पुतळ्यार कितें बरयल्लें आशिल्लें? ही 'कामिनी' आसा. कोण काय ही कामिनी? सत्यवान आनी आशावादी विचार करताले,

**सत्यवान** : आं! बरी याद जाली आतां म्हाका. आरे, हीच ती आमच्या शेजारची पापी बायल. तिच्या पापाचें फळ तिका मेळ्ळें. आरे, ही कपटी आनी सुवार्थी आशिल्ली ताचें हें फळ. तूं आनी हांव सुवार्थी जावन कपटीच्या सांगण्यावेल्यान हे घोलींत गेल्ले तर अशेच पुतळे आशिल्ले.

**आशावादी** : बरें जालें. तुवें म्हाका योग्य वेळार सावचीत केलो म्हूणू. हे बायलेक ते घोलींत वचपाची खूब इत्सा आशिल्ली अशें हांवें आयकल्लें. आनी देखून ती परत परत ते घोलीकडेन पळेताली. आनी ताचोच हो परिणाम.

**सत्यवान** : ह्यो गजाली आमी मतींत धरूंक जाय. हे बायलेन पयलीं खूबच पापां केल्लीं. पूण तिका कांय एक जालेंना. तें खिणाचेंच अशें तिका दिसतालें, देव आपल्याक कांय करचोना. सुवार्थ आनी कपटीपण केल्यार लेगीत कांयच जावचेंना. पूण पळेलें? तिचें फळ तिका मेळ्ळें.

**आशावादी** : आरे, तें सगळें खरें. पूण म्हाका एके गजालीचें अजाप जाता. कामिनीन फाटल्यान पळेल्लें. म्हूण तिका ही ख्यास्त. तर कपटी जो सदांच घोलींतच आसता तो पुतळो जावन कित्याक पडना?

**सत्यवान** : ताचें अशें आसा, तिच्या पापाचे घडे भरिल्ले. शंबर अपराध मेरेन देव खंय वोगी रावता, ताच्या पापांचे घडे अजून भरूंक ना जायत.

**आशावादी** : बरें जालें. म्हाका देवान ह्या संकश्टांतल्यान वाटयलो. अशें उलयत उलयत ते रस्त्यान फुडें फुडें वताले, वाटेर तांकां एक सुंदर न्हंय लागली. तिचें पात्र खुबच रूंद आशिल्लें. आनी तशेंच उदक सामकें कवचे भशेन निवळ आनी निळसार आशिल्लें. ईश्वरान मनशाक ती एक देणगीच दिल्ली म्हणा. न्हंयेचे देगेवयल्यानच तांचो रस्तो वतालो. न्हंयेचे देगेवयल्यान वता आसतना प्रवाशांक खूब खोस भोगताली. न्हंयेच्या दोनूय कडांनी रानाची सोबितकाय सामकी नटून थटून बशिल्ली. तरेक तरा पाचवीचार रानांची सोबितकाय एकेवटच्यान तर सगळ्या तरांची झाडां फळांनी आनी फुलांनी सामकीं भरून गेल्लीं. खरेंच सैमाचे हें कर्तूप

अजाप करपाचें. तशें पळेल्यार दर एका झाडाचीं पानां ही उपेगी वखदांची पानां. सत्यवान आनी आशावादी तो दोळ्यांक सूख दिवपी देखाव पळोवन सामके भुल्लुसून गेले. तांणी कितलीशींच फळां खालीं. बरोबर वखदाचो पालोय घेतलो. न्हंयेचे लाग सार वेली-वाली आशिल्ल्यो. एक सोबीत सुवात आशिल्ली. सत्यवान आनी आशावादी हांणी थंयच विसव घेतलो. थंयचीं फळां खावचीं. न्हंयेचें तें पवित्र उदक पिवचें आनी न्हिदचें. अशे थंय बरेच दीस तांणी काडले. अशे थोडे दीस रावन जातकच ते फुडल्या मार्गाक लागले. फुडलो मार्ग किचकटिचो आशिल्लो. सामको कांट्या-कुट्यांनीं भरिल्लो. तरी आसतना ते तशेच फुडें वचत रावले. ताचे दावे वटच्यान एक ल्हानसो रस्तो वतालो. सत्यवानान तेच वाटेन वचपाचें थारायलें आनी कितें सांगू? अजापच! थंय एक ल्हानसो पूल आशिल्लो आनी त्या पुलाचे पलतडीं व्हडलो सुंदर असो रस्तो आशिल्लो. तें पळोवन सत्यवानान म्हळें, "चल ह्याच रस्त्यान आमी वचुंया. होच रस्तो बरो दिसता."

**आशावादी** : आरे ही वाट आमकां नाका आशिल्ल्या जाग्यार व्हरना मरे?

**सत्यवान** : नारे. हीच वाट बरोबर आसा. अशें म्हणून ते त्याच रस्त्यान वचपाक लागले. तांकां वाटेन वतना एक मनीस मेळ्ळो. तोय त्याच रस्त्यान वतालो. ताचें नांव अहंकारी आशिल्लें.

सत्यवानान ताका थांबोवन विचारलें, हो रस्तो खंय वता? ताणें म्हळे, "अमर शाराच्या दरवट्याकडेन."

**सत्यवान** : पळेलें, हांवें सांगूंक नाशिल्लें हो रस्तो बरोबर आसा म्हूण? अशें म्हणून ते फुडें वचूंक लागले. अहंकारी तांचे फुडें आशिल्लो. करतां, करतां रात जाली. गुप्प काळोख जालो. ते खातीर सत्यवानाक आनी आशावादीक दोगांकय अहंकारी दिसनासो जालो. आरेच्या, हो कसलो आवाज जालो? कोण फोणांत बी पडलो काय कितें? हय. तशेंच जालां आसतलें. कोण पडला आसतलो काय? अहंकारीच पडलो. अहंकारी तागेले गुर्मेंतच फुडें वतालो न्हय! मागीर ताका वाटेर फोण बी आसल्यार दिसतलो कसो? असल्या लोकांक धरपाक, उडोवपाकच रस्त्याचो धनी बळयांच फोंड दवरता, मागीर जावपाचें तेंच जालें. 'अहंकारी' फोणांत पडून जिवानिशीं गेलो.

सत्यवानान आनी आशावादीन दोगांनीय तो पडिल्लो आसतना मोटो आवाज आयकल्लो. तांणी मोट्यामोट्यान उले मारले. पूण तांकां किळांचे बगर दुसरें कांयच

आयकूंक आयलेंना.

**आशावादी** : आमी आतां खय आसा? मातसो पावसय पडूंक लागला. गडगडाट आनी वीज जोगलांवंक लागली हांवे सांगिल्ले तुंवे आयकल्ले जाल्यार?

**सत्यवान** : आमी वाट चुकतले हें कोणाक खबर आशिल्लें?

**आशावादी** : म्हाका पयलींच तशे दिसलें. पूण तूं मात्सो अणभवी आशिल्ल्यान हांव चड कांय उलयलों ना.

**सत्यवान** : रागार जावं नाका. म्हाका क्षमा कर. अशें कितें जातलें अशें म्हाका मात लेगीत दिसूंक नासलें.

**आशावादी** : कांयच हुसको करपाची गरज ना. तातूंत क्षमा कितें करपाची ? जें कितें घडटा तें आमच्या बऱ्या खातीरच म्हणपाचें. तुजे सारको सांगाती मेळ्ळो हे म्हजें भाग्यच समजतां हांव. आमी वचुंया. हांव फुडें वतां.

**सत्यवान** : नाका, नाका, हांवच फुडें वतां. म्हाका लागुनच रस्तो चुकले न्हय?

**आशावादी** : नाका रे. तुजें मन थाऱ्यार ना. देखून तूं परत रस्तो चुकशी. इतक्यान देववाणी जाता. 'ह्याच रस्त्यान वचपाचें. नेट धरात. ज्या रस्त्यान तुमी वतात त्याच रस्त्यान वचत रावात.'

इल्लें इल्लें उदक नेटान व्हांवपाक लागलें. आनी जंय थंय उदकच उदक जालें. काळोख जायत आयलो. तांकां परत वचपय भंयाचें दिसूंक लागलें. कशें बशें थंयच रावून रात काडपाचें तांणी थारायलें. आनी खूबच पुरो जाल्ल्यान थंयच ते न्हिदले.

लागींच थंय एक कोट आशिल्लो. त्या कोटाचें नांव आशिल्लें 'संशय' कोट आनी त्या कोटाच्या धनयाचें नांव आशिल्लें 'निर्शेवणीसूर'. तागेल्याच जाग्यार हे दोगय जाण न्हिदिल्ले. त्या दिसा राकेस जेन्ना सकाळी फिरूं लागलो तेन्ना ताणे सत्यवान आनी आशावादी हांकां न्हिदिल्ले पळेले. ताणे तांकां रोखडेंच उठयले आनी विचारलें, "म्हज्या जाग्यार कित्याक न्हिदल्यात? खंयच्यान आयल्यात?" तांणी म्हळें "आमी प्रवासी आनी आमी आमची वाट चुकल्यात."

**निर्शेवणी राकेस** : म्हज्या जाग्यार आयल्यात तेन्ना म्हजे वांगडा तुमकां येवचेंच पडटलें.'

तांकां बरोबर घेवन तो गेलो आनी नीट व्हरून ताणें तांकां बंदखणींत घाले. तांकां एके काळखा कुडींत एक सप्तकभर दवरले. थंय तांकां जेवण-खाण कांयच दिलें ना. इतलेंच न्हय तर तांची वासपूस लेगीत केली ना.

ही परिस्थिती पळोवन सत्यवानाक खूबच वायट दिसलें. कित्याक, ताचे चुकी खातीरच तांकां हे दीस पळोवचे पडले.

त्या राकेसाचे बायलेचें नांव आशिल्लें 'दुबळी.' ताणें तिका सगळें सांगलें आनी फुडें कितें करपाचें तें तिका विचारलें. तिणें तें खंय वतले हाची वासपूस केली आनी घोवाक सांगलें, "हय आयकलां, कळ्ळें तुमकां? सकाळीं उट्टकूच त्या प्रवाशांक कांयच दया दाखयनासतना मर म्हण्टसर मारात."

फांतोडेर राकेस उठलो आनी एक मोटो दांडो ताणें सत्यवान आनी आशावादी हांका यथेच्च बडोवन काडलें. कुत्रे जाल्लेवरी. तशेच तांकां बंदखणींत सोडून तो भायर गेलो आनी आपलो पराक्रम ताणें बायलेक सांगलो. ताचे बायलेन म्हळें, "आगा, तांचो जिवच घेवंक जाय आशिल्लो. आतां लेगीत जिते आसात ते? चला, चलात पळोवया. मारूनच उडयात तांकां." राकेस परत तांकां मारपाक म्हूण गेलो. आनी तांका लेखून ताणें म्हळें, "तुमी जिवे रावपाक लेगीत योग्य ना! तुमी मरूंकच जाय." म्हूण तांकां तो मारपाक धावलो. तो तांकां आतां मारतलो इतल्यांत राकेस घुंवळ येवन सकयल पडलो. हें पळोवन बायल भियेली आनी ताका घरा घेवन गेली. सत्यवान आनी आशावादी विचार करीत बसले.

**सत्यवान** : आतां कितें करपाचें? असली जीण तर म्हाका असह्य जाल्या. ते परस मेल्लें कितें वायट? कितें करूंया आतां कांयच कळना.

**आशावादी** : ही जीण असह्य जाल्या हें खरें आसा. हे परस मरण बरें, हें पळे तूं म्हणटा तेंय ख़रें आसा. येसू ख्रिस्तान अशें म्हळें ना 'आत्महत्या कोणेंच करची न्हय. दुसऱ्याची हत्या तर करचीं न्हयच. पूण खासा आपली लेगीत हत्या करूंक फावना. अशें केल्यार आमी आमच्या आत्म्याकच शेणोवन बसतले आनी आमकां मरून मेळटलें कितें? आमी आमची सगळी जीण कितें राकेसाच्याच हातांत आसा? कितल्याशाच लोकांक ताणें जिवेनिशीं मारल्या जायत. पूण आमी हांतुतल्यान सुटचे नात, कित्या वयल्यान? एकाद्रया वेळार दार उगतें दवरीत. ताका घुंवळ बी येत जाल्यार- अशेंय कितेंय घडूंक शकता. मागीर आमकां हांगच्यान वचूंक जमतलें.

पळोवया तरी कितें जाता तें. नाजाल्यार मरपाचेंच आसा न्हय? मागीर आमच्याच हातांनी आमी मरणाक कित्याक आफोवन हाडूंया! धाडसान जिवें रावंया.

थोड्याच वेळान थंय राकेस आयलो, ताका ते जिते आसात तें पळोवन खूबच अजाप जालें. परती तांकां धमकावणी दिवन तो गेलो. सत्यवान मातसो भियेलोच. हें पळोवन आशावादीन म्हळें, ''धीर सोडूं नाका. हाचे पयलीं कितें थोडी संकश्टां आयलीं ? त्या संकश्टांतल्यान तुजी सुटका जाली ना? दोंगुल्ले वयल्यान त्या राकेसा आड तूं झगडलो ना? तशेंच ते मरणाचे घळींतल्यान येतना तुवें कितें थोडे त्रास सोंसल्यात? आनी ते डामडौल जात्रेंत तुका बंदखणींत दवरूं नाशिल्लो? तेन्ना आमी निमण्या खिणामेरेन कशेंच भियेवपाचें ना.''

हेवटच्यान राकेस आनी ताची बायल दोगांय उलयत बशिल्लीं. राकेस बायलेक सांगतालो, ''आगे ते सामके गूंड दिसतात. कितलेंय मारलें तरी मरनात. तांची सोंसपाची तांक बरीच दिसता! बायलेन म्हळें, 'तांकां हाडांची रास जाल्लें आंगण दाखयलें ना? तांकां तें सगळें दाखयात म्हणटकच सगळें कितें तें तांकां कळटलें. '' राकेसान म्हळें, ''आगे, सगळें तांकां दाखयलें. पूण कितें सांगूं? ते मात लेगीत बाडगना मगे.''

**बायल** : तांकां कोण तरी सोडोवंक येतलो अशें ते समजल्यात काय कितें?

**राकेस** : मरूं दी तांकां. बरे, आमी न्हिदुंया.

ते पळे! सत्यवान आनी आशावादी प्रार्थना करतात. हे प्रार्थने खातीरच तांच्या मनाक थंडाय मेळ्ळी. निर्शेवणी तर नाच जाली आनी कितें अजाप! खिणापयलीं जो सत्यवान दुख्खी आशिल्लो, ताका एकदम आनंद जालो. आनी ताणें आशावादीक म्हळें, ''आरे कितलो पिसो रे हांव! काळजांत देवाची ठेव आसतना कित्याक तरी हांव रडटालों?' आनी इश्टा, ही पळे म्हजेकडेन चावी आसा. ते चावयेचें नांव कितें, खबर आसा तुका? चावयेचें नाव आसा. 'वचन'. म्हाका खात्री आसा, हे चावयेन दुबाव कोटाचीं सगळीं दारां हांव उगडूंक पावतलों.''

**आशावादी** : मागीर बरें जालें मरे. आमी आतां दारां उगडुंया.

मागीर ताणें एका फाटल्यान एक करून सगळीं दारां उगडलीं. अखेरेक ते निमण्या व्हडल्या दाराकडेन पावले तेंय दार ताणें उगतें केलें. पूण तो व्हडलो दरवटो उगडटना मोटो आवाज जालो. आनी राकेस जागो जालो. राकेसान तांकां पळटना पळेलें

आनी तांकां धरपाक वतलो इतले म्हणसर तो घुंवळ येवन सकयल पडलो. सत्यवान आनी आशावादी धांवत धांवत त्या कोटासावन पयस गेले. आतां तांकां कसलीच भिरांत नाशिल्ली. येवपी प्रवाशांक, तांकां जालो तसो त्रास जावंचो न्हय म्हूण तांणी एक सुचोवणी फळो लावपाचें थारायलें. राकेसाच्या कोटाकडेन वचपाचे वाटेर तो दिस्त लायलो.

तशें केल्ल्यान कितलेशेच प्रवासी संकश्टांतल्यान वाटावले. ल्हवू ल्हवू करून सत्यवान आनी आशावादी तांगेले फुडले वाटेक लागले.

तो पळे, दोंगर, कितलो सोबीत दिसता पळे! फळांफुलांनी कसो सामको, उपाट भरला पळे! झुळझूळ व्हांवपी झरे, वयल्यान सकयल उडयो मारताले. सत्यवान आनी आशावादी थंय पावतकच पोटभर उदक पिले. दोंगरार बाबा कोण आसात ते? गोरवां राखणे जातले. गायांचे हिंड घेवन थंय उबे आसात. ल्हवू ल्हवू करून सत्यवान आनी आशावादी तांचे म्हऱ्यांत गेले आनी तांकां तांणी विचारले, ''कितें गा? हे कोणाचे दोंगर.''

**गोरवां राखणे** : हे एका रुशींचे दोंगर. तांच्योच ह्यो गायो.

**सत्यवान** : होच रस्तो अमर जिणेच्या शाराकडेन वता न्हय? कितलो लांब आसा हांगच्यान?

**गोरवां राखणे** : जायतो पयस आसा. पूण जांकां इत्सा आसा तेच थंय पावतले.

**सत्यवान** : मागीर रस्तो कसो आसा?

**गोरवां राखणे** : बऱ्या मनान वतात तांकां बरो. वायट मनात वतात तांकां वायट.

**सत्यवान** : हांगा आमी विसव घेवं?

**गोरवां राखणें** : वा! वा! हें कितें विचारप जालें? उरफाटें हांगा आयिल्ल्या प्रवाशांचो आदरसत्कार करपाक आमकां रूशीन हांगा दवरिल्ले आसात. अशें म्हूण ते तांकां घेवन आश्रमांत गेले, आनी तांणीं तांची सगळी वासपूस केली. तांका तरातरांची फळां दिलीं आनी आग्रो करून तांकां रावपाक सांगलें.

त्या गोरवां राखण्यांभितर एकाचें नांव आशिल्लें 'ज्ञान', दुसऱ्याचें नांव 'अणभव', तिसऱ्याचें नांव 'दक्ष' आनी चवथ्याचें नांव 'एकनिश्ठ'.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं गोरवां राखण्यांनी तांकां सगळो आश्रम भोंवन दाखोवपाक सुरवात केली. ते तांकां एके उंचेले दोंगुल्लेचेर घेवन गेले. ते दोंगुल्लेचें नांव आशिल्लें 'हेळसांड'. ते उंचेले दोंगुल्लेंवयल्यान घळ बरी खोल दिसताली. तांणी वोगीच सकयल ओणव घेवन पळेलें. कितलेंशेच लोक थंय मरून पडिल्ले. हाचो अर्थ कितें? अशें सत्यवानान तांकां विचारलें.

**गोरवा राखणे** : दुश्ट मनशाचें आयकलें की अशेंच जाता. ताचोच हो परिणाम. मागीर तांकां ते दुसरे दोंगुल्लेचेर घेवन गेले. ते दोंगुल्लेचें नांव आशिल्लें 'सावधान दोंगुल्ली'. दोंगुल्लेवयल्यान वोगीच तांणी सकयल पळेले. सकयल कितलेशेच लोक हेवटेच्यान तेवटच्यान भोंवताले. भोंवता भोंवता एकामेकांचेर आपटताले. कुड्डे आशिल्ले काय कितें ते? तांकां तें कांय समजलेंना. तांणी ते विशीं गोरवा राखण्यांक विचारलें.

**गोरवां राखणे** : आगा, तो दुबावाचो कोट आसा न्हय लागीं? थंयच्या राकेसाचें कर्तुप तें. तांच्या कोटांत वतात तांकां तो मारून उडयता. नाजाल्यार अशे कुड्डें करता. हांगा जायते प्रवाशी येतात. आनी आमच्या ह्या आश्रमामेरेन येवपाक दोन वाटो आसात. आमच्या आश्रमाकडेन येवपाची वाट मातशी अशीर आनी खडबडीत आसा तर राकेसाच्या कोटाकडेन वता ती वाट बरीच रूंद आनी सोबीत आसा. ते खातीरच जे लोक विचार करिनांत ते फटवतात.

मागीर तांकां गोरवां राखण्यांनीं दुसरे एके सुवातेर व्हेले. थंय दोंगुल्लेच्या मुळसा म्हऱ्यांतच एक दार आशिल्लें. तें दार उगडून तांका भितर पळोवपाक सांगलें. ते बराबर तांकां सामकी घाण आयली. तरातरांचे आवाज आयकूंक आयले. दाराचे भितर तर कांयच दिसनाशिल्लें. सामको मिट्ट काळोख. तसोच धुंवरय आशिल्लो. गोरवां राखण्यान म्हळें, ''ही नरकाकडेन वचपाची वाट आसा. आनी ढोंगी लोक ह्याच मार्गान वतात. बरें, इश्टांनो, आतां तुमचो वचपाचो वेळ जाला, तुमकां तुमची मोख सादपाची आसा. तुमी हांगा कितें पळेलां तें मतींत धरात. तशेच गरज पडल्यार तुमका तुमचे शक्तीचो उपेग करचो पडटलो, हेंय मतींत दवरात. आतां वचचे पयलीं तुमकां अमर जीण शाराचीं दारां दाखयतां. म्हळ्यार तुमी तें 'ज्ञानाच्या' वक्लान पळोवचें पडटलें. असलीं वक्लां आमचेकडेन आसात. आमी तुमकां तीं दितले. पूण तुमची योग्यताय आसल्यारच तुमकां तातुंतल्यान पळोवंक मेळटले''. मागीर ते तांकां एके उंचेले दोंगुल्लेचेर घेवन गेले. ते दोंगुल्लेचें नांव आशिल्लें 'निर्मळ दोंगुल्ली.'

थंय तांकां वक्लां लावपाक दिलीं. पूण गोरवां-राखण्यांनी पयलीं कितें जें सांगिल्लें ते खातीर तांचे हात थरथरपाक लागले. कशींबशीं तांणी तीं वक्लां घेतलीं आनी अंधूकसो जायना पूण तांकां तातुंतल्यान अमर जीण शाराचो दरवटो पळोंवक मेळ्ळो. तशेंच थंय भव्य दिव्य सुंदर अशें कितें तरी तांकां दिसलें. तांचो जेन्ना वचपाचो वेळ जालो तेन्ना गोरवां राखण्यांनी तांकां सांबाळून वचपाक सांगलें. एकल्यान तांकां खंयचे वाटेन कशें वचपाचें हें बरोवन दिलें. दुसऱ्यान खूशमस्कऱ्यांपासून सावचीत रावपाक सांगलें. तिसऱ्यान ओडलावणे सुवातीपासून पयस रावूंक सांगलें. चवथ्यान ईश्वर तुमचें कल्याण करतलो असो आशीर्वाद दिलो, अशे तरेन सत्यवान आनी आशावादी आपल्या मार्गाक लागले. तांचें दावे वटच्यान ल्हानसो गांव आशिल्लों. हांचीय वाट त्याच गांवांतल्यान वताली. तो पळे तांचे म्हऱ्यांत एक भुरगो येता. ताका पळोवन सत्यवानान विचारलें, "कितें रे, तुजें नांव कितें? खंय वता?" त्या भुरग्यान म्हळें, "म्हजें नांव अडाणी. हांव अमर जीण शाराकडेन वतां."

**सत्यवान :** पूण तूं वतलो कसो? तुका भितर कोण घेतलो?

**अडाणी :** जशे दुसरे वतात तसो हांव वतलों. हांवूय बरो देवाचो भक्त आसां. हांव प्रार्थना करतां. उपास दानधर्म करतां. मागीर म्हाका भितर कित्याक घेवचेना?

**सत्यवान :** हांवें तर हाचें पयलीं केन्नाच तुका पळोवंक ना. म्हळ्यार तूं सदांच वांकड्या मार्गानच वता आसतलो.

**अडाणी :** म्हजो धर्म वेगळो आनी तुजो धर्म वेगळो. म्हजो धर्म म्हाका पाळुंकच जाय. तेन्ना तूं तुज्या मार्गान वच. हांव म्हज्या मार्गान वतलों.

सत्यवानान ल्हवूच आशावादीक म्हळें, "आरे हो चडूच शाणसो दिसता. म्हणटात न्हय, चड शाण्याक फातरां शीत, तशेंच हाचें जातलें पळे."

**आशावादी :** आतां काय तांचे बराबर उलोवपांत अर्थ ना. आमी आमच्या मार्गान फुडें वचुंया - अशें म्हणून ते फुडें वचूंक लागले. अडाणी तांचे फाटल्यान लेमे लेमे करीत वचूंक लागलो. थोडेशें चलून जातकच तांकां एके अशीर वाटेंतल्यान वचचें पडलें. अशीर वाट कसली? थंय तर सामको किण्ण काळोख आशिल्लो. थंय तांकां एक विचित्र देखाव दिसलो. एक मनशाक सात राकेसांनी सात दोरयांनी बांदिल्लो आनी तांका फाटीर घेवन ते वताले. हें पळोवन ते दोगय खूब भिले. कोण काय हो मनीस आसतलो? ताचें तोंड तांणीं खंयतरी पळेल्ले भशेन दिसलें. ते पळे, ताचे

फाटीर कितें तरी बरयलां. 'गर्विष्ठ पंडीत' अशें कितें तरी बरयलां ही याद जाली.

**सत्यवान** : आरे हो, अर्दकुटी श्रद्धा आनी अर्दकुटी प्रामाणीकपणां ह्या गांवांत रावतालो. आरे, तुका खबर आसा काय नारे? हो आमचो सारकोच प्रवासी आशिल्लो. वाटेंत ताका तीन भावांनी धरलो. तांचीं नांवां खबर आसा न्हय तुका? एकल्याचें नांव 'अशक्त काळीज'. दुसऱ्याचें नांव 'अविश्वास' आनी तिसऱ्याचें नांव 'दोश'. आरे, ह्या तिगा भावांनी ताका सामको नागयलो आनी ताची ही दशा करून उडयली. तरी बरें जालें. कृपावानान ताका पालव दिलो.'

**आशावादी** : तांणी ताका सामको नागयलो काय कितें?

**सत्यवान** : ना. ताचेकडेन माणीक, पाचू, मोती बी जें जडजवाहीर आसा तें ताणें आपणालागीं दवरलें. तेच खातीर तो त्रासांत पडलो. निमणें ताचो सुवार्थ ताका नडलो. देखुनूच शेवटाक ताका सात राकेसांनी धरलो. तें जडजवाहीर म्हजें न्हय राष्ट्राचें आसा अशें समजून ताणें राष्ट्राचेर भावार्थ दवरलेलो जाल्यार ताची ही परिस्थिती जावंची नाशिल्ली. जो राष्ट्राचेर म्हळ्यार ईश्वराचेर भावार्थ दवरता, तो जैतवन्त जाता, सुखी जाता.

ल्हवू ल्हवू करून ते फुडें वचपाक लागले. तांचे फाटल्यान अडाणी येतालोच. थोडेशें फुडें वतकूच तांकां दोन रस्ते लागले. खंयच्या रस्त्यान वचचें हें तांकां खिणभर कळना जालें. 'आतां खंयच्या रस्त्यान वचपाचें' असो विचार करीत ते थंयच उबे रावले. तो पळे, एक मनीस सामको काळो आनी जिरजिरीत वस्त्र आंगार घाल्लो तांचे म्हऱ्यांत आयलो. आनी ताणें म्हळें, "तुमी हांगा उबे कित्याक?" तांणी म्हळे, "आमी अमर शाराकडेन वतात. आमी आतां खंयच्या रस्त्यान वचपाचें तें आमकां कळना."

ताणें मागीर म्हजे 'म्हजें फाटल्यान येयात. हांव थंयच वतां' अशें सांगतकूच ताचे फाटल्यान वचूंक लागले. ताचे फाटल्यात जितले ते वताले तितले ते अमर शारासावन पयस पावत आशिल्ले. ते ह्या काळ्या मनशाच्या जाळांत घुस्पून पडिल्ले. इतले की तातुंतल्यान भायर सरप तांकां कशेंच जमलेंना. कितें करचें हें तांकां समजना जालें. आनी त्या काळ्या मनशान आंगार घाल्लें जिरजिरीत धवें वस्त्र जेन्ना गळून सकयल पडलें तेन्ना तांकां खरें कितें तें सगळें कळ्ळें. तें खंय पावले ताचो तांकां अदमास आयलो. रडपा बगर दुसरो खंयचो मार्ग आशिल्लो? पूण रडून तरी फायदो

कितें? आयिल्ल्या संकश्टाक धिरान तोंड दिवंकच जाय.

**सत्यवान** : इश्टा आमी पुराय फटवले रे! आरे, तुस्त करतल्याचेर विस्वास दवरूं नाका म्हूण त्या राखण्यान आमकां सांगू नाशिल्लें? तुस्त करतल्याचेर जे विस्वास दवरता तो कांयच कर्तुप करूंक पावना.

**आशावादी** : खरें म्हळ्यार आमी कशें वचचें तें लेगीत ताणें सांगिल्ले पूण आमी आमच्यात नादांत आशिल्ले. वाकडी बुद्द आमचे गोमटेर बसली म्हळ्यार जाता. आतां सगळो भार त्या ईश्वराचेर. आनी कितें?

ते पळे देवदूत तांचेकडेन येता. ताच्या हातांत एक ल्हानशें चाबूक आसा. ताणें तांची वासपूस केली आनी म्हळें, 'आरे तो भाट आसा भाट. ताच्या कर्तुपांत तुमी शिरकले कशे?' देवदुतान मागीर तांची मेकळीक केली आनी तांकां दिस्त मार्गार हाडून सोडले. आनी देवदुतान तांकां म्हळें, "आतां फुडें वतना खूब काळजी घेयात. राखण्यान ज्यो ज्यो सुचोवण्यो केल्यात त्यो दिस्तादिस्त मतींत दवरात आनी तशे वागात. बरें येतां हांव."

सत्यवानान आनी आशावादीन ताका 'देव बरें करूं' म्हळें आनी ते फुडले वाटेक लागले. तो पळे तांचे म्हऱ्यांत कोणतरी येता. हय तो सत्यवान आनी आशावादीकच मेळपाक येता. तो पळे तांचेकडेन पावलो लेगीत. ताणें म्हळें, "नमस्कार इश्टांनो, तुमी खंय वतात?"

**सत्यवान** : आमी अमर शाराकडेन वतात.

हें आयकून तो हांसत रावलो. तो कित्याक हांसता हे त्या दोगांकय कळना जालें. सत्यवानान म्हळें, "आगो, इतलें हांसपाचें कारण कितें?" त्या मनशान म्हळें, "सांगता. हांव कित्याक हांसता तें तुमकां सांगतां. ताचे पयलीं हांव म्हजी वळख करून दितां तुमकां. म्हजें नांव 'नास्तीक'. हांव असल्या गजालींचेर विश्वास दवरिना आनी तुमचे सारकीं मनशां अशें कितेंय तरी करूंक लागलीं म्हणटकूच म्हाका हांसूंक येता. ताका कितें करपाचें? सांगात पळोवंया. कितले अभागी लोक तुमी. हो प्रवास कित्याखातीर करतात? तुमकां कांयच मेळपाचें ना. अमर जीण ना आनी अमर शारय ना. तुमकां फकत त्रास मात जातलो.

**सत्यवान** : म्हळ्यार थंय आमकां येवकार मेळचो ना?

**नास्तीक** : आरे, येवकार कसलो? सगळ्या विश्वांत तुमी येवजिता तसली

सुवात ना.

**सत्यवान** : आसाच आसा. त्या विस्वासानच आमी खासा आमचेकडेन पळोवंक जाय!

**नास्तीक** : आरे, म्हाका लेगीत अशेंच दिसतालें. म्हाका जेन्ना म्हज्या गांवांत हें कळ्ळें, हांव लेगीत तुमचे भशेन सोदीत रावलो. पूण आयज 20 वर्सां जालीं म्हाका असलें शार खंयच मेळूंक ना. हांव आतां परत वतां. हांवें जगाचो कोनश्यान कोनसो सोदलो पूण म्हाका काय कसलें शार मेळ्ळें ना. आनी आतां म्हाका तर आशाच ना.

हें आयकून सत्यवानान आशावादीक म्हळें, "हो कितें म्हणटा तें खरें आसा व्हय?"

**आशावादी** : आरे, कसलें खरें आनी फटी घेवन बसला? हे तुस्त करपी कितें करीत आनी कितें ना हाचो नेम ना. आमी आमच्या देवाचेर विस्वास दवरून फुडें वचुंया. वोगीच गोंदळांत उडोवपी लोकांपासून पयस राविल्लें बरें. हे नास्तीक म्हळ्यार दुसरें तिसरें कितेंच न्हय तर खासा आपल्याच घुस्पटलेल्या मनाचें प्रतीक जावन आसा. चल, आमी फुडें वचुंया.

**सत्यवान** : खरें रे. देव बरें करूं म्हज्या इश्टा. आतां तूं खरो आशावादी सोबलो.

सत्याक असत्य केन्नाच चिकटावं नज अशें म्हणून नास्तिकाक थंयच सोडून ते फुडल्या मार्गाक लागले. कांय वेळान ते एका गांवांत पावले. गांवचें वातावरण दमट आशिल्लें. आनी प्रवाशांक तर तसल्या वातावरणांत न्हिदचें अशें दिसतालें. आता हेंच पळेयात न्ही – ह्या वातावरणाचो आशावादीचेर इल्लो इल्लो परिणाम जावंक लागलो. ताणें सत्यवानाक म्हळें, "आतां म्हज्यान काय चलूंक नज. म्हाका आतां थाकाय जाय, केन्ना काय म्हाका न्हिदन अशें जालां. बरें, आमी हांगा बरे नेटार न्हीद काडुंया."

**सत्यवान** : आरे, पिशें लागलां काय कितें रे तुका? हांगा आमी एक फावट न्हिदत जाल्यार परत आनीक उठपाचे नात.

**आशावादी** : बरें जालें. तूं म्हजो सांगाती आसून. ना जाल्यार हांव केन्नाच हांगा न्हिदतलों आशिल्लों.

मागीर त्या दोगांनीय एकामेकांक संताच्यो गजाली सांगपाक सुरवात केली.

सत्यवानान मागीर आशावादीक म्हळें, ‘तूं ह्या मार्गाक कसो लागलो?’

**आशावादी** : पयलीं संवसारांतल्यो सगळ्यो वायट गजाली करपांत आनंद जातालो. इल्ली इल्ली करून म्हजी चूक म्हाका कळून आयली. हांवें संतांचीं चरित्रां वाचलीं. ते खातीर म्हाका तुजो मार्ग कळ्ळो. पयलीं म्हज्या मनांत जायते दुबाव आशिल्लें, पूण विस्वासानच म्हाका मार्ग सांगलो.

**सत्यवान** : कितें सांगलें?

**आशावादी** : ताणें अशें म्हळें की निमणें मनीस हो अपूर्णच आसता. देखून जण एका मनशान देवाक शरण वचूंकच जाय. देवाचेर पूर्ण भावार्थ दवरून काम करूंक जाय. तरच मनीस सुखी – जातलो. जितलो मनीस मनान निर्मळ जाता तितलो ताका देव बेगीन मेळटा.

**सत्यवान** : तुका तसो कितें अणभव बी आयला?

**आशावादी** : हय तर. एक खेपे म्हज्या मनाक खूबच यातना जाल्यो. जिवाक सामको उबगल्लो. तेन्ना म्हज्या मनांतल्यान भितरल्यान एकदम आवाज आयलो. ‘आरे, असो भिता कित्याक? संतांच्या मार्गान गेलो तर तुका सूख मेळटलें. फाटल्या चुकांखातीर कांयच भियेंव नाका. चुको ही जैताचीं सकलीं सोपणां आसात. तेन्ना देवाचेर पुराय भावार्थ दवर आनी फुडें वच. देव तुज्या फाटल्यान आसा. हेच खातीर म्हजें मन सामकें पवित्र जालें आनी हांव खुशाल भरीत जालों.

असल्या गजालींनी ते तल्लीन जाले. तांणी तशेंच फाटल्यान पळेलें. अन्नाडी हो लेमे लेमेत येतालो. सत्यवानान म्हऱ्यांत पावतकूच ताका म्हळें, “कितें रे, असो सवकास सवकास कित्याक येता?”

**अन्नाडी** : म्हाका एकलोच रावपाक आवडटा.

**सत्यवान** : भुतांखेतांचो विचार करता कांय ना?

**अन्नाडी** : करतां न्हय! पूण तसले विचार हांव थंयच सोडून दितां आनी फकत देवांचेच विचार करता.

**सत्यवान** : कित्यावयल्यान?

**अन्नाडी** : म्हजें मन सांगता म्हूण.

**सत्यवान :** आपणाल्या मनाचेर केन्नाच भरंवसो दवरचो न्हय, हें खबर आसा मू तुका?

**अन्नाडी :** म्हजें मन खूबच बरें आसा.

**सत्यवान :** निखटें बरे आसून उपेग ना. ईश्वराचें ताका अधिष्टान जाय. तें आसा मू?

**अन्नाडी :** आसा तर! देखून म्हजे विचार बरे आसात.

**सत्यवान :** आगा, निखटें बरें विचार आसून उपेग ना. ताचेच वांगडा बरी वागणूक जाय. आचार आनी विचार हांचे मदीं फरक आसा.

**अन्नाडी :** मागीर तूंच सांग कशे आसूं जाय तें.

**सत्यवान :** खासा आपणाले वागणुकेवयल्यान हें थारावंक जाय आनी निर्मळ मन उरता काय ना तें पळोवंक जाय. नमळायेन काम करूंक जाय. खंयचेय गजालीची अतिताय जावंक जायना. देवाचेर पुराय भावार्थ दवरपाचों. हें सगळें केल्यारच ताका निर्मळ मन म्हणूं येता.

**अन्नाडी :** म्हाजें मन वायट आसा अशें म्हाका केन्ना दिसलें ना.

**सत्यवान :** विचारा परस तुजी वागणूक कशी आसा हाकाच म्हत्व आसा. तूं दुसऱ्या वांगडा कसो वागता हाचेवयल्यान तुजें मन बरें काय वायट हें थारावंक जाय. तरच तुका देव मेळटलो. आमी म्हळ्यार सर्वज्ञ न्हय, असोय आमी विचार करूंक जाय. आमचे परस ईश्वराची शक्त मोटी आसा. आमी देवा म्हऱ्यांत नमळकायेन वागुंकूच जाय.

**अन्नाडी :** पूण हांव देवाचेर भावार्थ दवरिना हें तुका कशें कळ्ळें?

**सत्यवान :** तूं तसो वागता म्हूण.

**अन्नाडी :** ना! हांव खरेंच भावार्थ दवरतां. आनी हांव सगळे नीतीनेम पाळटां. आनी हांव देवाचेच सांगणे प्रमाण वागतां. ते म्हजें वागप पळोवन दिसतलें! तेन्ना हांव भावार्थ दवरिना अशें म्हणप समा न्हय.

**सत्यवान :** म्हाका तरी तुजें सांगप पटना. कित्याक, तुजी श्रद्धाच धड ना. तूं खासा बरी करणी करपी परस देवाचें बरेंपण तुजेकडेन लावन घेता. आनी तुज्या सगळ्या वायट गजालींक तूं देवाक जापसालदार धरता. खरें म्हळ्यार तुज्या वायट

कर्तुपाक तूंच जापसालदार आसा. निर्मळ मनान तूं देवा म्हऱ्यांत वचूंक जाय.

**अन्नाडी** : म्हाका तरी तुजें सांगणें पटना.

**सत्यवान** : नांवा वरीच तू अन्नाडी!

**आशावादी** : तुका केन्ना देवाचो साक्षात्कार बी जाला?

**अन्नाडी** : नारे बाबा, हांव असल्या गजालींचेर विस्वास दवरिना.

**आशावादी** : कितें म्हणटा? असल्या गजालींचेर विस्वास ना?

**अन्नाडी** : नाच ना.

**सत्यवान** : मागीर तुज्या अन्नाडीपणाची काकळूट करता तितली थोडी.

लोकांच्या कल्याणा खातीर वावरप होच देव मेळोवपाचो उत्तम मार्ग आसा. हे केल्ल्यानच तूं मुक्त जातलो आनी सुखीय जातलो.

**अन्नाडी** : म्हाका काय तुमचें हें म्हणणें पटना. तुमीं फुडें वचातच. हांव फाटल्यान येतां.

**सत्यवान** : तुज्या अन्नाडीपणाचें फळ तुका मेळटलेंच. आशावादी, चल या. आमी फुडें वचुंया.

मागीर ते दोगय गजाली करीत फुडें वचूंक लागले. ते दोगय अशा लोकांच्या अन्नाडीपणा संबंदान उलयताले.

**आशावादी** : असल्या लोकांक पटोवन कशें दिवंचें हेंच कळना.

**सत्यवान** : हांवूय तेंच म्हणटां. खरें म्हळ्यार ईश्वरा संबंदान सत्य लोकांक समजूंक जाय. ताकाच लागून लोक ज्ञानी जातले आनी तें काम आतां तुमी, आमी करूंक जाय.

**आशावादी** : बरें इश्टा, आमी खंय मेरेन आयले?

**सत्यवान** : कितें रे? कंटाळो आयलो काय कितें? आरे, आनीक एक दोन मैल आसत चलपाचें! तर हांव कितें सांगतालों? असत्यासंबंदान लोकांच्या मनांत भंय निर्माण जावंक जाय. पूण अन्नाडी लोकांक ताचें कांयच दिसना.

मागीर करतां करतां तांच्यो गजाली दुसऱ्या विशयाचेर सुरू जाल्ल्यो. कांय मनशां हीं अशीच कित्याक लागतात हे संबंदान ते भासाभास करूं लागले. हीं मनशां

चार दीस देवाचें नांव घेतलीं, चार दीस लोकावांगडा बरीं वागतलीं आनी परतें उमथ्या कळश्यार उदक.

**आशावादी** : आरे, ताचें अशें आसा. लोकांक कळटा पूण वळना अशी तांची परिस्थिती. ताचें मन सदांच दुबावी आसता. कांय फावटी ताकां तांचे वायट दिसता आनी ते बऱ्या मार्गाक लागतात. पूण तें खिणभरच. तर कांय जाण तांचें कितेंय वायट जातलेंच ह्या भंयान बरें वागपाचो यत्न करतात. पूण भंय थोडो तेंपच. कांय जाण समाजाच्या भंयान बरें वागपाचो येत्न करतात. तांकां तांगेल्या धर्मांचें बी कांय लागून पडना. असले लोक थोड्या तेंपान वायट मार्गानच वतात.

**सत्यवान** : खरें आसा. अश्या लोकांपासून सगळ्या लोकांनी सावचीत रावंक जाय.

आतां मेरेन ते बरीच वाट चलून आयिल्ले. 'ओडलावणी' सुवाते पासून ते खुबच पयस पाविल्ले. अमर शारआतां पयस नाशिल्लें. आतां ते एका नव्याच शारांत भितर सरले. त्या शाराचें वातावरण कितलें मनभुलवणें आनी जीव धादोस करपी आशिल्लें! मन कशें आशिल्लें! मन कशें उल्हसीत जातालें, अमर शाराचो रस्तो हांगाच्यानच वतालो. हांगा सैमान आपले सुंदरकायेक शीम घालूंक नाशिल्ली. ताणे सुंदरकाय ताणें दोनी पोशांनी भरून भरून ओतिल्ली. वचत थंय रंगरंगाची, मधूर आवाजाचीं सवणीं नाचतालीं, उडटालीं. त्या शेवण्यांचो आवाज मनांक कितलोतरी आनंद दितालो. तरेकवार फुलांचे तर थंय साम्राज्यच पातळ्ळेलें. बाराय म्हयने फळां फुलांनी ही सुवात भरिल्ली. सूर्य तर हांगा दिसरात उदेल्लो आसतालो. हांगा दुखख म्हळ्यार कितें, हेंच लोकाक खबर नाशिल्लें. सामको सुखाचो हुंवारच व्हांवतालो म्हळ्यार जाता. आनी तें बराबर आसा. हांगा मरणाचे घळीची सावळीच पडू नाशिल्ली तर निरशेवणी राकेसाचो संबंदच नाशिल्लो. दुबावाच्या कोटा सावन ते कितलेशेच पयस आशिल्ले. इतलेंच न्हय तर अमर शार तांच्या दोळ्यां सामकार दिसतालें आनी तें पळय, थंय रावपी नागरीक लेगीत तांकां मेळपाक येतात. कितले तेजिश्ट दिसंतात ते! एकामेकांची ते चवकशी करताले, आनंदान उलयताले. तांकां कितेंच उणें नाशिल्लें खरेंच तांच्या प्रवासाचें सार्थक जाल्लें. सगळ्या लोकांनी सत्यवानाची आनी आशावादीची कळकळीन वासपूस केली. देवाचे पवित्र भक्त अशेंच लोक तांकां म्हणूंक लागले.

आरेच्या! तो पळे, सत्यवानाक घुंवळ आयली. आशावादीकय मातशी घुंवळ

आयिल्लेभशे जालें. एकदम सूख अणभवूंक मेळिल्ल्यान तांकां घुंवळ आयलीना मूं? हय, तशेंच दिसता. अती सूख आयिल्ल्यानच तांकां घुंवळ आयिल्ली. जशे जशे ते शाराचे लागसार पावताले तशे तशे ते चडच सूख अणभवताले.

अमर शाराचे रस्ते पुराय भांगरान मढयल्ले आनी दरेका घराच्या देवळाच्यो वणटी सामक्यो माणकां मोतयांनी रसणायल्ल्यो. सूर्याचीं किरणां ताजेर पडून तीं रत्नां चडच लखलखतालीं. तें शारय सामकें उजवाडांत लख्ख दिसतालें आनी हाचो परिणाम म्हूण दिसता, त्या दोगांक घुवळ आयली आसूंक जाय. पूण ते पळे, ते सावुद्दीर आयले आनी ल्हवू ल्हवू करून फुडें वचूंक लागले.

वाटेर तरेकतरांच्यो वाली, फळाफुलांनी भरिलीं झाडां तांका येवकार दितालीं. वाटेरच तांकां त्या बागेचो माळी मेळ्ळो. सत्यवानान आनी आशावादीन दोगांयनी ताका नमस्कार केलो आनी म्हळें, 'आगा, ही सुंदरकायेन भरिल्ली ओडलावणी बाग कोणाची?' माळ्यान म्हळें, "कोणाची म्हणजे? देवाची. तुमचेच खातीर ही बाग केल्या. आनी तुमच्या असल्या प्रवाशांखातीरच म्हाका हांगा दवरला. येयात, हांव तुमकां बाग दाखयता. थोडो विसव घेयात. मागीर तांका माळ्यान तरातरांची फळां हाडून दिलीं. सत्यवानान आनी आशावादीन थंयच विसव घेवपाचें थारायलें. थोडो वेळ विसव घेतकच ते वचूंक भायर सरले."

इल्ले इल्ले करून ते तांगेले वाटेक लागले. वाटेर तांकां दोग मनीस मेळ्ळें. सामके तेजिश्ट आनी रूपेस्त दिसताले. तांचीं आंगांतलीं लेगीत भांगराचीं आशिल्लीं. त्या लोकांनी तांची वासपूस केली आनी म्हळें, "आतां तुमकां दोनच आडमेळ्यांचेर जैत मेळोवंक जाय. मागीर तुमी अमर शारांत पावलेच म्हूण समजात."

**सत्यवान** : मागीर तुमी येयात न्हय आमचे बराबर. तांणी म्हळें, "आमी येवंच. पूण तुमकां खासा तुमचेच श्रद्धेर, यश मेळोवंक जाय! तो पळेयात शाराचो भितर सरपाचो व्हडलो दरवटो. कितलो व्हडलो आनी सुंदर!"

तो दरवटो तांकां दिसतालो खरो पूण तो आनी ह्या प्रवाशांमदीं एक न्हंय व्हांवताली. आनी ती न्हंय पार केले बगर ते दरवट्या म्हऱ्यांत पावंक शकनाशिल्ले. आनी न्हंयेचेर पूल नाशिल्ल्यान तांकां पेंवनच ती पार करपाक जाय आशिल्ली. सत्यवानाक आनी आशावादीक मोटो हुसकोच जाल्लो. आनी कितेंय दुसरी वाट काडूंक मेळटा काय म्हूण ते विचार करूंक लागले. 'उदक खोल आसा काय?' तांणी विचारलें.

बाकीच्यांनी म्हळें, ''तशें काय ना. पूण उदकाची खोलाय तुमच्या देवावयले श्रद्धेर निंबून आसा.' मागीर सत्यवानान आनी आशावादीच देवाचें नांव घेवन न्हंयेंत पावल घालें. आशावादी हो आशावादीच आशिल्ल्यान ताका मात लेगीत त्रास जालो ना. तो सामको खोशयेन ल्हवू ल्हवू करून न्हंयेतल्यान वतालो. ताची सामकी देवाचेर पुराय श्रद्धा आशिल्ली. पूण सत्यवानाची भियेवन सामकी गुळी जाली. तो बडबडटालो, 'आरे, आशावादी, म्हजे पांय लटपट्टात, म्हाका चलूंक येना. उदक म्हज्या नाका-तोंडांत वता.' आशावादी ताका धीर दितालो.

**सत्यवान** : तो पळे यम, म्हजे म्हऱ्यांत उबो आसा. हांव तुजे बराबर येवंक शकचोना. म्हाका कांय अमर शार दिसपाचें ना. हें पळे, पयलीं हांव ज्यो कांय वायट गजाली केल्यो त्यो त्यो भूत जावन म्हाका धरपाक येतात. कितें करूं हांव? म्हाका आता कोणच वाचोवं शकना.

आशावादीन ताका धीर दिलो आनी समजायलो आनी म्हळें, 'आरे, अशें कितें करता? दुख्खांत लेगीत देवाचेर स्रद्धा दवरूंक जाय. देवान पयलीं जे तुका सुखाचे दीस दाखयल्यात ताचो ह्या दुख्खाच्या वेळार तूं उपेग करता काय ना हे पळोवपाकच हे त्रास, दुख्खां देवान धाडल्यांत. आरे दुख्खांतच देवाची याद करूंक जाय.' आनी कितें सांगू? अजाप! सत्यवानाक एकदम उमेद आयली. ताणें म्हळें, ''आरे, तीं पळे म्हाका देवाचीं उतरां आयकूंक येतात. आरे संकश्टाच्या वेळार लेगीत हांव तुजे बराबर आसां. अशें कोणतरी म्हाका सांगता.''

ताचे जमनीक पांय केन्ना लागले हें लेगीत ताका कळ्ळेंना. आतां उदक चड नाशिल्लें. ते बरे तरेन न्हंयेचे पलतडी पावले. थंय तांकां येवकार दिवपाखातीर दोन देवदूत उबे आशिल्ले. आतां तांकां कसलोच त्रास जालो ना. अमर शार एक उंचेले दोंगुल्लेचेर आशिल्लें. पूण तांका चलपाचे बी कश्ट पडलेना. देवदुतांनी तांका दोगांयक भांगराचीं आंगांतलीं दिलीं. तांच्यो कुडी फुलाभशेन ल्हव जाल्यो. तांकां हवेचो त्रास जालो ना. वाटेर सुंदर सुंदर सवण्याचें चोंबे तांका दिसले. कुपां लेगीत सामकीं लागिंच्यान वतालीं. देवदूत तांकां अमर शारा संबंदान सांगताले.

तांणी म्हळें, ''अमर शाराची सुंदरकाय ही उतरांनी वर्णन करपासारकी न्हय. थंय सगळ्याक सूख आसा. कित्याचोच उणाव ना. सुंदर आनी आनंदी मनशा, देवदूत हांचोच सांगात मेळटलो. हांगच्या बागांत सोबीत आनी मधूर फळां, बावनाशिल्लीं फुलां, अम्रुतावरी उदक हेंच मेळटलें.'

हांगा दैन्य, दुख्ख, मरण हें तुमका केन्नाच दिसचें ना. आनी हें पळे, आतां मेरेन तुमी केल्या श्रमाचें, प्रार्थनेचें फळ मेळ्ळेबगर रावचें ना. ईश्वराचो सांगात तुमकां आतां सद्‌दां मेळटलो. तुमी आनी ईश्वर एकरूप जातलें. एकसारको ईश्वराचोच आवाज तुमच्या कानार पडटलो. तुमी सारके ईश्वरमय जावन वतले म्हळ्यार जाता. इतले म्हणसर कितलिशींच मनशां तांकां येवकार दिवपाखातीर थंय उबीं आसा हें ताणीं पळेलें. तांणी दिल्ले येवकार पळोवन सत्यवान आनी आशावादी सामके भुल्लसून गेले. तरेतरेच्या वाद्यांतल्यान सामको सुखमय आनी मधूर आवाज येतालो. वाद्यांचो, मंत्राचो जयघोश एक सारको चलतालो. त्या जयघोशांतच ते सगळे तांचे भोवंतणी जमले. हो सत्कार सुवाळो येदो व्हड आशिल्लो की ताचे मुखार स्वर्गसूख कांयच न्हय. त्या सुखांत ते पेंवता आसतनाच तांकां मधूर घांटींचो नाद आयकूंक आयलो. घांटीचो नाद इतलो आनंदायी आशिल्लो की ते केन्ना व्हडल्या दरवट्याकडेन पावले तें ताका कळ्ळेंच ना. सत्यवानान आनी आशावादीन खासा हाडिल्लीं प्रमाणपत्रां दाखयलीं. तांकां रोखडोच देवाच्या म्हालांत प्रवेश मेळ्ळो. रत्नजडीत शिंवासनाचेर भगवान बशिल्ले. जेन्ना ताणी देवाक पळेलो त्या वेळावयलो तांचो आनंद वर्णन करूंक जायना असो आशिल्लो. तांचो जो कितें दुबाव आशिल्लो तो नाच्च जाल्लो. मनाक अतीव शांतताय मेळिल्ली. ईश्वरान तांकां आपले म्हऱ्यांत बसोवन घेतले आनी तांचे क्षेमकुशल विचारलें. आतां तांच्या मनांत कसलोच दुबाव नाशिल्लो. ते सुखाच्या दर्यांत पेंवताले. केल्ल्या कश्टाचें फळ पुरायपणान तांकां मेळिल्लें. खरें म्हणचे ईश्वरामदीं आनी तांचे मदीं फरक असो कांयच नाशिल्लों. अमृताची रूच मेळटकूच अमृतूच कित्याक आनी कशें उत्पन्न जालें, हाचो विचार शाणो मनीस कित्याक करतलो? आंब्याचे बागेंत रसाळ आंबे खावंचे सोडून आंब्याच्या झाडाक पाना कितलीं हाचो विचार आमी मनीस कित्याक करतात? ईश्वर तांच्या मनांतले दुबाव वळखलो. हांसत्या मुखामळान ताणें तांकां म्हळें, "हांव ह्याच वा त्याच कारणान कित्याक मेळना असले दुबाव काडचे परस म्हज्या दर्शनाचोच आनंद मनशान घेवंक जाय."

**सत्यवान** : पूण मनशाक तुज्या दर्शनाखातीर इतले कश्ट कित्याक करचे पडटात?

**ईश्वर** : ते खातीर कश्ट करपाची कांयच गरज ना. कित्याक हांव तुमच्या काळजांत भरून राविल्ल्यान तुमकां म्हजी उत्कंटाय लागली की हांव धांवत धांवत

तुमचेकडेन येतलों. ते खातीर घरदारं बी कांयच सोडपाची गरज ना. कित्याक, अशी एकय सुवात ना जंय हांव ना. म्हजें अस्तित्व सगळ्याक आसा. आनी सत्यवान, हे कश्ट, कर्म, कर्तव्य म्हळ्यार हांवच. तेन्ना मनशाच्या कश्टांतच हांव आसां हें विसरूं नाका.

**सत्यवान** : मागीर मनीस सूख आनी दुख्ख हांचे भितर एक फरक कित्याक करता?

**ईश्वर** : सूख आनी दुख्क हीं एकच आसात. मनशाच्या अन्नाडीपणा खातीरच तो आमचे मदी फरक करता. तुका वाटेर बशिल्लो अन्नाडी खबर आसा न्हय? ताका म्हज्या दुतांनी हातपाय बांदून नरकाचे कुडींत केन्नाच उडयला.

तेन्ना सोंसपाची ज्ञानाची शक्त मनशान बाळगूंक जाय. ज्ञान आसा थंय सूख आसा अशेंच समज. तशेंच ज्ञानरूपी स्वर्ग सुखाक अन्नाडीरुपी नरकाचोय दरवटो आसता. आनी हांव जों मेरेन मनशाक मेळना तोमेरेन मनीस अपुर्णच आसता. आनी मनशाले दर एके उपासनेंत हांव भरून उरलां हें मात लेगीत विसरूं नाकात.

दुसरें अशें, मनशाच्या हातांत यत्नाबगर हांवें कांयच दवरूंक ना. तेन्ना निश्ठेन यत्न करप हेंच मनशाचें काम.

तुवें उलो मारले बराबर हांव येतलों. ताचो तूं हुसको करूं नाका. हो म्हजो संदेश सगळ्यांक पावोवपाचो वावर तूं कर!

देवदुतांनी तांकां आपल्या विमानांत बसोवन तांच्या घरा पावयले. आतां त्या दोगांकय नवीन नदर मेळिल्ली. तांकां सगळे कडेन आनंदी आनंद दिसतालो. ह्या आनंदाच्या सुवाळ्यांत ताणी आपले बायले भुरग्यांक वांटेकार केले. आतां सत्यवान बायले भुरग्याक सोडून खंयच वचचो नाशिल्लो. कित्याक, तांचे मदींच ताका देव दिसतालो. आतां एके नवे प्रेरणेन तो जीण जगतालो.

*****



## माणिकराव गावणेकार

जल्म : 5 एप्रील 1930,
पत्तो : बांदोडें, फोंडे-गोंय
शिक्षण : एम्. ए. एम्ड

वेवसाय : माध्यमीक शाळेचो मुख्याध्यापक म्हण 25 वर्सां काम केलां

विशेश : मुंबय आसतना 1956 सावन कोंकणी चळवळी कडेन संबंद आयलो. रवींद्रबाब केळेकार, शंकरबाब भांडारी, सुमंतबाब केळेकार, चंद्रकांतबाब केणी, नागेशबाब करमली अरवींदबाब भाटीकार, गुरूनाथबाब केळेकार ह्या कोंकणी वावुरप्यांकडल्यान कोंकणी खातीर कार्य करपाची उर्बा मेळ्ळी. कोंकणी भाशेच्या कार्यावांगडाच ओपीनियन पोलावेळारूय गोंय वेगळें दवरपाच्या कार्यांत वांटो घेतला. भुरग्यांखातीर कोंकणी नाटकुलीं आनी प्रहसनां बरयल्यांत. आकाशवाणी केंद्राचेर भुरग्यांखातीर तशेंच जाणट्यांखातीर जागोर ह्या सदरांत कार्यावळी सादर केल्यांत.
कोंकणी भाशामंडळाचें आजिवन वांगडीपण, तशेंच अ. भा. कों. परिशदेच्या 18 व्या अधिवेशनाचे येवकार अध्यक्ष जावपाचो मान फावो जाला. अ. भा. कों. प. भांडारी म्हुणून वट्ट स वर्सां वावुरल्यांत, फोंडा स्कावट-गायड संघटनेचे अध्यक्ष, अ. गोवा मुख्याध्यापक संघटनेचे अध्यक्ष, अ. गो. स्कूल मॅनेजमेंटाचे सचिव, एस्. एस्. सी. बोर्डाचे सदस्य अशी महत्वाची पदां सांबाळ्यांत. माणिकपद्म प्रकाशनाचे प्रकाशक.

**प्रकाशीत साहित्य** : 15 बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. महाकवी कालीदासाच्या 'ऋतुसंहार' ह्या ग्रंथाचो रूपकार करून उजवाडाक हाडला. जॉन बुनियान हांच्या Pilgrim progress ह्या पुस्तकांचो **'भक्तराज'** ह्या नावांन रूपकार केला.
**पुरस्कार :** उत्कृश्ट शिक्षक म्हण गोंय सरकाराचो राज्य पुरस्कार, आनी भारत सरकाराचो राष्ट्रीय पुरस्कार फावो जाला.